वर्स : ६ अंक ०५

मे २००७

मोल १० रुपया

मुखेल संपादक
दिलीप बोरकार

मुद्रक आनी प्रकाशक
दिलीप बोरकार

छापणावळ
सह्याद्री ऑफसेट, खोर्ली-तिसवाडी

मार्केटींग व्यवस्थापन
कामिनी किणी

अक्षर जुळवणी आनी मांडावळ
श्वेता नाईक

भुरग्यांआगण संपादन
नयना आडारकार

वर्गणीचे दर
वर्सुकी २०० रु. / तीन वर्सां ५५० रु.

खंयच्याय म्हयन्या सावन वर्गणीदार जांव येता. वर्गणीचो चेक 'बिम्ब' ह्या नांवान धाडचो

संपादकीय पत्रवेव्हाराचो पत्तो
जी.एस.बी.-३, हाऊसिंग बोर्ड कॉलनी,
पोस्ट आल्त-पर्वरी,
आल्त बेती - ४०३ ५२१
दूरध्वनी : (०८३२) २४११५९४
E-mail : bimbkonkani@yahoo.com.in



कोंकणी मासिक
# बिम्ब

## काँग्रेस आपलोच फोंड खणटा! तरी वयर सरूक पक्षाक संद आसा!!

(५)



# संपादकीय

मे म्हयन्याचो बिम्ब वाचप्यांच्या हातांत पडटलो तेन्ना गोंयचो दरेक जागृत नागरीक ग्रामस्वराज्याचे निर्मणेचे तयारेक लागिल्लो आसतलो!

५ मे क गोंयांत पंचायत वेंचणुको जातल्यो. ते खातीर आमचो जागृत नागरीक मतदान करूंक भायर सरतलो. कांय जाणांनी मतदान करून यो म्हणसर बिम्ब चाळूंकय नासतलो. आमी दोन आदर्शवादाच्यो गजाली सांगल्यो आनी कोणे वाचून ते प्रमाण आपलें मत प्रवर्तन करून घेतलें आनी आदर्श पंचायत राज अवतरलें असो आमचो दावो निखालूस ना. तशी अपेक्षाय आमी आयच्या काळार बाळगूंक शकनांत. कोणे कोणांकडल्यान कितें घेवपाचें आनी कोणांक मत मारून निवडून हाडपाचें हें थारिल्लें आसा. तरीपूण खंयतरी एक पिशी आस आसा. जें आमी येवजितात तें समविचारी कांय काळजां मेरेन पावचें आनी ज्योतीन ज्योत पेट्टा तशी विचारानी विचार वाडचो आनी एक दीस आख्खो वाठार सामको झगमगून वचचो अशें दिसता. गांधीजीन सुराज्याचें-स्वराज्याचें जें सपन आमचे सामकार दवरिल्लें, तें सत्य सृश्टीत हाडपा खातीर!

५ वर्सांनी एकदां आमच्या ग्रामस्वराज्याची स्थापना जाता. कायद्यान जानेवारी म्हयन्यांत जावपाची पंचायत वेंचणूक आतां ५ मे क जातली. गोंयच्या सुवार्थी राजकारण्यांक ती इतले बेगीन जाल्ली नाका आशिल्ली. तांकां जाय आशिल्ली पयली विधानसभा वेंचणूक जाल्ली. कित्याक मतदार संघातल्या पंचायतींतल्या एकल्याक कोणाकूय उमेदवारी दिलीना जाल्यार तो दुखावतलो आनी विधानसभा वेंचणुके वेळार तो राग काडटलो ह्या भंयान! राजकारणाचो जाणीं धंदो करून उडयला ते केदी व्हडली खेळी खेळूंक सोदताले!

पूण गोंयचे वेंचणूक आयुक्त, उच्च न्यायालय, वेंचणूक वेळार घेवंची म्हूण न्यायालयांत वचपी पंच, सरपंच आनी सरकाराच्या दबावा खाल येवंक नाशिल्लो केंद्रीय वेंचणूक आयोग हांच्या ठाम विचारांक लागून ही वेंचणूक इतले बेगीन जावंक पावली!

पंचायतीचो संविधानांत आसपाव जायत सावन संविधानान दिल्ले अधिकार मेळोवपाक लोकांक राज्यसरकाराकडेन झगडचें पडटा ही खरेंच लजेची गजाल.

पंचायत वेंचणुको कितल्यो म्हत्वाच्यो हाची जाणविकाय आयज जनतेक आसा काय खबर ना. आयज सर्वसामान्यपणान पंचायत वेंचणूक म्हळ्यार राजकारणांत पावल दवरपाची सुरवात अशें समिकरण जालां. पयलीं श्रीगणेशा करपाचो तो पंचायत वेंचणूक लढोवन. मागीर आमदार आनी मंत्री!

पयलीं भशेन आतां पंचायतीचें स्वरूप उरूंक ना. पंचायतीकूय आतां भरपूर निधी मेळटा. थंय गुड्डलसांव करूंक मेळटा. गांवांत बेकायदेशीर बांदकामांक मान्यताय दिवन जोडूंक मेळटा. हे पासत पंच जावन मागीर सरपंच जावपाखातीर लाखांनी रूपया खर्च जावंक लागल्यात. हे इतले दुडू मोडून समाज सेवा करूंक कित्याक पेटल्यात काय? हाचो विचार मतदानाक वचपी दर एकल्यान आयज करूंक जाय.

आमच्या संविधानान आमकां लोकशायेचें सगळ्यांत प्रभावी अस्त्र दिलां. मताचो अधिकार म्हळ्यारूच हें अस्त्र. हें अस्त्र वापरून आमकां लोकशाय तिगोवपाची आसा. गांवची उदरगत जाल्यार, गांव आदर्श जाल्यार जिल्हो आदर्श जातलो, जिल्हो आदर्श जाल्यार राज्य आदर्श जातलें. आदर्श राज्यां मेळून आदर्श देश जातलो. म्हणटकच आमचो देश आदर्श करतलो जाल्यार आयज आमकां आदर्श पंच वेचून हाडून आदर्श पंचायत घडोवपाची आसा. आदर्श ग्रामस्वराज्य घडोवचें आसा.

पंचायतीनी गोंयचो विचार करिनासतना, ग्रामसभेक कळयनासतना दोंगर बोडके करपाक, आगर पुरोवपाक हालींच ना हरकत दाखले दिल्ले. हाका लागून गोंय काबार जावपाचो प्रस्न उप्राशिल्लो. पूण जागृत लोकानी आवाज उठयतकच ही दिल्ली बेकायदेशीर मान्यताय फार्टी घेवंची पडिल्ली. म्हणटकच आयज पंच-सरपंच जावंक जे कोण मुखार सरतात ते कसल्या उद्देश्यान हाचें भान आमी बाळगूंक जाय.

सर्वसामान्य लोकांक दिसता की रस्ते, लायट, उदक दिवप म्हळ्यार पंचायतीचें काम. पूण पंचायतीचें खरें काम गांव वाचोवपाचें! कारण पंचांच्या-सरपंचाच्या उल्याक बेगोबेग पावतात ते गांवचे लोक. गांवची राखण करूं येता. देखून जाका कोणाक गांवचो मोग आसा ताकाच मत मारपाचें शाणेंपण आमकां आयज करपाचें आसा. ५ मे चो एक दीस फक्त मतदानाक वचून मत मारपाचो आनी जे कोण आपल्या दारांत मत मार म्हण सांगूंक आयिल्ले तांकां खूश करपा खातीर दोळ्यांक उदक लावपाचो दीस न्हय. हो दीस आमचो ५ वर्सांचो फुडार थारावपाचो दीस. हो दीस परत परत येना आनी आमी चुकले म्हणत रोखडो बदलूंय येना. आमचे कडल्यान जी चूक जातली ताचें पानवळ आमकां फुडलीं पांच वर्सां भोगचें पडटलें. देखून आतांच शादूर जावप गरजेचें.

ही पंचायतीची वेंचणूक आनी फुडल्या म्हयन्यांत येवपी विधानसभेची वेंचणूक परतून येतली ती बद्द आनीक पांच वर्सांनीं. तो वेळ गोंयच्या मुक्तीचो भांगरा उत्सवी सुवाळ्याचो वेळ. आमकां जर अभिमानान तो उत्सव मनोवपाचो आसत जाल्यार जाणी कोणे राजकारणाचो धंदो केला तांकां दाळाक लावपाचो वेंचणुकेच्या रूपान आयिल्लो हो काळ हें मतींत दवरूनच मतदान करूंक जाय

# प्रतिबिम्ब | भ्रश्टाचाराचो फांस देशाक आंवुळटा




भ्रश्टाचारी लोकांनी देश पोखरून उडयला. भ्रश्टाचाराक आळो घालपाखातीर तातुंतल्या कांयजाणांक तरी लायटीच्या खांब्याचेर जाहीर फांशी दिवन हुमकळावंक जाय अशा उतरांनी सर्वोच्च न्यायालयाच्या न्यायमुर्तींनी तिडक उक्तायल्या. भ्रश्टाचारान तेंगशी गांठल्या देखून न्यायमुर्तींच्या तोंडांतल्यान अशीं तिडकेचीं उतरां येवप सभावीकच. पूण मिलोर्ड, तुमी तिडक तरी उक्तायली! आमी तेंवूय करूंक शकनात. कारण कितलेय आड्डले तरी सामान्य मनशाक कोण वालोर दिता?

आतां मूळ प्रस्न असो : हो भ्रश्टाचार कोण करता? कसो जाता? ताचें मुळावण घालपी कोण? आमीच न्हय? आतां हेंच पळयात. गाडयेचें लायसन काडपाखातीर आरटीओच्या ऑफिसांत वचत जाल्यार एकाच धपक्यांत काम जायना. कितल्योशोच फावटी मारतकच आमच्या हातांत लायसन पडटा. पूण ह्यो फावटी टाळपाक जाय जाल्यार अधिकाऱ्यांच्या हातांत दुडू लावचे पडटात. हाची आमकांय सवंय जाल्या आनी तांचेय तें आंगवळणी पडलां.

गाडयेचें लायसन कित्याक? जल्माचो दाखलो मेळोवपाखातीर आमकां त्याच मार्गान वचचें पडटा. रांकेंत रावले बगर आमचीं कामांच जायनात. भ्रश्टाचाराच्या रेबकोंडांत हात बुडय नाशिल्लो मनीस आयज मेळपूच कुस्तार जालां. ह्या भ्रश्टाचारान सगळ्याच मळार आपलो शेक चलयला आनी म्हणूनच हो भ्रश्टाचार ना नपयत करप वा भ्रश्टाचार करतल्यांक सगळ्या लोकां हुजीर लायटीच्या खांब्याक गोळाक लावपाचो आदेश काडप हाका कसलोच अर्थ ना अशें खंतीन म्हणचे पडटा.

भ्रश्टाचाराचीं पाळां-मुळां इतलीं खोल रूतल्यांत कीं तीं हुमटावन काडप कोणाकूच शक्य ना आनी म्हणूनच आमचे पूल १६ वर्सांनी कोसळटात, रस्ते वर्सा भितर व्हांवतात, खून, दरोडे, बलात्कार करपी खुले आम भोंवतात. लोकप्रतिनिधींचेर वा अति महनीय व्यक्तिंचेर वा खुद संसदेचेर हल्लो करतल्याक न्यायालय ख्यास्त फर्मायता आनी सत्ताधारी ती ख्यास्त ताका मेळची न्हय म्हणून यत्न करतात. तलाक पिडेस्त मुस्लिम बायलेक पोटगी दिवपाविशीं सर्वोच्च न्यायालय इतिहासीक निकाल दिता आनी उपरांत सत्ताधारी तो रद्दबातल करपाखातीर घटनेंत दुरूस्ती करून कायदोच बदलून उडयतात. आनी परिणाम : मुस्लिम समाजांतल्यो लाखांनी शहाबानो तशोच निराश जावन तोंड धांपून अन्याय सोंशीत रावतात. समान नागरी कायदो चालीक लावपाचो आदेश सर्वोच्च न्यायालय तीन फावट दिता. पूण सत्तेवयले लोक मात जाप काडिनात. आयज लेगीत भ्रश्टाचार करतल्यांक फांसार हुमकळायात अशी तिडक उक्तावपी सर्वोच्च न्यायालय कायद्यान परवानगी दिवंक ना म्हणून तशें करूंक मेळना. ना जाल्यार आमी तशेंच करतले आसले अशी अगतिकता अक्तायता.

न्यायमुर्तींनी ज्या प्रकरणांत हें निधान केलां तें म्हत्वाचें. आपूण गरिबांचो कैवारी अशें भासोवपी लालू प्रसाद यादव ज्या खावड प्रकरणांत घुस्पल्यात त्या प्रकरणाची सुनावणी सुरू आसतना न्यायमुर्तींनी हें मत मांडलां. ताका लागून एक हजार कोटींची भानगड करतल्यांनी पयलीं आपली पदां सोडूंक जाय आनी जमता जाल्यार राजकारण सोडूंक जाय, पूण भ्रश्टाचाराक संवकल्ल्या लोकांकडल्यान अशी अपेक्षा करप म्हणल्यारूच पिशेंपणाचें.

खरें म्हणल्यार असले भ्रश्टाचार आमकां नवे न्हय. तातूंत नविदाद अशी कांयच ना. व्हडल्या व्हडल्या पदार आशिल्ले मनीस लिपचोरयां दुडू कशे घेतात आनी आपूण साव आनी निवळ म्हणून समाजांत कशे वावुरतात हें आमकां स्टिंग ऑपरेशना उदेशीं कळटा. भ्रश्टाचाराचीं नवीं नवीं प्रकरणां दिसपट्टीं भायर येतात. नवें प्रकरण पोरणो 'विक्रम' कुशीक उडयता. मागीर ती ६५ कोटींची बोफोर्स दलाली भानगड जांव, १००० कोटींची बिगबूल शॅर भानगड जांव, ६५० कोटींची साकर भानगड जांव, १३३६ कोटींची इंडियन बँक भानगड जांव, १७५ कोटींची ताज कॉरिडोर भानगड जांव ना जाल्यार ३००० कोटींची तेलगी भानगड जांव, आमकां आतां अशा भानगडींची सवंयूच जाल्या. भानगडींनी घुस्पल्ल्या लोकांक कांयच जावचें ना हें आमकां पुराय खबर आसा, आमच्या दोळ्यांक उदक ल़ावपाखातीर चवकशी समिती नेमतात हेंवूय आमी पुराय जाणांत. ह्या भानगडींनी नेमके दोशी कोण हें सोदून काडपा खातीर सत्र न्यायालय, जिल्ला न्यायालय, उच्च न्यायालय, सर्वोच्च न्यायालय अशीं सोंपणां चडत वर्सानवर्स ह्या प्रकरणांची सुनावणी चलता. ते मेरेन एक एक फावट पुरावेय नश्ट जातात. कितल्याश्याच वर्सांनीं न्यायालय निकाल दिता आनी दोन चार अधिकाऱ्यांक निलंबीत करपाचो फार्स जाता. हय! फार्सच तो. कारण भ्रश्टाचार कितलोय केलो तरी म्हजें कोणूच कांयच करूंक शकना हें तांकां पुराय खबर आसता.

आतां मजा पळयात. बोफोर्सांतली दलाली आसली ६५ कोटींची. पूण आयजमेरेन ह्या बोफोर्स प्रकरणाचेर खर्च जालो तो २५० कोटी. म्हणल्यार ६५ कोटी वसूल जावपाची गजाल सोडातूच वेल्यान लोकांच्या बोल्सांतले अडेचशीं कोटी गेले. पूण ताचें दुख्ख कोणाकूच ना.

प्रधानमंत्री, राष्ट्रपती आपल्या भाशणांतल्यान भ्रश्टाचार ना करतले अशी फटास मारतात. हय, सुरय फटास. कारण सत्तेर येतकच तेवूय तेंच करतले हें ना कळपा इतलीं अमी कुकुलीं बाळां न्हयत. जाणें राजकारणाकूच आपलें पोट भरपाचें साधन मानलां तांचेकडल्यान आमी अपेक्षा तरी कसली करपाची? भ्रश्टाचाराचीं पाळां मुळां इतलीं खोल मुंगरल्यांत की सरकाराचीं ध्येयधोरणां थारतनाय तीं आडमेळीं हाडटात. पोरणी अर्थवेवस्था भ्रश्टाचार शेंवटून मारपाक असमर्थ थारली म्हणून खाजगीकरण, उदारीकरण आनी संवसारीकरण आपणायलें पूण भ्रश्टाचार उणो जावपा बदला वाडटच गेलो.

सामान्य मनशाकूय आतां ह्या भ्रश्टाचाराची सवंयूच जाल्या. तो तरी कितें करतलो? आयज परिस्थितीच अशी आसा : कोणाक पासियेंस ना, उसरपत ना, वेळ ना. लोकांक कामां बेगीन जाल्लीं जाय आनी ताका लागून कितलोय दुडू दिवपाची तांची तयारी आसता आनी हांगाच भ्रश्टाचार मूळ धरता. भ्रश्टाचाराक पसवण दिवपाक खरें म्हणल्यार आमीच कारण. भ्रश्टाचार ना नपयत जांवचो अशें आमकांय दिसता पूण आमी कांयच करूंक शकनात. उलोवंकूय शकनात, आड्डूंकय शकनात. कोणाक सांगूंकय शकनात. आतां न्यायालयान हेविशीं तिडक उक्तायल्या. फक्त उक्तायल्या. न्यायालयूय दिसपट्ट्या वाडटल्या ह्या भ्रश्टाचाराचेर कांय एक करूंक शकना.

कारण ह्या भ्रश्टाचारान देशाकूय फांस घाला. ह्या भ्रश्टाचाराच्या फांसांतल्यान देशाची मान मेकळी जातली व्हय?

– अतुल र. पंडित
मडगांव

शिर्शकथा

# काँग्रेस आपलोच फोंड खणटा! तरी वयर सरूक पक्षाक संद आसा!!



दिलीप बोरकार

सद्या गोंयांत राजकीय धुमशेणां चालू आसात. तशीं तीं वर्साचीं बाराय म्हयने चालू आसतात. पूण हे दीस वेंचणुकांचे! वेंचणुकेकडेन नदर दवरून, आपल्याकूच उमेदवारी मेळटली वा मेळची ह्या हावेसान कांय जाणांनीं आयुश्याची कमाई ह्या धंद्यांत घाली ती दोनय हातांनीं खोरें-कुदळ घेवन आपले कडेन ओडपा खातीर उमेदवारी जाय आशिल्ली ती न मेळपाचो दुबाव उप्रासला देखून हीं धुमशेणां सुरू जाल्यांत.

गोंयच्या हेर थळाव्या आनी राष्ट्रीय पक्षांत हीं धुमशेणां चड दिसनांत. दिसनांत म्हणचे तीं नांच. कारण त्या पक्षांनीं खावपी तोंडांच कमी. तांकां आपलें अस्थित्व तिगोवपा खातीर, आनी नशिबान सांगात दिलो जाल्यार सत्तेर येवन थोडें किडूक मिडूक करप इतलोच बाबड्यांचो हावेस. नाय जमलें तरी तांकां तातूंत व्हडलेंशें सुख-दूख ना. कारण ताणीं जुगारांत बोली लावंकच ना. मागीर मेळ्ळें ना तर व्हडलीशी खंत करीत बसपाची तांकां गरजूय ना. पूण...

पूण काँग्रेस पक्ष हो पक्षूच असो कीं त्या पक्षाक एक व्हड परंपरा आसा. हो पक्ष



नेहरू-गांधीचो. आयज जरी हो पक्ष गांधी घराण्या पुरतोच मर्यादींत उरला तरी शंबर वर्सांचो इतिहास आशिल्ल्या ह्या पक्षान देशांत इतिहास घडयला. देशांत सर्वधर्म समभाव राबोवन लोकशाय तिगोवपाचो यत्न ह्या पक्षान केला. तेच पासत आयज हो पक्ष गांधी घराणें आनी ताचे भोवतणी हाजी हाजी करीत आनाळ्यो गुनाळ्यो करपी कांय संदी साधू लोकांचो पक्ष अशें जरी वयलेचाराक दिसलें तरी होच पक्ष चुको आदारून लेगीत देशाक राजकीय थीरताय दिवपी, धार्मीक एकचार सांबाळपी, सगळ्यांक समजून घेवन सर्वसमावेशक भावनेन लोकशाय तिगोवपी अशी एक भावना देशांतल्या लोकांमदीं आसा. तेच पासत काँग्रेस पक्ष हजार नाटकां आनी अवचीन्नपणां करून लेगीत सत्तेचेर येता आनी फाटल्यो चुको समजून घेवन तातुंतल्यान उजू मार्ग सोदपा बदला परतून परतून त्योच चुको करता आनी ह्या चुकां पासत त्या पक्षाक ताचें पानवळ भोगचें पडटा!

आयज देश भरांत वता थंय काँग्रेसीक वेंचणुकेंत मार खावचो पडटा. हो मार कित्याक खावचो पडटा हाचें विश्लेशण करून घडिल्ल्यो चुको सुदारपा बदला परतून त्योच चुको करप आनी जमता जाल्यार तातूंत अधीक तरांच्या चुकांची भर घालप. हेंच आयज काँग्रेस पक्षांचें मुखेल कार्य थारलां!

केंद्रांत राष्ट्रीय काँग्रेस पक्ष जसो कुबड्यो घेवन सत्तेर आसा तसो गोंयांतूय गोंय प्रदेश पक्ष राष्ट्रवादी काँग्रेस आनी मगो पक्षाच्या कुबड्यांचेर अजून सत्ता भोगता. कितेंय म्हणात पूण पोटभर वाडात अशे तरेचें एक ध्येय धोरण बाळगून काँग्रेस पक्ष सत्ता भोगता. सत्ताधारी पक्षाक ताजे दोनीय वांगडी पक्ष संद मेळटा तशी खेपता आनी आपलें आसन बळकट करता. वेंचणुको तोंडार पावल्यो तरी गोंय प्रदेश काँग्रेस समितीचे उमेदवार थारनांत. पूण सरकारचे घटक पक्ष आसात ताणी आपले उमेदवार निश्चित करून, सरकारांत रावनय आपल्या उमेदवारांच्या प्रचाराची दुसरी फेरी लेगीत पुराय केल्ली आसा. अशी ही गोंय प्रदेश काँग्रेस! नाक शिमरी! हात दाखोवन अवलक्षणां करपी!

काँग्रेस पक्ष देशांतलो लोकशायेची



चाड आशिल्लो, लोकशाय देशांत पस्वची, तिगची आनी ती घटमूट जांवची अशी भावना आशिल्लो पक्ष विचार स्वातंत्र्य हो लोकशायेचो पयलो आदार. आज गोंय प्रदेश काँग्रेस पक्षान लोकशायेचो होच अर्थ काडून आपल्या सक्रीय सदश्यांक मूक्त विचारांचें कुरण मेकळें सोडलां. चर्चील आलेमांवा सारको काँग्रेस पक्षाचो खासदार, खासदार जायत सावन, लोकसभेंत एकदांय आवाज काडपाचें सोडून गोंय प्रदेश पक्षा आड आनी तांच्या मंत्र्यां आड गांवभर आवाज काडीत भोंवता. गोंयची काँग्रेस म्हळ्यार कितली वायट आनी हेर पक्ष कितले बरे! गोंयचे काँग्रेशीन गोंय कशें काबार केलां देखून ती गोंयच्यान काबार करूंक जाय अशें आपलो दुसरो थळावो पक्ष काडून त्या पक्षाच्या माचयेवेल्यान सांगता आनी तेंय बी काँग्रेस पक्षाचो सक्रीय वांगडीच न्हय तर त्याच



पक्षाचो संसदेचो वांगडी म्हूण फावो जावपी सगळे लाब घेता आसतनाच.

इतलेंय करून लेगीत गोवा प्रदेश काँग्रेस वो राष्ट्रीय काँग्रेस ताच्या आड ब्र लेगीत काडिना. हाका लोकशाय म्हणपाची! पक्ष शिस्त म्हणपाची काय ज्या पक्षाक शंबर वर्सांचो इतिहास आसा अशें मानीत आयल्यात त्या इतिहासाचें हें भागराच्या अक्षरांनीं बरोवपाचें पान समजुपाचें हें कळपाक मार्ग ना.

देशांतलो शिस्त बद्द पक्ष खंयचो? तर एकूच काँग्रेस पक्ष म्हण पळोवप जाताले! ह्या शिस्त बद्द पक्षाचे वाडी खातीर जे प्रयत्न जावंक जाय, तळा गाळा मेरेन ती पावून लोकांक ती आपली दिसूंक जाय असो वावर आयज पक्षांतलो एकलोय फुडारी करूंक येवजिना. आयज काँग्रेस पक्ष आस्तित्वांत आसा अशें दिसपाचें कारण म्हळ्यार तो सत्तेर



आसा आनी गोडा भोंवतणी मूस फिरचे, दोमळे जमचे तशी शी अवस्था ह्या पक्षाची जाल्ली आसा. पक्षाचे कार्यकर्ते मंत्र्यांच्या दारारूच वर्सुयभर दिश्टी पडटात. पक्ष कचेरींत कोण चुकून लेगीत पावल दवरिनांत. पूण वेंचणुको लागीं आयल्यो म्हणटकच पक्ष कचेरेंत मुयेक लेगीत भितर रिगपाक सुवात मेळना. असो हो आपसुवार्थी लोकांचो पक्षाच्या नांवान तयार जाल्लो एक संदी साधू लोकांचो पंगड!

पक्ष बांदून घेवपाक जाय. ही भावनाच जशी फुडाऱ्यां मदीं ना तशी कार्यकर्त्यां मदींय ना. पक्षाचे फुडारी जे आसात तांकां पक्ष म्हळ्यार वेंचणुकेवेळार नांवा खातीर कुकमाचो धनी म्हण जाय पडटा. काँग्रेस पक्षांत आयज चडशे फुडारी आसात ते सगळे स्वबळाचेर वेंचून आयिल्ले आनी स्वबळाचेरूच वेंचून येतले हाची खात्री आशिल्ले फुडारी.

तांकां वेंचणुके वेळार कोणाक किते दिवंक जाय, खंय सोरो-रोट घालूंक जाय तें जुस्ताक जुस्त खबर आसा. इतल्या वर्सांचो अणभव तांचे गाठीक आसा. मतदार म्हळ्यार तांच्या हातांतलीं बावलीं. बावलींच न्हय! सोरो, चिकन आनी पांचवी-तांबडी नोट तांचे मुखार उडोवन जांची गळ्यांतली दोरी आपल्या हातांत दवरल्या अशी ती विस्वासू मोनजात! वेंचणुके वेळार मात्शी पोशेली जाल्यार शेपडी हालयत पायांकडेन येवपी! समजा मात्शी गुरगुरली जाल्यार नोटीचीं हाडां आसातूच!

पूण हो आत्मविश्वास, ही खात्री केन्ना केन्नाय धोकोय दिता. इजिदोर फेर्नांडीसा सारख्या दुडवांच्या नेटार उडपी फुडाऱ्याकूय अशेंच दिसतालें. पूण जांकां तो विस्वासू मोनजात मानतालो तेच मोनजातीन एक-दोनदां ताचे मुखार शेपडी हालयली आनी आतां ताची संवंयेर हें पडटा अशें दिसले बराबर ताचेर उडी घेवन ताका जमनीर लोळयलो.

सगळेच कडेन, सगळ्याच वेळार दुडवांचो नेट चलना. मतदारांकूय आपली असो स्वाभिमान आसता. एक-दोन खेप आपलो असो मानून मतदार खेतें आंगार खेळयतात. पूण पिडूंक लागलें म्हणटकच ताका जमनीर आपटीतात म्हणपाचें उदारण दाखल्या सयत इजिदोराच्या रूपान मेळिल्लें आसा.

देशाक पक्ष बांदावळ म्हळ्यार किते, पक्षकार्य म्हळ्यार किते, पक्ष शिस्त म्हळ्यार किते हाची देख खरें म्हळ्यार गोंयच्या काँग्रेस पक्ष फुडाऱ्यांनी देशाक घालून दिवं येताली. ताचें कारण म्हळ्यार गोंय हें अत्यंत ल्हान राज्य आनी हांगचे मतदार संघ म्हळ्यार एका दिसांत सगळीं घरां भोवून जाता इतलो ल्हान. मतदारसंघ फुडारी वो मागीर आमदार लेगीत आसल्यार वा फुडाराक वेंचणुकेक रावपाचीं सपनां रंगोवपी संभाव्य उमेदवार व्यक्तिगत रूपान दरएक मतदाराकडेन संपर्क दवरूंक शकता. इतलेंच कित्याक? दरएक मतदाराक नांवान वळखुपा इतलो एक एक मतदार संघ ल्हान आसा. कांय आमदार तर इतले खेप एका मतदार संघांतल्यान वेचून आयल्यात कीं त्या मतदार संघांतल्या खंयच्या घरांत कितले मतदार आसात आनी कितले नवे तयार जावपाचे आसात हाचो हिशेब वर्सा - म्हयन्या सयत तांचे कडेन आसता. तांचो मतदार संघांतल्या ह्याच व्यक्तीगत संबंदाक लागून ह्या आजन्म मक्तेदारी घेतिल्ल्या काँग्रेस फुडाऱ्यांक मागरिट आल्वा बी विनेबिलिटीचो तकटो लायतात.

खरें म्हळ्यार होच व्यक्तिगत संपर्क व्यक्तिगत उर नासतना तो पक्षाची बांदावळ करूंक पक्ष कार्यकर्त्यांची फळी निर्माण करूंक जाय आशिल्लो. पूण ह्या मतदारांचो पक्षाकडेन कसलोच संबंद नासता. तांकां पक्ष आपलो अशें दिसच ना. तांकां दिसता ती पक्षाची तोपी वा शाल आंगार घेवन मिरोवपी ही एकूच व्यक्ती पक्षाची! आमी मात ताचे! तो जे वाटेन आपली तोपी फिरयता वा सुकाणू धरता ते वाटेन हे ताचे मतदार आनी व्यक्तिगत कार्यकर्ते वतात. आमी पक्षाचे कार्यकर्ते, पक्षबदलू फुडारी आपल्याक जंय वचूंक सोदतात थंय वचूंदी! ताचो सुवार्थ ताका! आमी एका राष्ट्रीय पक्षाचे सदस्य. फुडारी येतले आनी वतले. पक्ष निरंतर तिगूंक जाय ही भावनांच गोंयच्या काँग्रेस पक्षान कार्यकर्त्यांमदीं केन्ना बळायलीच ना. पक्ष म्हळ्यार फक्त व्यक्तिगत बळाचेर वेंचून येवपी लोकांची तात्पुर्ती संघटनां. एकट्या एकट्यान खावंक मेळना वा पक्षांतराचो हावको सतायतलो म्हण पक्षाच्या नांवान एकठांय येवन खावपाची एक वेवस्था!

जेन्ना अशी ही परिस्थिती उप्रासता तेन्ना कार्यकर्तो खंयच्याच पक्षाचो असो उरना. तो जाता चर्चीलाचो, राण्याचो, लुईझिनाचो, बाबुशाचो! मागीर पक्षाक सुवात





खंय आसा?

गोंयचो प्रदेश काँग्रेस पक्ष हो राष्ट्रीय काँग्रेस पक्षाची परंपरा घेवन आयिल्लो पक्ष. ह्या पक्षाक पुरूषोत्तम काकोडकार, सुलोचना काटकार, प्रफुल्ल प्रियोळकार, विनायक मयेकार अश्या कितल्या तरी आदर्शवादी फुडाऱ्यांचो पक्ष म्हण वळखतात. हांच्या शिस्तबद्द योगदानाक लागून गोंयांत पक्षाची वेगवेगळ्या स्तरावेली फळी तयार जावंक पावली. ह्या पक्षाकडेन गोंयचे जनतेची लागणूक जुळोवन आयली ती ह्याच लोकांच्या तत्वांक आनी वावराक लागून! पूण आज हे लोक आनी तांचे विचार खंय आसात? एक शांताराम नायक सोडलो जाल्यार ह्या गोंय प्रदेश काँग्रेस पक्षांत दुसरो रियल काँग्रेस मॅनूच ना. एक निर्मला सावंत आशिल्लें. ताका लेगीत तो पक्ष सोडून वचचें पडलें. भुतदयेन घरांत आसरो दिल्ल्या जनावरांच्या घुट्टाणीक लागून तांची संख्या वाडटकच धनयांकूच घर सोडून आपले नाकाक धरून भायर सरून वच्चें पडटा तशी शी अवस्था पक्षाची जाल्या.

आयज वेगवेगळ्या पक्षांतले, तो पक्ष फोडून, सोडून आयिल्ले फुडारी काँग्रेस पक्ष बळकावन बसल्यात. आयज जे काँग्रेसचे फुडारी म्हण मिरयतात तांतलो एकलोय मूळ काँग्रेस न्हय. तांकां काँग्रसचे विचार कितें ते खबर ना, तांकां काँग्रेसचीं तत्वां खबर ना. तांकां पक्षाचीं ध्येय धोरणां खबर ना. जे कोण हेर पक्षांतल्यान गांवार हेडून हेडून ह्या पक्षांत आदीं आयिल्ले ते आपली बसकण घट जाल्या, सिनियरिटी लाबल्या देखून ह्या पक्षाक घट्ट घांस मारून आसात. पूण रमाकांत खलपा सारखो अजुनय मांद्रेची तिकेट दिना जाल्यार आपल्याक राष्ट्रवादी काँग्रेस दिता अशें आपूण न्हय हेरां मार्फत सुचयता.

आरे पापया, तूं देशाच्या सर्वोच्च पदाचेर ह्या आदीं बसून आयिल्लो मनीस. तूं आनी ह्या थळाव्या रेब्यांत कित्याक लोळटा? तुकां सोबना तें! जे कोण उमेदवारी खातीर हट्ट धरून बसल्यात, आदळ आपट करतात तांकां करूंदी! तूं पक्षांतलो जाण्टेलो! तुवें सांगपाचें, नव्या भुरग्यांक उमेदवारी दिवया! आमी तांकां मार्गदर्शन करूया, तांकां निवडून हाडुया! पूण हांगा जाता उरफाटें! पूत लग्नाचो जालो, तो आपलें जुळोवंक भोवता, बापायन, आज्यान ताका ते पासत मजत करपाची. ताच्या कर्तुत्वाक वाव दिवपाचो! तर बापूय आनी आजोय बी ताका सांगता, आरे तुजें काम न्हय तें! तें आमचें काम! आमी अजून ताका लायक आसात. आमीच करतात जें कितें करपाचें आसा तें! तूं हे थोडे पयशे घे. आमचो पलंग मात्सो फुलांबिला घालून सजयात. तेंच तुमचें काम!

सरणार वचपाची तयारी करपाची सोडून सव्यार चडपाक मुखार येवपी ह्या माकडांक मतदारांनीं खरें म्हळ्यार खोटावंक जाय आशिल्ले! पूण इतलीं वर्सां सत्ता भोगून जे दुडू कमायल्यात ते दुडू खंय इन्वेस्ट करपाचे? ते खातीर तांकां काँग्रेस पक्ष आनी पक्षाची उमेदवारी जाय!

दुसरी गजाल जे कोण नव्या पक्षांत आयल्यात ते! खरेंच जे कोण पक्षाचें काम करीत आयल्यात ते! युवा काँग्रेस, महिला काँग्रेस बी मळार कार्य केलां, ताणीं उमेदवारी मागली जाल्यार हरकत ना. तो तांचो अधिकार! तांकां उमेदवारी पासत पयलें प्राधान्य मेळूंक जाय. पूण हजार गांवचें उदक पियेवन आयिल्ले, हांगा थंय हेडून आयिल्ले, जांकां कसलोच विचार - आचार ना, जांचे भितर नितिमत्ता ना वा आपूण ज्या मळार भितर सरूंक सोदतां ताचे पावित्र्य आनी म्हत्व खबर ना ते लोक आपलयाकडेन मतां विकतीं घेवपा खातीर दुडू आसात देखूनच उमेदवारी मागतात. उमेदवारी मेळना जाल्यार पक्ष काबार करपाची भास उलयतात. थळाव्या पक्षाच्या अध्यक्षांकूच न्हय, राष्ट्रीय अध्यक्षांक, पक्षश्रेश्ठींक भिवयतात. ही इतली कापासदाद ह्या लोकांक खंयच्यान आयली? ना शिक्षण, ना विचार, आंगांत कसले आदर्शवाद ना. आसात ते दुडू. हे दुडू खंयच्यान आयले? ह्या दुडवांच्या बळार मतदारांक विकते घेवन हे लोक सत्तेर येवंक पळयतात ते कित्या खातीर? ते कसली समाज सेवा करूंक सोदतात? ही गजाल पक्षश्रेश्ठींक होलमना? काय पक्षश्रेश्ठी आनी तांचे दूत गोंयांत विनेबिलिटिच्या निकशाचेर घराणेंशाय, साम्राज्यशाय हाडूंक सोदता? आयज काँग्रेसपक्षाची उमेदवारी मागपी जे कोण दुडवांकार युवा फुडारी आसात ताणीं हे आदीं कितें केलां तें जग लोकाक खबर आसा. तांकां उमेदवारी मेळ्ळ्यार ते निवडून येतलेच. एकदां निवडून आयले म्हणटकच मागीर तांकां घरा बसोवंक कोणाक तांक ना. मरसर ते दरएक वेंचणुकेक उबे रावन, दुडू घालून निवडून येतले आनी आपले सत्तेचो वापर फक्त दुडू करूंक, गोंयचें निसंतान करूंक करतले. हें काँग्रेस पक्षाच्या पक्षश्रेश्ठींक कितें खबर ना?

आयज पुराय देशांत काँग्रेस पक्ष वेंचणुकेंत हारत आसा. गोंयची वेंचणूक एका म्हयन्यार पावल्या. गोंयचेवेली काँग्रेसपक्षाची तरी सत्ता तिगून उरची अशें पक्षश्रेश्ठीक दिसप साहजीकच आसा. तेच पासत एका घरांत जितल्यो तिकेटी मागता तितल्योय दियात. फक्त वेंचून येवंक जाय. काँग्रेस पक्ष सत्तेर येवंक जाय. एकदा पक्ष सत्तेर आयलो

म्हणटकच हांगा घराणेशाय जांव वा येवं साम्राज्यशाय! कोणें हुस्को करपाची गरज ना. जाणें कोणें वेंचून येवंक भांडवल घालां ताणें तें परत वसूल करूंक जाय. गोंयचें पाड पडना!

पूण हें चितप खरें न्हय. उमेदवारी मागूंक येवपी, ते खातीर पक्ष सोडपाची भास उलोवपी, दुडवांच्या नेटार वेंचून येतय बी! पूण गोंयचो मतदार हो अजून लाचार जावंक ना. हेर पक्ष, काँग्रेस पक्ष आपल्या करण्यांनीं कितलो रेब्यांत, बांबरांत मुंगरता तें पळयत आसात. आपणें कितेंय बरें करून आपलो पक्ष वयर काडपाची हांगची मनोवृत्ती ना. हांगा दुसऱ्यांचीं कुतां वयर काडून, तांच्या मुखार आपूण कितलो बरो हें दाखोवपाची मानसीकता! काँग्रेस पक्षाचें सद्याचें कार्य पळोवन हेर पष आपलें टुणटुणें वाजयतात. तरी दर एक मत्तदार संघांत काँग्रेस पक्षाचे बरें मागपी मतदार आसात. ते मतदान करतात ते पक्षाचें तोंड पळोवन. दुडवांचें न्हय! आयज काँग्रेस पक्षान कितली हळशीक केली तरी तांचे हे मर्कटलिलेक माफ करून हुंदराच्या रागान घराक उजो नाका ह्या धोरणान हे लोक काँग्रेसीक मतां घालतात. काँग्रेस पक्षाची कांय सुवार्थी, संदी साधू लोकांनीं वाट लावन उडयली तरी आपल्याक दुसरो पक्ष ना देखून वेंचणुके वेळार, पाड पडूं! म्हणत ह्या पक्षाक मतां दिवपी लोक ह्या गोंयांत आसात. देखून जे कोणाक दिसता कीं दुडवांचेर गोंयचें राजकारण चलता जाल्यार तें फट! दुडवांनीं अर्दे मतदार घेतले तरी अर्दे फक्त आपली पक्षाकडची लागणूक वळखून मतदान करतात वो मतदाना पासून पयस रावतात! हाकाच लागून जाणीं राजकारणाचो धंदो केला तांचें फावता!

म्हणटकच काँग्रेस पक्षान हाची जाविकाय दवरूंक जाय! जे कोण आपूण नासल्यार पक्ष फोंडांत वतलो म्हण भंय घालतात, तो भंय घालून उमेदवारी मागतात तांचेर खोंट घालपाची वेळ आयल्या. तांकां जाणविकाय करून दिवपाची वेळ आयल्या तुमचे परस पक्ष व्हड. पक्ष तुमचे खातीर सत्तेर येना. तर पक्षाचे मतदार संघांत जे मतदार फाफसल्यात ताणीं पक्षाक मतां दिल्ल्यानूच तुमी सत्तेर आयल्यात. तेन्ना मतदारांचो मान राखपा खातीर तांकां जें मानवता तेंच धोरण पक्षाक राबोवंक जाय! तांकां जाय तसलेच तांचे प्रतिनिधी पक्षाचे वतीन विधानसभेर वतले!

पूण अशें करपाचें धाडस पक्षांत ना. कित्याक जे कोण हांगा गोंयचो फुडार थारायतात ते फुडारी उमेदवारी खातीर दुडू घेवन भोवपी गोंयच्या तथाकथीत फुडाऱ्यांच्या दुडवांच्या वज्यान



चिड्डल्यात. तांकां ह्याच लोकांक उमेदवारी कशी मेळटली हें पळोवंक जाय. उमेदवारी दिवपाची दलाली घेवनूच ह्या फुडाऱ्यांनीं कंत्राट केल्लो आसा. कंत्राटा प्रमाण उमेदवारी दिली ना जाल्यार एक तर घेतिल्ले दुडू परत कर ना तर मार खा. अशी परिस्थिती सद्या हांगा उप्रासल्या. त्या पासत हांगच्या दलालां वतीन भलतोच रिपोर्ट पक्ष श्रेश्ठीकडेन पावता आनी पक्षश्रेश्ठी निर्णय घेवपाचो अधिकार ह्या दलालांक दिता.

हेच पासत उमेदवारी वा तिकेटी वाटपाच्या निर्णायक समयार गोंय प्रदेश काँग्रेस अध्यक्षांक भायर काडटात. उमेदवार निवड समितीक विस्वासान घेनात. हें जर अशेंच चल्लें जाल्यार काँग्रेस पक्ष जो आपलोच फोंड खणटा ताका त्या फोंडांतूच पडून आपले वयर माती ओडून घेवन, ताचे वयर नेहरूचो गुलाब दवरून घेवचो पडटलो. कारण आयज वेंचणूक तोंडार पावल्या आसतना पक्ष जें कितें करता तें फोंडांत पडपाचेंच करता.

तरी हातुंतल्यान भायर सरपाची भांगराची संद काँग्रेसीक आसा. ताका लागून थळाव्या फुडाऱ्यांनी आनी दलालांनीं गोंयच्या राजकीय तज्ञांक विस्वासांत घेवंक जाय. मतदारांचें मत तपासून पळोवंक जाय. आनी हेंच मत दिल्ली पक्षश्रेश्ठींक कळोवंक जाय.

प्रादेशीक आराखडो रद्द करपा खातीर चर्चीन फुडाकार घेवन गोंयांत मोठें आंदोलन उबारलें. काँग्रेस सरकारचो हो आराखडो रद्द करपाक लायलो. तरी एकवटीत क्रिस्तांव समाज गोंयचे काँग्रेसीक सोडून दुसऱ्या पक्षाकडेन वचप शक्य ना. फक्त जांचेर चर्चीचो आरोप आसा त्या उमेदवारांक उमेदवारी दिनासतना तांचे सुवातेर स्वच्छ उमेदवार दवरूंक जाय. पक्षांतले जे कोण विनेबिलिटिच्या पाख्याखाल गोठेल्यात तांची पिराय आनी ताणीं आयजवेर भोगिल्ले सत्तेचो हिशोब करून तांकां सक्रीय राजकारणांतल्यान कुशीक काडूंक जाय. तांकां खाज आसा जाल्यार जे कोण उमेदवार तांच्या मतदार संघांत उबे केल्यात तांकां निंवडून हाडून तुमची विनेबिलिटी सिध्द करात म्हण सांगूंक जाय. ताणीं आयजवेर पक्षाच्या नांवान जितलें कमयलां ताची ख्यास्त म्हण तांचे कडल्यान सक्तीन हो वावर करून घेवंक जाय. जो कोण फाटीं फुडें जाता ताका ओगी बसोवंक जाय. फिलीप नेरी रॉड्रीग्स सारखे सुशिक्षीत, मतदारांक आनी मतदार संघाक अभिमान दिसपा सारखे उमेदवार पक्षाकडेन आसात. तांकां उमेदवारी दिवपा वांगडाच युवा काँग्रेस आनी रासवळ मळार जांची पत आसा असल्या नव्या उमेदवारांक उमेदवारी दिवन पळोवंक जाय. लोक पक्षाच्या असल्या धोरणांक आनी निर्णयाक रावल्यात. पक्ष माफिया कडेन वता हें दिशिल्ल्यान विचारी लोक पयस रावतात. तांकां लागीं हाडून पक्ष सत्तेर हाडपाचो म्हळ्यार फोंडांत वता तो परतून वयर काडपाचो होच एक उपाय आसा. ना तर हे वेंचणुकेक पक्षाच्या दलालानी ताच्या फुनेरालाची तयारी करची आनी फुडाराक तयार जावपी माफिया गेंगाच्या येवकाराक फुडो करचो. आमेन!

■■■

नवलिका

# गोंदू



गोंदूलो पंगड फायनल मॅच जिंकलो. पाद्रील्या इस्कोलांतच शिकपी एका भुरग्यान वेगळो पंगड काडून पाद्रील्या इस्कोलाक हारयलें आनी तो भुरगो पूण कोण? एक गावडो! पाद्रीले इस्कोलाचें कोणाक कांयच पडूं नासलें. पूण एका गावड्याल्या नाकूटभर पोरान एका बळिश्ट प्रिन्सिपालाक बुध्द शिकयली! अशी चर्चाय गांवभर चलताली. ज्या समाजांत कर्तुत्वाहून जात-धर्माक चड म्हत्व दितात, थंय असल्योच गजाली तिखट-मीठ लावन लोक उलयतात. अन्नाडी लोकांक असल्योच गजाली चड आवडटात.

काल मेरेन पाद्रीक दिसतालें इस्कोलाचोच पंगड जिंकतलो म्हूण! तशें दिसपाचें कारण गोंदूल्या पंगडाहून इस्कोलाचो पंगड खेळपांत बरो आसा म्हण न्हय. पाद्रीन आनी इस्कोलाच्या शिक्षकांनी आनी भुरग्यांनीय तशेंच वातावरण निर्माण केल्लें. पाद्रीन आपल्या पंगडाखातीर उदकाभशेन दुडू व्हारयल्लो. गांवच्या लोकांकडच्यान इस्कोलाच्या पंगडाक तेको मेळचो म्हूण सगले तरेची शक्त वापरिल्ली पाद्रीन.

आपल्या पंगडाच्या जैता पासत सगळे तरेचे यत्न करप वायट म्हणू नज. पूण आपल्या आड खेळपी पंगडांत फूट घालून जैत मेळोवपा खातीर पाडेपण करप, हें देवाच्या दरबारांत केन्नाच खपना. प्रिन्सिपालान दुडवांच्या फोर्सार आपलो पंगड जिकपाक जें किर्ते केलें, तें गोंदूक साप्प मानवलें ना. पयलीं प्रिन्सिपालाक गोंदू देवमनीस मानतालो. ताका दिसतालें, प्रिन्सिपालाच्या हातान कितेंय वायट घडलें जाल्यार तें पाडे लोकांच्या सांगण्यान. पूण आतां गोंदूलो पंगड जिखपाक सोता पयशे वाटले. प्रिन्सिपालाच्या ह्या पाड्या कर्तुबांनी तो गोंदू मुखार फिको पडलो. ताचें आत्मीक बळ खचलें. फाल्स चेरो दाखोवन तो लोकांक फटोवंक शकतालो पूण आपल्या मनाक न्हय.

गोंदूलो पंगड फायनल जिंकलो. खेळाचे परंपरे प्रमाण हारलेल्यांनीं जैतिवंतांचें, वयलेतरांक जरी आसलें तरी अभिनंदन केलें. इतलें सगलें करूनय प्रिन्सिपालान तर आपलोच पंगड जिंकलो असो देखावो केलो. ताणें गोंदूक वेंग मारली. केंसार हात वोडलो. दोनय हातांनी पोले पोशेले. नकली हाशांन आपलो चेरो सजयलो.

म्हन्यांतच तोपयो सर आनी ताचे वांगडी बसून आशिल्ले. प्रिन्सिपालाकडच्यान गोंदूचो थातोमातो जाता तो पळोवन तोपयो सरय फुल्लो. ताणें आपल्या वांगड्यांकरवी गोंदूक उबाल्लो. शिमग्यांत नाचयतात तसो ताका नाचयलो.

गोंदूक मात हें सगलें नवें आशिल्लें. कालमेरेन आपल्याचेर नदर पडल्यार तोंड काळें करपी मनीस आज दुसरेच भशेन वागतात. ते तशे मनांतसावन वागिल्ले जाल्यार आजचें म्हाभारत घडचेंच नाशिल्लें. तोपयो सरा असल्या वायट मनशाचे लगाडीक लागून प्रिन्सिपालान जीं काळीं कृत्यां केलीं, तीं केन्नाच भोगसुपाचीं न्हय. तोपयो सर आनी तांच्या वांगड्यांचें एका वोगतार समजूं येता. पूण फादर हो देवा मनीस. चुकिल्ल्यांक वाट दाखोवपी! अधर्म्यांक धर्म शिकोवपी! ताणें दोन पंगडांमदें फक्त मध्यस्त म्हूण उबो रावंक जाय आसलो. गोंदू आनी इस्कोलाच्या फुटबॉल पंगडांत खेळपी सगळे भुरगे पाद्रिलेच आसले. कोणय जिंकूं जैत आपलेंच आसतलें अशें प्रिन्सिपालान मानूंक जाय आसलें. पूण तशें जालें ना. भितरल्यान कुसकेंपण आनी भायल्यान नितळसाण, हें गोंदूल्या राज्यांत चलपा सारकें नासलें. गोंदूल्या राज्यांत चलतालें तें चोख नाणें.

फुटबॉलाची सर्त आतां काबार जाल्ली. ल्हाना-व्हडांक आनी पोरां-तोरांक फुटबॉल सर्तीचो चडिल्लो जोर आतां देविल्लो. ग्रावंडावेले सगले लोक फांकारले आनी म्हण्टा म्हणसर खंयच्या खंय नाच जाले. इस्कोलाच्या पंगडाचे खेळगडे आपलीं तोंडां लिपोवन गर्देतल्यान नाच्च जाल्ले. ग्रावंडार उरले ते कांय प्रतिश्ठित लोक आनी मुखेल सोयरे. गोंदू पंगडाचो मुखेल म्हूण कप आनी पन्नास हजारांचें इनाम घेवंक फुडें आयलो. मुखेल सोयऱ्याकडच्यान कप घेतासतना फोटो घेवपा पासत फोटोग्राफर फुडें आयलो. फोटोग्राफर फोटो घेवपाक क्लिक मारपाचोच आसलो. इतल्यान खंयच्यान तरी तोपयो सर धावून फुडें आयलो. ताणें फादर प्रिन्सिपालाच्या हाताक धरून पोजिसांवान गोंदू म्हन्यांत उबो केलो. गोंदूक तें विचित्र दिसलें आनी आवडलेंय ना. तोपयो सर इतल्यान थांबलो ना. ताणें कोपासयत गोंदूक आपल्या आनी फादर प्रिन्सिपालामदें उबो केलो आनी फोटोग्राफराक फोटो घेवपाची ओर्द सोडली. फोटोग्राफर गोंदळलो. ताका फकत गोंदूचोच फोटो घेवपाचो आसलो. तो फोटो घेवपाचो सोडून सगळ्यांच्या तोंडाक

पळयत रावलो. गोंदूच्या तोंडारय ताका नाराजी दिसली.

गोंदूची नाराजगी प्रिन्सिपालाच्या लक्षांत येवंक चड वोगोत लागलो ना. ताणें तोपयाक आडायलो आनी म्हणलें-

"आरे तोपया, तूं मात्सो हाटल्यान राब रे! फुडें फुडें कितें कोत्ता? पोंगोडाचो मुखेल तूं वो गोंडू रे! पयलो कोपासोयत फोटो गोंडूचो. माजीर आमचो. कितें म्हुण्टाय रे गोंडू!"

"फादर म्हाका आर्दी पावलू आनी ताच्या मामावांगडा ट्रोफीसयत फोटो काडूंक जाय." गोंदून धिटायेन सांगलें.

"व्हाय नोट, व्हाय नोट?" अशें म्हणून फादरान तोपयाक फाटीं धुकल्लो आनी फाटल्यान बशिल्ल्या पावलूक खुणायलो. फादरान आपल्याक कित्याक खुणायला हें पावलूच्या लक्षांत आयलें. पूण तो जाग्यावेलो हाल्लो ना आनी कोणय जाल्लो जाल्यार धांवून वतलो आशिल्लो.

पावलू उठना तें पळोवन गोंदू मामाकडें धांवलो. मामाच्या दोळ्यांत दोळे थिरावन तो कांय वोगोत तसोच उबो रावलो. गोंदू आपल्याक कितें सांगूंक सोदता हें कळूंक मामाक वोगोत लागलो ना. तो मिशांत हांसलो. पूण गोंदूचो चेरो मात निर्विकार! ताणें मामाच्या भेंडाक घट्ट वेंग मारली. ताच्या दोळ्यांतल्यान दुखां व्हावूंक लागलीं. दुखांचे थेंबे मामाच्या पावलांचेर पडूंक नासले जाल्यार गोंदू रडटा तें मामाक कशेंच कळचें नासलें.

मामान गोंदूच्या केसांचेर हात ओडलो. ताचे खाडकेक हात लावन ताका मान वयर करूंक लायली. गोंदूचीं दुकां आतां दोनय दोळ्यांनी थिरावन थंय दोन न्हंयो तयार जाल्ल्यो. मळब आनी ह्यो दोनय सानुल्यो न्हंयो हांचे मदें मामाले दोनय अणभवी दोळे आड आयिल्ले. ह्या दोळ्यांकय आतां जोरगतीची भरती आयिल्ली. ताचे दोळे आतां गळूंक लागले. पावळ्यो गोंदूच्या चेऱ्याचेर पडून दुखांत दुखां मिसळूंक लागली. खिणांत आत्म्या आत्म्यांतले भेद नाच्च जाले. हिन्दू किरिस्तांवपण दुखांनीं खंयचे खंय व्हावन गेलें.

ग्रावंडावेले लोक जळमळाक फांकले तरी खुबशे लोक अजून सुवाळो पळोवंक थंय



हाजीर आसले. मामा आनी गोंदू मदें येदो वेळ जो आत्ममेळ चलतालो, ताचे फाटलें गुपीत फादर प्रिन्सिपाल आनी हेर थोड्यांकच खबर आशिल्लें. पूण ते आपल्याक कांयच खबर ना, अशेंच दाखयताले.

फोटोग्राफरान मामाक आपल्याक जाय थंय उबो केलो. गोंदूकय मामा म्हऱ्यांत उबो रावंक सांगलें, पूण गोंदूक जाय आसलो आपल्या वांगडा पावलू. हे ट्रोफीचे खरे वांटेकार मामा, पावलू आनी गोंदू. मामाक थंयच सोडून गोंदू पावलू म्हऱ्यांत धांवलो. दोगय इश्ट आतां एकमेकाक मूकपणान पळोवंक लागले. कोणाच्याच तोंडांतल्यान उतर सुटनासलें. सगलें उलयताले ते दोळेच.

गोंदून मोन्यानीं पावलूचो हात धरलो. बळयांनीच ताका हाडून मामा म्हऱ्यांत उबो केलो. आपूण तांच्या मदें उबो रावलो. मुखेल सोयऱ्यां हस्तुकी ट्रोफी स्विकारली. तिगांनीय ट्रोफी वयर उबारली. फोटोग्राफरान आपलें काम केलें.

सर्त सोंपल्या उपरांत ग्रावंड रिकामो जालो. गोंदूक परबीं बिरबीं दिवन, इस्कोलाच्या प्रिन्सिपाला सयत मुखेल सोयरे आपापले वाटेन गेले. आतां ग्रावंडार उरिल्ले फकत गोंदूले पंगडाचे पुराय खेळगडे, गोंदू, मामा आनी पावलू.

पावलू मात आतां बुचकळ्यांत पडिल्लो. ताका दिसतालें, आपणे ग्रावंड सोडून एकट्यानच तोंड लिपोवन आड वाटेन घरा पळचो. माथ्यार बुरको घेवन न्हिदचो. मामा आनी गोंदूचो तो गुन्यांवकारी आसा अशें ताचें मन ताका सांगतालें. आपलो मामा आसूनय तो आपल्याक परको जालो. ताणें गोंदूक सांगात दिलो, तो वोगीच न्हय. मामाची गोंदूकडें वळख आपणेंच करून दिल्ली. गोंदू एक जावन आसा बऱ्यांतलो बरो भुरगो. तो आपलो बेस्ट फ्रेन्ड, अशें आपणेंच सांगिल्लें. आनी आतां आपुणच ताचेर परतलों. हें कोणाक बरें दिसतलें?

तरी बरें, हो भितरलो गूट मम्मीक खबर ना म्हूण. बेबीकय खबर ना. आमी दोशीं जाल्यात हाची. कितलो मोग करता तें गोंदूचेर! दोन दीस आयलो ना जाल्यार सखल-वयर जाता ताचो जीव. आनी आतां खरेली गजाल ताका कळ्ळी जाल्यार खूब वायट दिसतलें ताका आनी मम्मीकय बी.

सगली टीम खुशालकायेन भरिल्ली आसतना पावलूचो चेरो मात काळशेलो. ताचें चड दुख्ख जाल्लें गोंदूक. पावलू आपल्या

करण्यांनीं खंतेला. ताका ह्या वोगतार थाथारलोना जाल्यार तो आपल्याक कायमचो पयस जातलो म्हणपाचें गोंदूच्या लक्षांत आयलें. पावलू सादो-भोळो आनी उकत्या मनाचो भुरगो. वायट मनशांनी ताचो गैरसमज करून दिल्ल्यान तो पयस गेलो. ताका पयस दवरल्यार आपले परस ताचेंच चड लुकसान जातलें आनी पावलूचें लुकसान जाल्लें गोंदूक कशेंच पच सारखें नासलें.

गोंदूलो काळशेलो चेरो आतां उदेलो. तो धांवतच पावलू म्हऱ्यांत गेलो.

''पावलू तूं रागार रे माझेर? आमचें जैत मानवलें ना तुका?'' गोंदून बापडो जावन पावलूक प्रस्न केलो.



''फुंयच्या तोंडान जाप दिवं तुहां! हांव तुजो गुन्यांवकारी आहा रे गोंदू. देव माहां केन्नाच माफ कोच्चो ना. हायें कोरूं नाहां तें केलें बाडया.'' सांगता आसतना पावलूच्या दोळ्यांतल्यान दुकां गळूंक लागलीं.

''पिसावला रे तूं? तुवें जाणा जावन कसलीच चूक करूं ना. तुजे सुवातेर आनी कोणय आसलो जाल्यार तेंच करतलो आसलो.'' गोंदून पावलूक समजायलो.

''हांव घारा वोयतां रे. माहां भिरांत दिसता.''

''कोणाची?''

''मामाची''

''तुजो मामा खूब बरो. समजिकायेचो. तो सुवार्ती आसलो जाल्यार इस्कोलाच्या टिमीक आदार दितलो आसलो.''

''तोहें जाल्यार हाव सुवार्ती मुरे?''

''हांव खंय म्हण्टां तुका तसो?''

''होय, हाव सुवार्तीच. ना जाल्यार तुका सोडून प्रिन्सिपालाच्या हाटल्यान वयचो नाहलों. तोपयो सोराचें आयकोचो नाहलों.''

''तूं सुवार्ती आसलो जाल्यार फादराले पांच हजार तूं मदल्या मदें दामचो नासलो?''

''माहां दुडू कित्याक जाय रे? देवा दोयेन आमकोडे जायतें आहा.''

''तुकां माझें वायट करूंक जाय आसलें जाल्यार, हायें ते दुडू घेतले म्होणोन फादराक सांगोंक जातालें. तूं माझो खरेलो इश्ट. आदीं आसलो तसोच आतांय आसा. फुडेंय आसतलो. चल आमी मामाकडे या.''

दोगय इश्ट एकामेकांच्या खांदार हात घालून जोडयेन मामा म्हऱ्यांत गेले.

मामा दोगांच्याय मनांत कितें चल्लां तें वळखून आसलो. ताणें आपल्या भाच्याक वेंगेंत घेतलो.

''बाबा पावलू, हे फुडें तोरी शाणो कोहो वाग. मोनशान सोत पारखूं जायें. कोणे कितेंय सांगलें मुहल्यार आयकोंक फावोना.''

''पूण मामा, हायेन फालतू मोनशांचें कांयच आयकोंक ना. आमच्या इस्कोलाच्या प्रिन्सिपालाचें आयकोलां. ते भायर तो आमच्या इस्कोलाचो पादविकार.''

''होय आनी आमी कोण? आमच्या पोरोस तुका पादविकार आनी तो तोपयो सोर व्होड? तुयें चितूंक जाय आहलें, तुजो मामा गोंदूक तेंको दिता तेन्ना गोंदू सारको आहा. ते भायर तो तुजो इश्ट. वोगतार इश्ट इश्टाक पावोना जाल्यार कोहली रे ती इश्टागोत!''

''होय मामा, तूं सांगता तें सारकें दिसता माहां. हे फुडें ओहली चूक घोडचीना.''

''तें बोरें आहा. हें कोप आतां हुंय दोवोत्तोलेय?'' मामान दोगांकय प्रस्न केलो.

''गोंदूजेर दवरूया.'' पावलून सट करून जाप दिली.

''आमगेर नाका.'' गोंदून गंभीरतायेन सांगलें.

''तोहें जाल्यार मामाजेर दवरूया.'' पावलूलें तोंड उजळ्ळें.

''कोण्णागेर नाका.''

''कोण्णाजेर नाहां तोर हुंय

दोवोत्तोलेय रे ही मोलादीक वोस्त?" मामान उत्सुकताय दाखयली.

"इस्कोलांत मामा! हें मोलादीक कोप आमी आमच्या इस्कोलांत दोवरू या."

"तूं तोहें म्हुण्टाय जाल्यार तोहें कोरूया रे! पूण हांव किते म्होणोंक सोदतां जाणाय मुरे, आमी एक क्लाब रेजिस्ताद कोरूया. आमचो क्लाब आख्खे गोंयांत फामाद कोरूया. खेडांमोवार नांव गाजोवया मुरे आमच्या गांवचें?" मामान खुशालभरीत जावन आपलें मन उक्तायलें.

"ना मामा! हे फुडें आमकां फक्त शिकपाचें आहा. म्हाका आनी पावलूकय बी. म्हाजी फुटबॉल खेळपाची आस हायें भागोवन घेहली. तीय तुमच्या आदारान. तुज्या आनी पावलूच्या. म्हाकां दाखोवन दिवंक जायें आहलें मामा, कीं इस्कोलांत कितलेशे भुरगे आहाय तेंकां वाव मेळनासतना भितरल्या भितर घुसमट्टाय."

मामाक गोंदूलें म्हणणें खरें दिसलें. मामा फुटबॉलांत सगळ्याच बावतींत खापो आसलो. तरी ताचें लक्ष राष्ट्रीय पातळेवेल्या क्रिकेट खेळाचेरय आसलें. वर्ल्ड कप सर्तींतल्यान भारत भायर पडलो हाचें दुख्ख मामाक जाल्लें. हें सगळें घडलें तें भ्रश्टाचारी फुडाऱ्यांक लागून. आज क्रिकेटीची राष्ट्रीय टीम घडयतना खेळगड्यांची गुणवत्ता पारखुपाचे कोणच कश्ट घेनात. टीम घडयतना जात, धर्म आनी प्रांतांचो विचार फुडारी करतात. एका गांवांत चार गुणवंत खेळगडे आसले लेगीत जाल्यार तांचो टीमीत आसपाव जायना.

पन्नाशींतलो मामा गांवड्याल्या येद्द्याश्या पोराकडच्यान खूब किते शिकलो. कसल्याय मळार गुणवंतांक आपली कापाजदाद दाखोवंक मेळना. ताका लागून ह्या देशाची उदरगत जावंक पावना, ही खंत मामा असल्या मनशांक सतत सतायता.

दुसरे दिसा पाद्रीलें इस्कोल सदां भशेन सुरू जालें. गोंदू आनी पावलू आज मात्से उसरांच इस्कोलाक गेले. ताणीं उसरां वचपाचें आर्दीच थारायल्लें.

ते इस्कोलाक पावले तेन्ना असेंब्ली चलताली. प्रार्थना, राष्ट्रगीत बी म्हणून जातकीच फादर प्रिन्सिपालान काल काबार जाल्ल्या फुटबॉल



सर्तीविशीं सुपुल्लें उलोवप केलें. इस्कोलांत सदांच इंग्लीश उलोवपी फादर असलें कितेंय सांगपाचें जाल्यार तो आपल्या 'कोंकानी'न सांगता. फादर कोंकानीन उलयता तेन्ना ताचीं मोलादीक उतरां आयकुप्यांच्या 'काडजांत' वचून बसतात.

प्रिन्सिपालान जेन्ना कोंकानीन उलोवपाक कोमेस केलें, तेन्ना सगळ्या भुरग्यांनीं आनी शिक्षकानीय कान फांकारले. ताणें म्हणलें,

"म्हाज्या मोगाळ भुरग्यांनों, काल आमी फुटबोल गेम होरले. आमची टीम होडेगांट आसूनय ती होरली हाचें माहां चोड आजाप दिसता. तेच बाराबोन माहां चोडांतचोड खुशालकाय भोगता तुमकां सांगोंक की चोबीस टिमींतल्या गोंडूली टीम जिंकली आनी कोप आमच्या गांवाभायर वोसोनासतोना तें हेच गावांत उरलें. (भुरग्यांकडल्यान टाळयांचो कडकड.) आनी हो गोंडू जावन आहा एक आमच्याच इस्कोलाचो भुरगो. सर्तीचें कोप आतां तेज्या लार्गींच उत्तोलें."

"सर्तीचे कोप आतां तेच्या लार्गींच उत्तोलें." हें आयकनाफुडें एकदम फाटल्यान उबो आशिल्लो गोंदू आड्डेलो, "फादर राव, हांव येतां" अशें म्हणून गोंदू आनी पावलू गर्देंतल्यान सरकत सरकत फुडें आयले. तांच्या हातांत कप आसलें. तें वोतान चकचकतालें. सुर्याची किरणां कपाचेर पडून तीं चारय वाटयां फांकतालीं.

गोंदूचो आवाज आयकून सगल्या भुरग्यांच्यो मानो फाटीं घुंवल्यो. पावलूच्या हातांतलें कप पळोवन सगल्या भुरग्यांनी किळांच्यो हुयेली आनी ताळयो वागडाच माल्ल्यो.

गोंदून माचयेर वचून मायक हातांत घेतलो. आनी तो उलयलो, "म्हाज्या मोगाळ भाव भयणांनो, हांव तुमच्या मुखार हें कप घेवन उबो रावलां. हें कप तुमचें. हांव, पावलू आनी जैतींवंत पंगडांतले चडशे भुरगे ह्याच इस्कोलांत शिकपी. तेन्ना ह्या कपाचेर अधिकार तुमचोच उरतलो. हें कप सदांकाळ ह्याच इस्कोलांत उरतलें. हांव हें कप प्रिन्सिपालाकडें सोंपयतां."

गोंदून कप फादराच्या हातांत सोंपयलें मात, थंय हाजीर आशिल्ल्या ल्हान -व्हडांनी टाळयांचो कडकड केलो. टाळयो मारल्यो नात त्यो तोपयो सरान आनी आंतोनेत मॅडामीन.

(फुडें चलता)



तं. ध. बोरकार
मास्कारेन्हस वाडो,
व्हडलें - गोंय
फोन : २२१८१४७

**कथा**




# सांज दुभंगता

सांज जाली ... सुरूच्या बनांत सावळी पातळूंक लागली. वारें वेगान व्हांवतालें. शेजारच्या पडींग घराच्या नळ्यार पारवे बशिल्ले. अजिताक हो जागो मातय आवडना. पूण रमेश ताका त्याच जाग्यार घेवन येतालो. बापायचें खंयचेंच उतर अजितान केन्नाच सकयल पडूक दिवंक ना. अजित सामको आज्ञाधारक भुरगो. सांज जाली की पासयेक वचप. दोतोरान रमेशाक चलूंक लायिल्लें. चलतना ताका त्रास जातालो. खरस लागताली. मदीं मदीं दुसऱ्याचो हात घेवन चलचें पडटालें. रमेश चलूंक लागलो कीं हेच वाटेन चलतालो. अजिताक खुबदां प्रस्न पडटालो, हे वाटेवेल्यानच बाबा सांजचो पासयेक कित्याक वता? ताजें मन हे वाटेर उदास जातालें. पूण आपल्या मनांतलें ताणें केन्नाच बापायक सांगलें ना. बापायचें मन ताणें सदांच राखप. दर दिसाची गजाल. आयज अशेच ते दोगय परतताले. रमेशाचीं पावलां जड जाल्लीं. मातशें चलूनय हालीं ताका खूब खरस लागताली.

''बाबा सांबाळून पावल घाल. काळोख जाला. हे वाटेर दिवेय ना.'' अजितान म्हळें.

''हय.. आनी आतां म्हजो सगळो भार चलतना तुजेर पडटा. दर दिसा थारायतां तुका त्रास दिवप ना. पूण सांज जातकीर...''

''बाबा कांयच उलोवं नाका.'' अजितान ताका सांगलें. एक एक पावल फुडें धुकलत तो चलूंक लागलो. सामको वोग्गी आशिल्लो. पूण परततना ताका दिसलें कोण तरी अज्ञात शक्ती आपल्याक सांगता, 'रमेश हो जागो आनी सांज तूं केन्नाच विसरचोना...' आनी रमेशाचे दोळे भरून आयले. पावलां आनीकय चड थरथरूंक लागलीं. फकत ताच्या दोळ्यांतलीं दुखां ते काळखी वाटेर अजिताक दिसूंक ना.

हेच वाटेर रमेश आनी रेखा हातांत हात घालून चलतालीं. आतां रमेश खूब जाण्टो जाल्लो. वाट मात तशीच आसा. सुरूचें बनय तशें. हातांत हात. फकत आयज थरथरत्या हातांत आशिल्लो अजिताचो हात.

रमेशाक थरथरो आयलो. सगळ्या आंगाक कंप सुटलो.

''रमेश ... रमेश''

''सांग रेखा'' मनांतल्या मनांतच रमेश उलयता आनी अजिताचेर लकता. वेगळेच तंद्रेंत.

''बाबा तुकां बरें दिसना?'' अजित विचारता काळजांतल्यान. पूण ताच्या काना मेरेन तो आवाज पावना.

''बाबा, हें थंय आर्क आसा. ताचेर थोडो वेळ बसुया. मागीर घरा या.''

दोन पावलां चलून दोळे धांपून तो आर्कार बसलो. दोळ्यांफुडें फुडलो दोंगर, पयसुल्लीं शेतां आनी सुरूचीं तीं झाडां जश्याक तश्शी दिश्टी पडूंक लागलीं आनी तांचे मदीं तो आनी रेखाचें फुलिल्लें रूप.

''रमेश पळय, पयसुल्ली ती दोंगुल्लीं आनी मळब तेकल्या ती रेखा.''

''ती रेखा पळोवन म्हाका कितें मेळटा. म्हाका ह्या रेखाक पळोवंक जाय आनी आमच्या मदली रेखा हुपूंक जाय.'' सगळें प्रेम रमेशाच्या काळजांत देंवलें. दोळ्यांत एकवटलें.

काळोख जालो. दोंगुल्ली आनी मळबांतली रेखा विरगळ्ळी .... दोंगुल्ली आनी मळब मुग्ध काळखांत एकाकार जालीं. रेखा आनी रमेशा मदली रेखा विरगळ्ळी. ती सांज रमेशाच्या दोळ्यां मुखार दिश्टी पडली आनी कापूर वितळटा तशी विरली.

त्या उपरांत सगळें बदल्लें. रेखा

आनी रमेश परतीं केन्नाच मेळ्ळीं ना.

"बाबा" अजितान उलो मारलो...

"बाबा हे वाटेर सांज वेळार म्हजेंय मन उदास जाता." बापायन थरथरतो सशक्त हात अजिताच्या हातार दवरलो. बापायच्या काळजांत खूब किते आसा, काळजांत उमाळो आयला पूण कांयच सांगूंक जमना. दोगांय मदीं गाढ प्रेम आसा. तशीच एक रेखाय आसा. आपल्या मनांतले उमाळे बापायक अजिताक सांगूंक जमना. दोगां मदली ही रेखा हुपप अशक्य हें तो जाणा.

रमेशान बाबा कडेन पळयलें. बाबाचे दोळे भरिल्ले काय आपल्याक भास जाला तें ताका कळूंक ना. अजिताचेय दोळे भरून आयले. राखीच्या यादीन. "तुजे बगर हांव जगतलें कशें अजित."

राखी हुंडक्या हुंडक्यांनी रडून विचारतालें. आपूण असहाय्य अगतीक जालां सो अजिताक दिसलें. प्रेमापरसूय घराण्याच्यो मानमर्यादा व्हड? आवेगान ताणें बाबाक विचारलें, "बाबा राखी बगर दुसऱ्या कोणायकडेन लग्न जालों जाल्यार हांव सुखान उरचो ना. प्रेमा परसूय घराण्याचो मान व्हड?"

रमेशाक दिसलें कितल्याश्याच वर्सां पयलीं होच प्रस्न आपल्याकूय विचारचोसो दिशिल्लो आपल्या बापायक, आवयक. पूण एकय उतर भायर आयलें ना. वाचाच बशिल्ली. मनांत कितलेशेंच दां ताणें ह्या वाक्याची येसाय मारिल्ली. पूण तोंडांत एकय उतर येवंक ना. आयज त्याच जाग्यार अजित उबो आशिल्लो. आनी तोच प्रस्न ताका विचारतालो.

रमेश आनी रेखा... कितल्याश्याच वर्सांनी त्याच जाग्यार अजित आनी राखी.

काळखानूच तकली वयर काडून ताणें अजिताच्या दोळ्यांत पळयलें ... आनी रमेश ताचेकडेन पळयत उरलो. ताका ताच्या दोळ्यांत आपलेंच रूप दिसलें. आपलेंच पडबिंब.

"अजीत कांय खिणाक तूं विसरून वच कीं ह्या तुज्या बापायन लग्नाक विरोध केल्लो. फकत अजूनय तुका परत राखीकडेन वचचेंशें दिसता? राखीचो विसर पडूंक ना?"

बाबाच्या आवाजांत पयलींचो थंड प्रतिसाद नाशिल्लो. आवाज उत्तेजीत जाल्लो.

त्या थंड शांत वातावरणांत बाबाचो आवाज उत्तेजीत जाला काय आपल्याक भास



जाला तें अजिताक कळूंक ना आनी कशें उलोवचें तेंय कळूंक ना.

"तूं कांयच उलोवं ना अजित."

"बाबा, राखीचो विसरच पडूंक ना. विसर पडता तेन्ना याद जाता हांव तर राखीक विसरूंक ना."

"राखी तुका आवडता... पूण..."

"ह्या 'पुणात' सगळें आयलें... बाबा तुजो न्हयकारय.. चल रात जाल्या... या आमी"

"न्हयकार हांवें दिवंक ना. लग्नान फकत दोन जीव एकठांय जायनांत, दोन घराणींय.."

"बाबा तूं राखीक एकदां पळय."

...बाबान सुस्कारो सोडलो... तेच संवाद, तेच वाद आपल्या आनी बापायमदीं जाल्ले .. त्या वेळार .

"बाबा चल या आमी"

रमेश उठलो. परततना पावलां जड जाल्यांत आनी श्वासय अशें ताका दिसलें.

.....अजिताक आईची याद आयली...

...आज आई आशिल्ली जाल्यार आपल्या मनांतले मुद्दे तो तिका पटोवन दितलो आशिल्लो.आपलें मन आपल्या बापायक कळना हाचें अजिताक चड दुख्ख जालें आनी बापायक पटोवन दिवप आपल्याक जमना, बापायक निराधार वडोवन वचपय जमना ... कितलें समजावन सांगलें बाबाक.. पण बाबाक पटना... बाबा घराणें, श्रीमंतीक मानता. जल्म खंयच्या घरांत घेवप आपल्या हातांत आसा?

...विचारांचे तंद्रेंत घर केन्ना आयलें तें दोगांकय कळ्ळें ना....

"अजित चल गाडी काड तुज्या राखीच्या घरा या." रमेशान पुताक सांगलें.

"बाबा?!"

"अजापान पळोवंक नाका. तुजें आनी राखीचें नातें हांवें स्विकारलें. राखी जशें आसा तशें स्विकारलें."

"बाबा पूण फकत राखी आनी ताची आवय दोगांच घरांत रावतात आनी तांकां कोण ना..."

"ह्या वेळार आवय घरा मेळटली न्हय? आतांच या... तुज्या लग्नाची तारीख आतांच थारायतां." बापायविशीं कृतज्ञतायेन आनी प्रेमान अजिताचें काळीज भरलें. दोगय राखीच्या घरा पावले.

"राखी म्हजो बापूय आयला तुकां पळोवंक आनी तुज्या मांक मेळूंक."

राखीन उलो मारलो 'मां'... राखी भितर गेली आनी आवयक घेवन आयली आनी तिका पळोवन रमेश तटाकलो.

'रेखा!"

"रमेश!"

..राखीन आपल्या आवयच्या आवाजांत इतली खोशी केन्नाच पळोवंक ना आनी अजितानय.

"बाबा तूं राखीचे मम्मीक वळखता?"

"बस रमेश, कितलें तेंपान मेळटात."

रेखाचे दोळे दुखांनी भरले... भावनावेगान तें थरथरतालें. सदांच कापताले ते रमेशाचे हात चड कापूंक लागले.. काळ वेळ सगळें थारला.. दोगांय परत केन्ना मेळत अशें दोगांनीय केन्नाच चितूंक ना...

कितल्या वर्सांनी आज दोगांय परतीं मेळटालीं.

रमेशाचे दोळे भरून आयले. आपलें आनी रेखाचें नातें अतूट बंधनांत बांदलें ना पूण देवान परत आपल्या चल्याक आनी रेखाचे चलयेक मेळयिल्लीं.देवाची लिला अगाध..

"रेखा, आज हांव तुजे चलयेक पळोवंक आयलां."

फुडले शब्द भायर सरचे पयलींच रेखान म्हळें, "रमेश रेखा फकत म्हजें न्हय तुजेंय चली."

रमेशाच्या दोळ्यांफुडें ती सांज घुंवता, दोळ्यांफुडें काजुले येतात... ताका खिणभर कांयच सुचना. भुतकाळाच्या जिवनाचें पडबिंब...

तो अजिताकडेन पळयता... अजित आनी राखी दोगांय सामकीं स्तब्ध... मोनी.... मोनी... कांयच सुचना जावन तो दोळे धापता... ताच्या दोळ्यांफुडें ती सांज दुभंगता...

◆◆◆



- सुजाता सिंगबाळ

कथुली

# लेडी कंडक्टर



आयज बाबूले बसीर सोमार आशिल्ल्यान गर्दी आसली. स्टेरींग सांबाळटां सांबाळटां बाबून कॅबिनांतल्यान बसींत भितर नदर मारली. बाबूले बसीर ताची बायलच सारिका कंडक्टराचें काम पळयताली. पेसेंजरांक फाटीं फुडें करतासर बाबड्याक नाकापुरो जातालें.

लोकूय म्हूण कितले मस्ते! बाबड्याची लेडी कंडक्टर अशें म्हूण फकाणा करताले. एक गजाल मात खरी, सारिका कोणाकूच बद नाशिल्लें. बसीर गर्दी आसतकच नाका नाका त्या प्रसंगांक ताका तोंड दिवचें पडटालें. बसींत भितर कितें घडटा तें आयकून, पळोवन बाबूक सामकें पिकासांव जातालें. आयजूय बसीर गर्दी आशिल्ल्यान सारिका परस बाबूच कॅबिनांत चड काचाबूल जाल्लो. बसींत तरनाट्यांचे बायले बद्दल मारिल्ले कॉमेंट आयकून बाबू सामको दांत ओंठ चाबतालो.

''चलात मात्शे फुडें सरात, तेंकून रावात.''

''अरे कंडक्टर आपूण जावन सांगता मरे! तेकात मात्शे तेका. असलो चान्स आनीक मेळचो ना.'' एकट्याचो कॉमेंट.

''आरे मोडचे काडात पयशे.'' कंडक्टर

''आसूं गो तुजे कडेन कोणें मागल्या वयले पयशे. तूं कोण परकें? आमचेंच मगो!'' एक तरनाटो.

वीस-बाव्वीस वर्सा पिरायेचें सारिका पॅसेंजराचे सगळे पोजडे-पोजडे कॉमेंट आयकून वगीच रावतालें. बाबू थंय कॅबिनांत ड्रायव्हींग करतां करतां सगळें आयकून रागान तांबडो जातालो. पूण बायलेन ताका स्पश्ट शिटकावणी दिल्ली 'जे दिसा तूं सोरो सोडटलो हांव बसीवेलें मकयल देवतलें.'

आयज वर्सभर जालें सारिका आपल्या घोवाचेच बसीर कंडक्टर म्हूण काम सांबाळटालें. आपलेच बसीर कंडक्टर म्हूण रावपा फाटल्यान कारणूय तशेंच आसलें. सगल्या वाठारांत बसीचेर कंडक्टर म्हूण काम करपी तें पयलेंच चली. पयलीं पयलीं लोक उलयताले. पूण ताची तोखणाय करपी गांवांत जायते लोक आशिल्ले.

''रायू गांवकाराली सून मात कापासदादीची. असल्या घोवाक सांबाळप म्हळ्यार फकाणाचें काम न्हू.'' गांवांतले जाण्टे लोक उलयताले.

रायू गांवकार म्हळ्यार त्या गांवचो प्रतिश्ठीत मनीस. रायून आपलें सगलें आयूश्य मिनाचे खणीर ट्रक चलोवन काडलें. बरो ड्रायव्हर म्हूण ताका थंय मान आशिल्लो. रिटायर्ड जातकच रायून मेळिल्ल्या सगल्या पयशानसून एक मिनीबस घेवन गांवांत घाली.

रायू बसीचो पात्रांव. पूण आपूण स्वता बस चलयतालो. जाण्टो जांव भुरगो रायू जण एकल्याकडेन रेस्पेतान उलयतालो. रायूची बस म्हळ्यार टायम टू टायम. केन्ना मोडली, केन्ना वरार चुकयलो, केन्ना आर टी ओ न तालांव दिलो अशें केन्नाच जालें ना. रायू सामको निर्व्यसनी. विडी, सोरो असलें केन्नाच ताका लागलें ना. गांवांत ते वेळा व्हडलीशी येरादारीची वेवस्था नाशिल्ली. लोकांकडेय प्रायव्हेट गाडयो नाशिल्ल्यो. पूण रातीं-अपरातीं कोणूय दुयेंत पडलो जाल्यार रायू आपूण जावन आपली बस भायर काडटालो. असल्या कामाचे ताणें केन्नाच कोणाकडल्यान पयशे घेतले नात. रायूची बस सगल्या गांवांक आपलिशी दिसताली.

ते बसीर बाबून खूब जोडलें. रायूक तीन पूत आशिल्ले. म्हातारपणान बसीचो धंदो स्वताक सांबाळना तेन्ना गाठीक आशिल्ल्या सगल्या पयशानसून तिगांय पुतांक मिनीबसी घेवन दिल्यो.

सुरवातीक पुतांनी धंदो बरो सांबाळलो. पूण रायू मरतकीच तिगूय पूत फोल्गां मारूंक लागले. तार्चे धंद्याचेर लक्ष लागना जालें. बसी दुसऱ्यांच्या हातान सोपोवन पूत पात्रांव कशे रावताले. मटको खेळप, सोरो पियेवप, आतऱ्या पयऱ्यान चिकन-बियरिच्यो इश्टांवांगडा पार्टी करप हाका लागून बसीच्या कर्जाचो हप्तोय वेळार पावना जालो. करतां करतां बॅंकेन व्हडल्या दोनय पुतांच्यो गाडयो जप्त केल्यो. पोटाक




चिमटे येंव नाका, ते मागीर दुसऱ्यांचे बसीर ड्रायव्हर, कंडक्टर म्हूण काम करपाक लागले.

पूण धाकट्या बाबूची बायल मात शिटूक. तिणें पळयलें आपल्या घोवाचेरूय हीच पाळी येतली. बाबूय पियेवंक लागिल्लो. सांजवेळा दिसभर जोडिल्ले पयशे बियर आनी चिकन खावन इश्टांवांगडा मजा मारतालो. बसीर कोणूय बरें चली दिसलें रे दिसलें बाबू पिसो जातालो. मागीर ताची तिकीट मारिनासलो. दर दिसा पन्नास-शंबर रूपया मटक्याचेर आनी जुगाराचेर होगडायतालो. बसीच्या कर्जाचे हप्तेय वेळार फारीक करी नाशिल्लो.

आनी एक दीस बाबूचे बायलेन बस आपल्या हातांत घेतली. 'जर तुकां हांव जाय जाल्यार आयच्यान हांव सांगतां तसो वाग. बसीच्या लोनाचे सगळे हप्ते पावते जाल्या बगर आनी तुवें सोरो सोडीसर हांव बसीर पयशे घेवंक रावतलें. तुवें बस चलोवप आनी कंडक्टर कोण नाका. तुवें सोरो सोडल्या बगर हांव आवयूय जावचें ना.

बायलेच्या मोगा खातीर बाबूक सगळें मानून घेवचें पडलें. बाबूचो सारिकाचेर खूब मोग. मोगान पडूनच तो सारिका वांगडा लगीन जाल्लो.

बाबूक सारकी याद आसली. कॉलेज अर्द्यार सोडून तो अशीच बस चलयतालो. सारिका तेन्ना कॉलेजींत शिकतालें. सकाळच्या वराराक सारिका ताजे बशीर चडटालें. गोरे गोमटें दिसूंक सुंदर. पयले दिसा पासून ताका सारिका आवडूंक लागिल्लें. मागीर वशीर गर्दी आसतकच बाबू ताका मुद्दामच कॅबिनांत बसयतालो. हळूहळू दोगांय केन्ना मोगान पडलीं ताजे तांकांच कळ्ळें ना. फुडें तांचें लगीन जालें.

कॅबिनांत स्टॅरींग घुंवडायतां घुंवडायतां बाबूय हेंच चित्तालो - कितले बरे आसले ते दीस. हांव ड्रायव्हर सिटार आनी कुशीक कॅबिनांत सारिका. ताचें तें मुमुरखें हाशें पळयत गाडी चलयतना कितली उमेद जाताली. सारिकाच्या घरच्यांनीं जेन्ना ड्रायव्हराकडेन तूं लग्न जांव नाका म्हण विरोध केल्लो तेन्ना सारिकान सांगिल्लें, ''तो ड्रायव्हर न्हय तर बसीचो पात्रांव. देवान बरें केल्यार तो आनी कितल्योश्योच बशी घेयत. तितकी हिम्मत आसा ताचे कडेन.''

ताचीं तीं उतरां येवजून बाबूक आपलीच लज दिसली. कितलो विश्वास आसलो सारिकाचो आपल्या घोवाचेर. आनी आयज घोवाची एक बस कर्जाचे हप्ते पावूंक ना म्हूण बॅंकेन ओडून व्हरची पाळी येवची! न्हय म्हूण घोवाचेर नदर उरची म्हण ताणें सोऱ्याक पयशे होगडावचे न्हय म्हूण ताणें कंडक्टराचें काम आपणायल्लें. चितून बाबूची तकली सामकी पिकार जाली.

''लेडी कंडक्टर मात्शे वयर राव दारा वयल्यान पडशीत बी!''

''हें कशें पडटलें? आमी पडूंक दिना ताका. आमी आसा ते कित्याक?''

कांय कॉलेजीचे भुरगे सारिकाचीं फकाणां मारताले. बाबूक कॅबिनांतल्यान सगळें आयकूंक येतालें.

बसीचें इंजीन तापिल्लें. आनी आतां बाबूची कानसुलांय तापूंक लागिल्लीं.

आनी अचकीत बस बंद पडली. बाबूनच मुद्दाम बसीचें इंजीन बंद उडयल्लें.

''बस फुडें वचची ना. ब्रेक फेल जाल्यात'' बाबून सगळ्या पेसेंजरांक सांगलें. बसीक आनी बाबूक गाळी घालून लोक बसींतल्यान देवून फुडल्या प्रवासाक लागले.

सगळे लोक गेल्ले. बाबू आनी सारिका आतां दोगांच उरिल्लीं. ''बसीक कितें जालें? सरिकान विचारलें.

''कांय ना. मुद्दम हांवें बंद केल्या. तूं काडटा ते हाल म्हज्यान पळोवं नज. फाल्यांच्यान तूं टिकेट मारचें ना. हांव बस सांबाळटलों. तुजो सपूत घेवन सांगतां. आयच्यान सोरो, जुगार बंद. म्हजेर विश्वास ना जाल्यार तूं पात्रांव कशें कॅबिनांत बसून म्हजेर नदर दवर.''

सारिकान बाबूच्या तोंडाकडेन पळयलें. ताका बाबूचेर पुराय विश्वास आशिल्लो आनी तो विश्वास बाबूच्या दोळ्यांत ताका दिश्टी पडटालो.

तें बाबूकडेन पळोवन मुमुरख्यान हांसलें आनी बाबून बस स्टार्ट मारली.

◆◆◆



**- दोतोर (मेजर) प्रकाश शेटये**
देवळाय, खांडोळें

**खळांतली आंबली**

# गोंय शाहीर गेलो! एक नीज गोंयकार गेलो!

'बुयांवांतली आंबली' बरोवपाचो संकल्प करपी उल्हास बुयांव आमचे मदल्यान अचकीत उठून गेलो. ६३ वर्सांतल्या आपल्या जिणेंतल्या अणभवाच्यो रूचीक खबरो ह्या बुयांवांतल्या आंबल्या रूपान आमकां मेळपाच्यो. ताणें वचचे आदीं कितल्यो त्यो एकठावन दवरल्यात हें खबर ना. दवरिल्ल्यो आसत जाल्यार हें बुयांव आमचे खातीर एक भोव मोलादीक ऐवज थारतलो.

त्रेसश्ठ वर्सांचेर उल्हासमामाक मरण आयलें. कोणाक दिसतलें उल्हास बुयांव पिरायेच्या मानान खूब बेगीन गेलो. पूण जांकां उल्हासमामाची जीवन शैली खबर आशिल्ली तांकां दिसतलें उल्हासबाबान खरेंच खूप वर्सां काडलीं!

मनीस कितलीं वर्सां जियेलो हाचे परस कसो जियेलो हाका म्हत्व आसा. उल्हास गोंयचें नांव व्हड करूंक जियेलो. गोंय आनी गोंयकारपणाचेर जेन्ना उलोवप बरोवप जातलें तेन्ना उल्हास बुयांवाचें नांव घेतले बगर तें पुराय जावपाचें ना! जो कोण ताचो उल्लेख टाळटा जाल्यार तांकां पडमूर म्हणचें पडटलें, गोंयचो दुस्मान मानचो पडटलो.

गोंयचें स्वतंत्र अस्तित्व दवरचें काय ताचें महाराष्ट्रांत विलीन करचें हो प्रस्न गोंयांत उप्रासलो. तेन्ना गोंयचें अस्तित्व राखपाखातीर जे कोण त्या काळार झुंजताले तातूंत उल्हास बुंयावाचें नांवाक चड म्हत्व आसा. भाशणांनी क्रांती घडटाच पूण चड क्रांती घडयतात तीं गीतां. बाकीबाब, मनोहरबाब हांचीं गीतां उल्हास बुयांवान गोंयच्या खाची कोंयडच्यांनी पावयलीं, जाण्ट्या नेण्ट्यांच्या कानार सादयलीं आनी त्याच आवाजान ह्या लोकांचेर ताणें सांवार हाडलो हें सत कोण न्हयकारूंक शकचोना.

ओपिनियन पोला वेळार महाराष्ट्रांतल्यान महाराष्ट्र शाहीर अमरशेख गोंयांत आयलो. आपले पोवाडे गावन ताणें गोंय गाजोवन सोडलें. गर्जा महाराष्ट्र माझा म्हणत गोंयकारांक महाराष्ट्र आपलो म्हणात म्हण गर्जना करूंक पराथलें. त्या वेळार आपल्या खर्जांतल्या आवाजांत गोंयच्या म्हज्या गोंयकारांनो जायात जागे म्हणत तांकां जाग हाडपाचें काम केलें तें २२ वर्सांचे पिरायेच्या उल्हास बुयांवान. त्या काळार ताणें पुराय गोंयांत सुमार पाऊणशें कार्यावळी केल्यो. सांवार आयिल्लेवरीं. उल्हास बुयांवाचें हे योगदान कोणूच न्हयकारूंक शकचोना.

गोंय शाहीर उल्हास हो खऱ्यांनीच सॅक्युलर गोंयकार, सॅक्युलर गायक. ताणें आपल्या खर्जांतल्या आवाजान भजनांय म्हळ्यांत आनी कातारांय. ताका नाटकांचो जितलो मोग तितलोच तियात्रांचो. हांगा खून जाला नाटक ताणें गाजयलां तशें तियात्रूय बरोवन माचयेर हाडल्यात. गोंयच्या हिन्दू क्रिस्तावांक एकठांय दवरपाचो खरो वावर कोणें केला आसत तर तो उल्हास बुयांवान. ताका लोकांच्या काळजाची तार गाविल्ली. तेच पासत ताणें संगीत दिवन गायिल्लीं गीतां आयज लोकगीतां जावन गोंयकारांच्या ओठांचेर खेळटात.

उल्हास बुयांव एक सामको उक्ते मनाचो गोंयकार. ओंठार एक आनी भितर एक अशें ताचें नाशिल्लें. अत्यंत प्रतिकूल परिस्थितीत, झुंजत आपलें स्वतंत्र अस्तित्व घडोवपी हो गोंयकार अत्यंत संवेदनशील आशिल्लो. पूण तितलोच सडेतोड. आपणांक दिसता तें सरळ उलोवपाक तो फाटीं फुडें करिनाशिल्लो. पूण तें उलोवप, तें विधान चुकीचें आसा हें कळटकच तितल्याच



व्हड मनान तो दिलगिरीय व्यक्त करतालो.

उल्हासाकडेन झगडीं जावंक ना असो ताच्या संपर्कांत आयिल्लो मनीस सापडचोनां. तांची जाल्ली झगडीं पळोवन हे दोगूय आतां हे मुखार एकमेकाचें तोंड पळोवपाचे नांत अशें पळयतल्याक दिसतालें. पूण दुसरे खेप तोच मनीस ह्या दोगांकूय गळ्यांत गळो घालून भोंवतना पळयतालो.

उल्हास बुयांव उलोवंक करूंक असो वयलेचाराक सडाफटींगसो दिसतालो. पूण तितलोच घरंदाज आनी गृह कृत्य दक्ष म्हणटात तसो आशिल्लो.

प्रत्येकाची जियेवपाची एक आपली तरा आसता. ताच्या जिविताचें एक तत्वगिन्यान आसता. हेरांक तें निरर्थक, फालतू दिसता आनी आपलें जिवीत हेंच खरें दिसता. तेच पासत आपलें तें खरें मानपी आमचे मदले खूब जाण उल्हासाची जिवनशैली पळोवन ताका बोटां मोडटाले. पूण तांकां जाय म्हण उल्हासान आपल्याक केन्ना बदलून घेतलो ना. उल्हास जसो आशिल्लो तसो ताका लोकांनीं माथ्यार



घेतलोय बी. ताचें कारण उल्हासाचो स्वभाव न्हय. तर ताच्यांतली कला आनी पुरायेन भरिल्लें ताच्यांतलें गोंयकारपण.

उल्हासाचो आवाज कितले तांकिचो? एप्रिल-मे तापता तेन्ना मनीस गरमेन हुलपता. ते वेळार ताच्या कानार पडटा कोगळेचो स्वर. कोणाक कोगूळ गायता दिसता. कोणाक ती रडटा दिसता. पूण त्या आवाजान मनशाक गरमी सोसपाची एक सैमीक शक्त मेळटा. वाडिल्ली गर्मी उणी करपाची सैमान कोगळेच्या आवाजाच्या रूपान केल्ली तजवीज. उल्हासाचो आवाजूय तसोच! कोणांक तो कोगळेच्या रडण्यावरी भासता तर कोणांक तो आपले प्रेयसीक होरावपी कोगळाचो दर्दभरो सूर दिसता. पूण एक गजाल खरी उल्हासाचो आवाज हो फक्त उल्हासाचो आवाज. संगीताचे कसवटीर लावन उल्हासाक म्हान संगितकार, म्हान गायक अशें तोलप समा जावचेंना. उल्हासाचो आवाज हो गोंयचे मातयेचो आवाज, गोंयकारपणाचो आवाज. देखूनच ताका एक आगळें म्हत्व आसा. जे सर गोंयकार गोंयकारपण तिगोवपा खातीर वावुरतलो तेन्ना तेन्ना उल्हासाचो आवाज तांच्या कानार सादतलो हातूंत दुबाव ना.

उल्हास बुयांवान कोंकणीकडेन केन्ना तडजोड केली ना. कोंकणी चळवळींत ताणें खूब सोसलां. कट्टर कोंकणीवादी म्हूण विरोधक ताका पिडल्याय बी. राजभास आंदोलन चलतालें तेन्ना भगवंत नायकाले मडगांवचे फॅक्टरीक जसो उजो घालो तसोच फ्रांसीस सार्दिन हाचे घरांत वचून तोडफोडूय केल्ली आसा. तेच प्रमाण उल्हास बुयांव हाचें चलपी बांदकामूय लोकांनीं मोडिल्लें. पूण उल्हासान तोंडांतल्यान मातूय आवाज काडलो ना वो त्यागाचो धोल बडोवंक ना. आपलें काम मोन्यांनीं करीत रावलो.

ताचे वावराची लोकांक कदर आशिल्लीच. पूण जितलें आपल्याक मेळूंक जाय आशिल्लें तितलें मेळूंक ना असो समज करून घेतिल्ल्यान जांवये उल्हासबाब मर्दी मर्दी भुरग्यां सारखो वागतालो. हट्टीपणां करतालो. मडगांवां जेन्ना कोंकणी संगीत संमेलन जालें तेन्ना आपल्याक फावो तो मान मेळूंक ना म्हण ताणें निशेध करपाचें काम केलें. ताका थातारपाचोय खूब यत्न जालो तो ताच्या वावराची आयोजकांक जाणविकाय आशिल्ल्यानूच. पूण जेन्ना उल्हासबाबान कोंकणीच्या विरोधकांक आनी असंतूश्ट लोकांक लार्गी घेवन कोंकणीचो म्हापुरूस शणै गोंयबाब हाकाच उणाक लेखपाचो यत्न केलो तेन्ना ताचे जिवाभावचे वांगडी लेगीत दुखावले. उल्हासबाबांच्या मनांत कितें आशिल्लें तें ताचें तोच जाणां. पूण ताची ही वागणूक मात खूब जाणांक दुखोवन गेली.

तरीयपूण उल्हास बुयांवाचें एकंदर योगदान काळाच्या पड्ड्या आड वचपा सारखें निखालूच ना. ताचीं गितां, तांकां लायिल्ल्यो चाली, गोंयकारांच्या कानार सादत रावतल्यो. तेंच शाश्वत. तेंच उरतलें.

◆◆◆

कोंकणी पॉप



## हांव बाबा न्हवरो

हांव बाबा न्हवरो, नांव म्हजें साजरो
पलतडीं लग्नाक वेतां
खोशेचो वझरो, तोंडान हांसगे
म्होवाळ ओंठार गितां
राजाचो झेत म्हजो, नवलांचो भेस गा
मोतयांचीं भुजांर फितां

सोबीत रूपाची व्हंकल मोगाची
पिशें तिजे लायतात दोळे
फुलूंक आशेतात लजेन बावतात
तळ्यांतले साळका-कळे
पारव्यांचें जोडें आमचें सोपतलें माटवांत
लोकांचें नदरेक भितां

पल्तडच्या वाड्यार सुंवारी वाजता
काळजाच्या कानांत उले
व्हंकलेच्या पायांत भांगराच्यो घागऱ्यो
लजेन गा तांबशे पोले
व्हलय गा तारया आतां बेगीं पावया
बोटांतली मुदी दितां.

गीत : उदय भेंब्रो
गावपी : उल्हास बुयांव



# भट आनी म्हालो

एका गांवांत एक भट आनी ताच्या शेजरा एक म्हालो रावतालो. दोगांयची परिस्थिती बरी आसली. भट घरांत जें करतालो तशेंच म्हालोय करतालो. म्हूण भटाक खूब राग येतालो. म्हाल्याक फटोवपा खातीर भटान एक युक्त केली. ताणें आपल्या बायल-भुरग्यांक म्हटलें, "आयज रातचो हांव तुमचें नाक कापतलों. तुमी मातशें सोंसात. फाल्यां तुमकां एक बरें सोबीत नाक येतलें."

म्हालो हें जनेलांत रावून आयकतालो. म्हाल्याक दिसलें, आपणेनूच अशेंच बायल-भुरग्यांचें नाक कापचें. मागीर तांकाय नवें नाक येतलें. ताणें बाजारांत वचून एक चाकू हाडलो.



म्हाल्यान बायल-भुरग्यांक आपोवन सांगलें, "हांव तुमचें नाक कापतां मागीर तुमकां फाल्यां बरें नाक येतलें." अशें सांगून ताणें तांचें नाक कापलें. सगलीं व्हडल्यान रडूंक लागलीं.

दुसऱ्या दिसा भटान व्हडल्यान म्हटलें, "तुमकां सगळ्यांक कितलें सोबीत नाक आयलां!" म्हाल्यान तें आयकलें. ताणें बायल भुरग्यांक म्हटलें, "उठा, उठा तुमकां सगल्यांक बरें नाक येतलें."

ताची बायल भुरगीं व्हडल्यान रडपाक लागलीं "आमकां सहन जायना. आमकां नाकूच ना." म्हाल्यान कपलार हात मारलो.

भटान म्हटलें, "दुसऱ्यान केलें म्हूण आपणें करूं नये. देवान दिलां तातूंत समादानान रावचें."

☺☺☺

**- वैभवी चित्तल**
सेंट तेरेझा हायस्कूल
वास्को

---

# गोंयचो परिसर

आमी कोयर हांगा-थंय उडयतात. पिंजके पेपर, तुटकीं चपलां, कळमेल्ले डबे आनी प्लास्टीक पोतयो आमी भायर उडयतात. कोयर हांगा-थंय रस्त्यार फाफसता. कोयर कुसता आनी मागीर आमीच आमच्या नाकाक लेंस लावन रस्तो हुपतात. पूण आमी विसरतात. हो कोयर आमच्याच घरांतल्यान आयला म्हूण. नाक मुठींत धरून आमी म्युनिसिपालटीक मात गाळी मारतात.

आमकां सुखां जाय ते मुखार आमी सगळें विसरतात. रस्त्यार हांगा थंय, गटारांत फुटपाथार पडिल्लें प्लास्टीक आमचेंच आसता. नुस्तें, भाजी, कपडे सामान, दूद आनी हेर सामान आमी ह्याच प्लास्टीक पोतयांनी हाडटात. आमी मार्केटांत पोतयो घेनासतना वतात. फामिलेक घेवन खरेदीक वतात आनी कितल्योच प्लास्टीक पोतयो घेवन घरा येतात आनी मागीर त्यो बेफिकीरपणान रस्त्यार, दर्यादिगेक, बागेंत आनी हांगा थंय खंयूय उडयतात.

आमकां आतां कळ्ळां हो कोयर आमींच करतां. आमींच आमचें शार बुरशें करपाक जापसालदार.

आमी खूब झाडां रोवपाक जाय. प्लास्टीक तशेंच हेर कोयरा पासून प्रदूशण पयस करपाक जाय. कोयर उडोवंक डस्टबीन वापरूंक जाय, झाडां कापूंक जायनात. गोंय नितळ निवळ दवरपा खातीर लोकांमदीं जागृताय निर्माण करपाक जाय. प्लास्टिकाचो वापर बंद करपा खातीर वावरूंक जाय.

☺☺☺

**- आतिश पलव**
अवर लेडी ऑफ देस्तेरो हायस्कूल
वास्को





## सैम

देवान केलां सैम निर्मीत
आमकां ती एक भेट सोबीत
निर्मिलां हें पांसियेस आनी जतनायेन
आमी सैमाचो करचो मोग; म्हूण तार्णे

आर्मी सदांच पळयतात मळबांत सवर्णी
काडी बडी तणाच्या घोटेरांत रावतात तीं
पाखां फुलोवन तीं भुर्र उडटात
वयर उंच निळ्या मळबांत

सोबीत करता सैम आमची जीण
ताका नश्ट करपाचो पाडो गूण
आमच्याच बऱ्याक देवान निर्मिला सैम
ताका नश्ट करप योग्य जातलें व्हय?

**-अक्षय कांबळी**
बाल भवन वास्को

## चारोळ्यो

*देवा घरची दिवाळी*

पावस शेनता रिमझीम
दिसता कोणय खेळटा लेझीम
बिज लखलखता आभाळी
जशी दिसता देवा घरची दिवाळी

*दीस आनी रात*

सुर्या दिसाचो दिता प्रकाश
राती सोबता चंद्रान आकाश
दिसाचो बाबू खेळटा खोशयेन
रातचो न्हिदता आईचे कुशींत

*घरकोंबो*

मनू आसलो घरकोंबो
भायर अजिबात वचनासलो
कोणीय म्हणल्यार भोवूंक चल
दाराआड लिपून बसलो

**-आदित्य रमेश भोसले**
बाल भवन, वास्को
यत्ता : सव्वी



## म्हजो सुणो

हावें पोसला एक सुणो
नांव ताचें टॉपसी
काळो काळो रंग ताचो
शेपडी ताची 'बुशी'

तो खूब मोटो
हांव म्हणटां ताका मोटू
तो सदां सदां न्हांयना
हांव म्हणटां बुरसो भू

टॉपसीक हांव आवडटां खूब
म्हाकाय टॉपसी आवडटा खूब

**-रिशा र. कांबळी**
बाल भवन, वास्को

# मनीसपण



"दिव्या... आमी सुटयेंत घरा या मगो?"

"खंय तें?" दिव्यान अनिशाक विचारलें.

"नावेली गो."

"आं ऽऽऽ बरें बरें तुका आंबे, तोरां जाय म्हणून वता न्हय तूं?" दिव्यान म्हळें.

"ना थंय भाई काकाच्या घरा कुशीक जें घर आसा पळय. तांगेर एक कीर आसा आनी ताका एका पांजऱ्यांत दवरला. हांव ताचे बरोबर खेळटलें. मजा येतली." अनिशान म्हळें.

सुटयेचे दीस चालू जाले. अनिशा आनी दिव्या दोगांय आपल्या काकागेर गेलीं. अनिशा सातवेक शिकतालें. दिव्या अकरावेक. सद्दां सकाळीं अनिशा त्या किरा बरोबर खेळटालें. तुमकां कळ्ळांच आसतलें की ताका मनजाती विशीं खूब मोग आसलो. दिव्याकय बी तीं खूब आवडटालीं. अनिशाक खबर नासलें की तो कीर 'आपणाक सोडय' म्हूण सद्दां सद्दां किळांच मारतालो म्हूण. पूण दिव्याक मात तें रोखडेंच कळ्ळें. म्हणून तर तें थंय वच नासलें. थंय वतकच ताका कशेशेंच दिसतालें.

अनिशा त्या किराक पेरां, मिरच्यो बी घालतालें. ताचे बरोबर उलयतालें, मजा मारतालें. त्या घरांतलींय बी अनिशाक खूब बरीं करतालीं.

"बाय फाल्यांय यो आं." अशें त्या घरांतली म्हातारी सद्दां अनिशाक म्हणटाली. सांजे तें आनी दिव्या पासयेक वता आसतना दोगांय त्या घरामुखावयल्यान वतालीं. केन्नातरी आपूण अनिशाक सांगतलें म्हूण तें वाट पळयतालें. आतां दिव्या अनिशाक कितें सांगपाक सोदतालें? पळोवया!

"अनिशा पळय तूं तांगेर वता न्हय. तें आतां वचूं नाका." दिव्यान म्हळें.

"कित्याक दिव्या?"

"तुका... कांय न्हय आमी फाल्यां रातचीं थंय वतलीं आनी त्या किराक थंयच्यान सोडयतलीं. कळ्ळें?"

"ना. तो उडून गेल्यार हांव कोणाबरोबर खेळटलें? तूंच सांग."

"तुका एके कुडींत बंद करून दवरलें जाल्यार तुकां बरें दिसतलें?"

"ना."

"मागीर त्या किराक बंद करून दवरल्यार ताका कशें दिसतलें? जेवण खाण दिल्यार पासून ताका उडपाचें स्वातंत्र्य ना. तो उडून गेल्यार वचूं पूण तुज्या मनांतल्यान तरी वचचो ना न्हय?"

"ना.... अं.... बरें फाल्यां रातचीं अकरांक नाजाल्यार बारांक बीन." दिव्यान



अनिशाक शाबासकी दिली आनी दोगांय फाल्यांची वाट पळोवंक लागलीं. अनिशाक वायट दिसलें पूण दिव्याचें म्हणणें ताका पटलें.

दुसऱ्या दिसा बारांक सुमार तीं त्या घरा कडेन गेलीं. पावतांच तांच्यानी पांजरो उगडलो. किरान आवाज केलो. अनिशा आनी दिव्या सामकीं भिलीं. इतल्यान घराची लायट पेटली. तांकां कितें करूं कितें नाका शें जालें. एक म्हातारी भायर आयली. तिका रोखडेंच कळ्ळें कीं तीं दोगांय कितें करतालीं तीं. तिणे आपुणूच फुडें येवन तो पांजरो उगडलो आनी त्या किराची सुटका केली. दिव्याक आनी अनिशाक बरें ऽऽऽ दिसलें. आज तो कीर सद्दां अनिशा कडेन आनी दिव्या कडेन सांजे येता. म्हातारी, अनिशा आनी दिव्या ताका पेर, मिरची बी खावंक घालता.

☺☺☺

**- आयुषी प्र. शेटये**
यत्ता - आठवी
शारदा ईंग्लीश हाय स्कूल
माशेल गोंय
फोन -२२८७६४५



## बाबुलो

गोलुले मावशेक
जाला एक बाबुलो
माणकुल्या हातांचो
फुगऱ्या गोबऱ्या गालांचो

गोलूक हालीं सुचना कांय
खंयच्यो चॉकलेटी खंयची बावली
गोलुलो संवसार सगलोच घुंवता
बाबुल्या भोंवतणी

हालीं हालीं बाबुल्याचीच काणी
आनी बाबुल्याचींच गाणीं
खेळ अभ्यास सगळ्याक सुटी
शाळेचे ताईकडेन
बाबुल्याच्योच खबरी

गोलूक पळोवन बाबुलो हांसता
हात हालयत पांय नाचयत
मुठी कवळून
आंगठो चोखता
पळोवन ताचो अप्रूपाचो
कारभार गोलूचेर येता
हांसपाचो भार



– राजश्री सैल
मडगांव गोंय

## "तूं स्वतः भिकारी..."

एक राजा रानांत शिकारेक गेल्लो. ताका थंय एक साधू पुरूश मेळ्ळो. ताचे कडेन राजा थोडो वेळ उलयलो. तेन्ना राजाक खूब बरें दिसलें आनी साधूक आपणें कितेंय तरी दिवंचें अशें ताच्या मनाक दिसलें. ताणें साधूक आपणा कडल्यान कितेंय तरी भेट घे म्हूण विनंती केली.

साधून ताका म्हळें : "म्हाका हांगा कितेंच उणें ना हीं भोंवतणचीं झाडां पेडा म्हाका फळां दितात. ह्यो झरी म्हाका निर्मळ उदक दितात. म्हजी तान-भूक भागता. म्हाका आनी कित्याचीच गरज ना. हांव हांगा तृप्त आसां."

राजान जाप दिली : "हांव हें सगळें जाणां. तरूय म्हज्या जिवाक बरें दिसचें म्हूण तुमी कितेंय स्वीकारचें. म्हजे बरोबर तुमी राजधानीत येवन म्हाका उपकारांत दवरचो."

राजान हे भशेन खूब आग्रो केलो तेन्ना तो साधू राजा बरोबर ताचे राजधानींत वचूंक तयार जालो. राजवाड्यांत मोतयां, माणकां, वज्रां, केंम्पां बी रत्नाची रासच रास दिश्टी पडटाली. राजाचें ऐश्वर्य आनी सत्ता स्पश्ट नदरेंत भरताली.

साधूक एका सुंदर आसनार बसोवन राजा म्हणूंक लागलो : "हांव थोडो वेळ प्रार्थना करतां, ते मेरेन तुमी ह्या आसनार बसचें."

इतलें सांगून राजा मात्सो कडेक सरलो आनी प्रार्थना करूंक लागलो, "देवा,



म्हजेर तुजी कृपा आसुंदी. म्हाका आनीक धन दी. संतती दी. म्हजी एका सारकी वाढ जायत वचूं.."

राजाची प्रार्थना अजून सोंपूंकूच नाशिल्ली. इतल्यान तो साधू आसनावेल्यान उठलो आनी तडक चलूंक लागलो. राजा फाटल्यान धांवलो आनी म्हणूंक लागलो : "अजून हांवें तुमकां कांयच दान करूंक ना. तुमी मदींच शे उठून गेले?"

राजा कडेन पळोवन साधून जाप दिली, "तूं म्हाका दान कितें दितलो? तूं स्वतः भिकारी, म्हाकां अमकें दी, तमकें दी म्हण निकतोच तूं मागतालो. असल्या भिकारड्याचें दान घेवन म्हाका कितें करचें आसा?"

आनी साधू उठून सरळ रानांत गेलो.

☺☺☺

– गोदुबाय केळेकार
नगर, पिरवळ गोंय

# मे म्हयन्याचें म्हत्व

मे म्हयनो आपलीं कांय खाशेलीं वैशिश्ट्यां घेवन येता. मे म्हणटकच सुटी, भोंवड्यो, सोयऱ्यां येवप, तांगेर वचप हें आयलेंच. वैशाख म्हयनो वसंत ऋतू रखरखीत हुनत थंडसाणेची गरज. आंबे, पणस, काजू, निरो, काण्णां, चुन्नांचे दीस. १ मे म्हळ्यार कामगार दीस. तसोच आमच्या शेजरा आशिल्ल्या महाराष्ट्र राज्याचो स्थापणूक दीस. तीस तारखेर आमच्या गोंयचो घटक राज्य दीस. ते भायर ह्या म्हयन्यांत जायतीं फुलां फळां तयार जातात. ब्रिटनांत खंय मे

उबो करून ताचे भोंवतणी रीबन लावन नाच करपाची परंपरा आसा. त्या नाचाकडेन गुजरातेंतल्या गुंथण (गांथन) ह्या नाचाकडेन साम्य आसा. म्होवाच्या मुसांची इटालियन देवता खंय मॅजेस्टा! ताका लागून हें मे नांव फुडें आयलां अशें य सांगतात. ते भायर आमी गांवगिऱ्या वाठारांत हो म्हयनो पावचो तयारेचो म्हयनो म्हूण मानतात. घरावेले नळे परतुवप, गोठे शिंवप, लाकडा भरप, पावसांत जाय तें सामान हाडून दवरप. जुनांत सुरू जावपी शाळाखातीरची तयारी करप हीं कामां करपाचो मे म्हयनो.

# सुटी आमी घालोवया!

सुटये दीस घालोवया
अभ्यास मातसो विसरूया

तांबडी सुर्ला वचुया
म्हादेवा देवूळ पळोवया

वागाक पळोवंक बोंडला या
मर्ये तळ्यांत व्हड्यान या

दूद सागरांत भोवंया
उदका शिंवर घेंवया

बाग कळंगुटे वचून
दर्या गाज आयकुया

मंगेश, म्हाड्डोळा, हरवळ्यां
चर्ची तश्यो व्हडल्या गोंयां

जामा मशीद आसा फोंड्यां
गोंय भोंवडी करूया

थंड उदक न्हांवया
शीण सगळो घालोवया



# चाचा नेहरू

चाचा नेहरू आमचे म्हान
भुरगीं तांकां जीव कीं प्राण!

चौदा नोव्हेंबर हो दीस
पंडीतजींचो वाढदीस

देसभर तो मनयतात
तांचो सगळे उगडास करतात

आमचे पयले पंतप्रधान
देशाक ताणीं हाडली शान

राष्ट्र केलें दैदिप्यमान
तांचो आमी राखुया मान!



– सदानंद तेंडुलकार
खोडयें-सत्तरी, गोंय

(२७ मे ह्या दिसा पंडीत नेहरू संवसाराक अंतरले. त्या निमतान तांच्या उगडासाक.)

**शालिनी म्हार्दोळकार, एके काळावेली कोंकणी माचयेवेली आनी सिनेमांतली नावास्ती कलाकार. तांचे कडेन संवाद सादलात गोवा टुडेचे संपादक भौ. विनायक नायक.**

# 'हांव मराठी माचयेवेल्यान कोंकणी तियात्रांत आयलीं.'

शालिनी म्हार्दोळकार, आयज वसई हांगा आपल्या ल्हानश्या डबल बेड फ्लॅटांत आपलें जिवीत सुखा समाधानान सारता. शालिनी एके काळावेली कोंकणी तियात्र आनी सिनेमा हातूंत आपली नायिका म्हणून खाशेली सुवात निर्माण करपी त्या काळावेली आघाडिची कलाकार.

नाट्यप्रेमी घराब्यांत जल्म घेतिल्ल्या शालिनीन अभिनय आनी गाणें ह्या मळार प्रवेश केलो तो आपल्या आंगांतल्या सैमीक गुणां वरवींच. पिरायेच्या पांचव्या वर्साच ताणी आपली कारकीर्द आरंब केलो. म्हार्दोळचे जात्रेक सादर करपी एका मराठी नाटकांतली बाल कलाकाराची ती भुमिका. ह्याच गांवांत तिचें भुरगेंपण सरलें आनी फुडल्या पांच दशकांच्या काळांतल्या कलाकाराच्या कारकीर्दींतलो होच गांव तिचो आरंब थारलो.

आपल्या किशोर वयांतूच शालिनीन वेवसायीक माचयेर पावल दवरलें. पुण्यांतले प्रभात थिएटर कंपनींत शालिनी भितर सरलें.

त्या कंपनिंतल्या ताच्या भुमिकेन मराठी नाटकाक एक ताकदिची अभिनेत्री दिली. लग्नाची बेडी ह्या नाटकांतली तिची भुमिका त्या काळार गाजलीच. पूण त्या काळार साक्षी आशिल्ले रसीक अजुनय तिचे भुमिकेची याद काडटा.

शालिनी तियात्र आनी कोंकणी सिनेमा हातूंत खूब उसरांच भितर सरली. तीय बी तिणें आपलो पुण्याचो राबितो सोडून मुंबयंत स्थायीक जाल्ली तेन्ना. ॲन्थोनी फ्रेंवलीन हाच्या भाव भयण ह्या तियात्रान तिणें सी आल्वारीस हांच्या वांगडा मुखेल भुमिका केली आनी त्या उपरांत तिणें फाटीं वळून पळयलेंच ना. त्या काळावेले जितले आघाडिचे तियात्रीस्त आशिल्ले तांच्या दरएक तियात्रांत शालिनीक मागणी आसतालीच. चड करून सी आल्वारीस आनी एम बॉयर हांच्या तियात्रांत शालिनी खास करून आसतालीच. शालिनीन आपले भुमिकेंतल्यान तियात्राक एक नवो आयाम दिलो. तिणे फक्त गोंयचींच माची गाजयली ना तर एम बॉयर हांच्या पंगडांतल्यान गल्फ देशांत दौरे करून थयचींय माती गाजयल्या.

कोंकणी चित्रपट अभिनेत्री म्हूण शालिनीन आपलो खाशेलो ठसो दवरला. चित्रपट निर्मोण आनी म्हजी घरकान्न हातुतल्यो तिच्यो भुमिका म्हळ्यार एक वेगळी उंचाय लाभिल्लो अभिनय. सी आल्वारीस आनी शालिनी हांची जोडी सिनेमांत इतिहास घडोवन गेल्या. तिचे निर्मोण सिनेमांतले भुमिकेक राष्ट्रीय पुरस्कार त्या काळच्यो प्रधानमंत्री इंदिरा गांधी हांच्या हस्तुकीं लाभलो. त्या सिनेमांतलें थोल म्हज्या बाय हें तिणें गायिल्लें एक गीत खूब गाजलें. हिन्दी फिल्म निर्माते ताराचंद बडजात्या हाणीं हो सिनेमा तकदीर ह्या नांवान हिन्दींत केलो पूण शालिनीची भुमिका तिकाच दिली.

अशे हे नामनेचे अभिनेत्री कडलो हो फोना वेल्यान केल्लो संवाद.



★ रंग मंच आनी सिनेमा ह्या मळार तुमी इतलें भरीव योगदान दिल्लें आसा. आतां म्हाका सांगात, तुमी आतां अभिनयांतल्यान आपल्याक कुशीन दवरल्या. तुमकां ते विशीं शेणिल्ले वरी दिसना?

★★ मुळींच ना. कोणूच ही कारकीर्द कायमची मुखार व्हरूंक शकना. जेन्ना वेळ येता तेन्ना दर एकल्यान ती थांबोवंकूच जाय. हांवेंनूय कांय काळा फाटीं तेंच केलें. आनी आतां हांव म्हज्या कुटुंबा वांगडा खुशालकायेन दीस सारतां.



*सात दुखी* तियात्रांत शालिनी. ताका धरून दाव्यान मॅरी आनी उजव्यान ऑफेलिया.

अभिनय सोडून दुसरें कितें करचें हो विचारूच म्हजे तकलेंत केन्ना आयलो ना. खरें म्हळ्यार म्हजी आवय सादरीकरण कलेची व्हड भक्त आशिल्ली. तेच पासत म्हजे मुखार दुसरो पर्याय नाशिल्लोच. म्हाका खबर आशिल्लें कीं म्हाका फुडाराक अभिनयूच करूंक जाय. ती एक प्रकारची सक्तीच म्हणूं येता.

★ म्हणचे तुमी जल्मा सावन म्हार्दोळकारूच?

★★ तशें न्हय. म्हजो जल्म पणजे जालो. पूण म्हजें भुरगेंपण म्हार्दोळा सरलें.

★ तुमी तियात्रांत कशीं पावलीं?

★★ ती एक व्हडली काणी म्हळ्यार जाता. जालें कितें, खूब वर्सां पुण्यांत सारल्या उपरांत हांव मुंबय गेलीं.

★ पुण्यांत? थंय तुमी कितें करतालीं?

★★ हांव प्रभात थिएटर कंपनींत काम करतालीं. खरें म्हळ्यार ते कंपनींत हांव पिरायेच्या १२ वर्सांचेरूच भितर सरिल्लीं.

★ खरें सांगू? तुमी मराठी माचयेर काम केलां हें म्हाका खबरूच नाशिल्लें.

★★ हांवें खूब काम केलां. सांगपाचें म्हळ्यार हांव मराठी रंगमाचयेवेल्यानच तियात्रांत आयलीं.

हांवें खूब मराठी थिएटर कलाकारां वांगडा काम केलां. जे उप्रांत खूब नामनेक पावले. म्हजी लग्नाची बेडी ह्या नाटकांतली भुमिका खूब गाजली. हांवें चित्तरंजन कोल्हटकर, हंसा वाडकार, शांता जोग, धुमाळ, केसरबाई बांदोडकार आनी हेर जायत्यां वांगडा भुमिका केल्या. उद्यांचा

कोणेंय पुराय आयुश्य आपूण प्रकाश झोतांत रावतलों अशें चितप लेगीत पिशेपणाचें. हांव म्हजे जिवितांतलें कांय खीण आतां प्रार्थनेंत आनी भक्तींत घालोवंक सोदतां.

★ अशें दिसून आयलां कीं चडशे कलाकार मागीर तो माचयेवेलो आसू वा पडद्या वेलो. आपले परजळीत कारकीर्दींतल्यान भायर सरता तेन्ना थोडो चलबिचल जाताच. तुमकां तसो कितें अणभव?

★★ म्हाका कांयच दिसना. म्हाका कोणेंच ह्या मळावेल्यान निवृत्त जा म्हूण सांगूंक ना. हांवें तो निर्णय स्वताच घेतला. कित्याक म्हाका दिसलें कीं हांवें खूब काळ अभिनयांत सारला.

म्हाका, लोक म्हाका विसरून वतले हाचो हुसको ना. तरी म्हाका दिसता लोक म्हाका इतले सहजतायेन विसरून वचचे ना. ना तर तुमी म्हजी मुलाखत घेवचेच नाशिल्ले. तरीय पूण प्रत्येकान सत्याक फुडो करूंकच जाय. जेन्ना जो कोण ताच्या वेवसायांत आसा तोवेर तो उजवाडांत आसता.

★ ही मुलाखत घेवपाचो हेत म्हळ्यार तुमची भांगराळी कारकीर्द आयच्या ह्या मळावेल्या गोंयच्या तरनाट्यांक कळची. तांकां ताचो अणभव मेळचो. देखून हांव तुमच्या सुर्वेच्या कारकीर्दी मेरेन वचूंक सोदतां. म्हाका एक सांगात, तुमी पयले खेप केन्ना माचयेर पावल दवरलें.

★★ तेन्ना हांव फक्त पांच वर्सांचें. म्हजे आवयन म्हज्या नांवान एक अभिनय करप्यांचो पंगड स्थापन केल्लो. ताका **शालिनी संगीत मंडळ** नांव दिल्लें. म्हणटकच हांव म्हज्या भुरगेपणा सावन म्हार्दोळा मराठी नाटकांतल्यान भुमिका करतालें.

★ हय. म्हाका अदमास आसा एखाद्रे हांयसाचें पील उदकांत पेवता तशीं तुमी सैमीक रूपान माचयेर वावुरलीं. म्हणचे तुमी जल्मतांच कलाकार म्हणू येता.

★★ हय. तशें म्हणूंक हरकत ना. अभिनयाची कळाशी म्हज्या रक्तांतूच आसा.

**संसार** ह्या नाटकांत केसरबाय म्हजी आवय जाल्ली. प्रसाद सावकार लेगीत थिएटरांत म्हजो सांगाती आशिल्लो. म्हणचे विसरूंक फावना कीं हांव मराठी मंचावेल्यान तियात्रांत आयलीं.

✱ खरेंच अजापाची गजाल! पूण तुमी म्हाका अजून सांगलें ना कीं तुमी खंयच्या तियात्रांत सुर्वेक भुमिका केली?

✱✱ सांगता न्ही. जेन्ना हांव मुंबय पावलीं तेन्ना हांव परेल हांगा थंय जावपी तियात्र पळोवंक वतालीं. थंय म्हाका ॲन्थोनी फ्रॅन्कलीन हाणें पळयलें आनी ताणें म्हाका तियात्रांत भुमिका करपाची विनवणी केली. हांवें ती स्विकारली. आनी फुडलें तुमी जाणांच.



*निर्मोण* सिनेमांत सी आल्वारीस आनी शालिनी

✱ तियात्राच्या मळार तुमी पावल घालें तो तियात्र खंयचो?

✱✱ ताचें नांव **भाव-भयण**. सी आल्वारिसाची तातूंत मुखेल भुमिका आशिल्ली. तातुंतली म्हजी भुमिका भोवच मानवली. खूब तोखणाय जाली म्हजी. तेन्ना सावन म्हाका तियात्रांत भुमिका करपा खातीर मागणी येत रावली.

✱ एके हिन्दू चलयेन तियात्रांत काम करप आनी तेंय बी त्या काळांत ही खूब धाडसाची गजाल म्हणूंक जाय.

✱✱ हय. धाडसाचीच म्हणची पडटली. पूण हांव पयलीं सावन तशीं धाडशीच म्हणूंक जाय. जें किर्ते म्हाका करचेंशें दिसलां तें करूंक जाय असो म्हजो विस्वास. म्हणटकच लोक किर्ते म्हणटले हाचेर लक्ष दिवपाचो प्रस्नूच ये नाशिल्लो.

✱ तुमकां तियात्र करतना योग्य अशें उच्चार तंत्र कशें लाभलें?

✱✱ म्हाका उच्चाराचेर थोडो अभ्यास करचो पडलो. पूण म्हजे खातीर तो व्हडलोसो प्रस्न नाशिल्लो. कित्याक तर हांवें गुजराथी चित्रपटांनीं आनी नाटकांनींय कामां केल्यांत. हांगा तर म्हाका कोंकणी कशें उलोवंचें हें खबर आशिल्लें. गुजराथी तर म्हाका खबरूच नाशिल्ली. खऱ्या हाडांच्या कलाकारांक, भास ताचे उच्चार हाची अडचण केन्नाच जाय ना.

✱ तें खरें आसा. तरीपूण संवाद घेता आसतना खंय ना खंय अशें उच्चाराचें एखाद्रें उदारण घडटाच जंय मनीस आडखळटा. तुमचे बाबतींत अशी एखादी घडणूक?

✱✱ हय. अशी घडणूक घडूं शकता. हांवें एकदां म्हणिल्लें लेगीत. 'तुकां चांगली बुध्द शिकयतां.' हांगा 'चांगली' हो शब्द म्हज्या तोंडांतल्यान चुकून आयलो. खरें म्हळ्यार म्हाका म्हणूंक जाय आशिल्लें, 'तुका सारकी बुध्द शिकयतां.'

✱ म्हाका एक सांगात, सी आल्वारीस, एम बॉयर हांच्या सारख्या दिग्गज कलाकारां वांगडा काम करतना तुमकां कशें दिसतालें?

✱✱ खऱ्यांनीच तो एक वेगळोच अणभव. फक्त बॉयर आनी आल्वारीस हांचे बाबतींतूच न्हय तर तियात्र माचयेवेले जासींत वाज, प्रेम कुमार, ॲन्थोनी डि सा, रॉबीन वाज आनी सौजालीन हांचे वांगडा भुमिका करप म्हळ्यार एक आगळोच अणभव.

✱ तुमकां सामकें समाधान भोगलां अशे एखाद्र्या तियात्रांतले भुमिकेची तुमकां याद जाता?

✱✱ फक्त एकूच न्हय. खुबशे आसात. सी आल्वारिसाच्या **व्हनी** तियात्रांत भुमिका करतना म्हाका खूब मजा आयली. तशेंच ताच्या **वजें** ह्या तियात्रांतूय. तसोच सौजालिनाचो **सात दुखी** म्हूण एक तियात्र आशिल्लो. तातूंत हांवें सायबीण मांय ची भुमिका केल्ली. ती भुमिका खऱ्यांनीच म्हज्या काळजांतल्यान आयिल्ली. तिणें म्हाका सगळ्यांत व्हड अशें समाधान दिलां. हांव म्हणीन लेगीत, म्हजी तीं भुमिका पळोवन म्हजी पुजा करपाक सुरवात केली.

✱ हेच तरेची एक गजाल म्हाका हांगा याद जाता. इंदुमती पैंगीणकार - तुमचे वरींच एक गोंयकार कलाकार - ताणीं जय संतोषी माँ हातूंत भुमिका केल्ली. तांचोय तोच अणभव आसा.

✱✱ हय. हय. तशेंच!

✱ तियात्रान तुमकां खूब व्हडलें मळ दिलें. तुमी तियात्र घेवन गल्फाकूय पावलीं. तुमी अमेरीकेक केन्ना सादर केलां?

✱✱ हांव अमेरिकेक गेल्यां. पूण तियात्राच्या पंगडा वांगडा न्हय. हांव म्हज्या कुटुंबावांगडा खासगी भोंवडेक गेल्यां. पूण हांवें गल्फाक तियात्र सादर केल्यात. एम बॉयराचो **काजाराची रात** हो तियात्र गल्फाक केल्लो. तातूंत हांवें हिन्दू भाटकान्नीची

भुमिका केल्ली.

★ म्हाका याद जाता ते प्रमाण तुमी स्वता एक तियात्र बसयल्लो. बरोबर? तुमकां तातूंत गोंयच्या तियात्राच्या मळार कसो कितें येवकार मेळ्ळो?

★★ हांवें एक तियात्र केल्लो. ताचें नांव **करता तें भरता**. पूण जे तरेन लोकां कडल्यान म्हाका येवकार मेळूंक जाय आशिल्लो तसो मेळ्ळो ना.

★ तुमच्या सिनेमांतले कारकीर्दीकडेन वचचे आदीं म्हाका एक सांगात, तियात्रांच्या दोन प्रकारां मदलो तुमकां खंयचो प्रकार म्हळ्यार खेळ वो पारंपारीक चड आवडटा?

★★ अर्थांत पारंपारीक तियात्र. म्हाका खेळ तियात्रांतलें व्हडलेंशें कांयच कळना. हांवें तातूंत केन्नाच भुमिका करूंक ना.



**आदल्यो प्रधान मंत्री इंदिरा गांधी हांचे कडल्यान उत्कृश्ट अभिनया खातीर राष्ट्रीय पुरस्कार स्वीकारतना शालिनी.**

★ तुमची निर्मोण सिनेमांतली गाजिल्ली भुमिका, तो सिनेमा निर्माण जावन आतां ४० वर्सां उल्गलीं तरी अजून लेगीत लोक याद काडटात.

★★ ती खरेंच सुंदर भुमिका आशिल्ली. कथाय सुंदर आशिल्ली. दिग्दर्शनूय बरें आनी संगीतूय...

★ त्या सिनेमांत सगळेंच बरें आशिल्लें हातूंत दुबावूच ना. पूण म्हाका तातुंतलें सगळ्यांत चड सुंदर लागलें तें तुमी गायिल्लें **धोल म्हज्या बाय** हें गीत. त्या गितान तो सिनेमा विसरूं नज अशे उंचायेर व्हेलो. तुमी गावंक खंय शिकले.

★★ म्हाका भुरगेपणा सावन गावपाची आवड आशिल्ली. सैमीक देणूच म्हणूं येता. त्या भायर हांवें गायनाचें शिक्षणूय घेतलें. म्हजे गुरू मंगेशकर बुवा म्हूण आशिल्ले - लता मंगेशकराच्या नात्यांतले.

★ म्हाका याद जाता, **निर्मोण** सिनेमाचें हिन्दी रूपांतर जातूंत तुमी अभिनेत्री आसात. तीय भुमिका खऱ्यांनीच यशस्वी जाल्या. लक्ष्मीकांत प्यारेलाल ह्या नामनेच्या संगीतकारांनीं दिल्ल्या संगितांत ती एक भर म्हणूंक जाय. त्या चित्रपटांत एक सुंदर गीत आशिल्लें - जब जब बहार आये - और फूल मुस्कुराये - मुझे तूम याद आये.

★★ बरोबर. पूण हिन्दी रूपांतरांत हांवे तें गावंक ना. लताजीन म्हणिल्लें.

★ म्हजे कडेन निर्मोण सिनेमाची सिडी आसा आनी हांव तुमचे तातुंतलें धोल म्हज्या बाय हें गीत हांव दीस पट्टें म्हजें काम चालू आसतना आयकतां.

★★ ओह! खरेंच अप्रूप! पूण म्हजे कडेन तें गीत ना. म्हजे कडेन एल पी रिकॉर्ड आशिल्ली. पूण ती फुटली.

★ हुसको करूं नाकात. हांव तुमकां सिडी धाडटां.

★★ तुजे खूब उपकार जातले.

★ तुमी ॲन्थोनी मेंडीस हांच्या वांगडा खूब गितां गायल्यांत. ताच्यो कॅसेटी वा सिडी बी सांबाळून दवरल्यात?

★★ ना. म्हज्या गितांचे आल्बम ना.

★ निर्मोण सिनेमा उपरांत तुमी सी आल्वारिसा वांगडा आनीक एका कोंकणी सिनेमांत काम केलां. पूण तो सिनेमा बरी पटकथा आसून लेगीत निर्मोण सिनेमांक जितलें येश मेळिल्लें तितलें मेळूंक पावलें ना. कारण कितें?

★★ हांव सांगूंक नकळों. म्हाका दिशिल्लें तेंय तितलेंच गाजतलें.

★ निर्मोण सिनेमांतले भुमिके खातीर उत्कृश्ट अभिनेत्रीचो भोवमान तेन्नाच्यो प्रधानमंत्री इंदिरा गांधी हांच्या हस्तुकीं स्वीकारतकच तुमकां भोवच खोशी भोगल्या आसतली न्हय?

★★ अर्थातूच. हांव एका व्हड फुडाऱ्याकडल्यान पुरस्कार स्वीकारतां हाचेर म्हजो विस्वासूच बस नाशिल्लो.

★ आतां निमणे कडेन तुमचे छंद आमकां जाणून घेवचे आसात.

★★ म्हाका क्रिकेट आवडटा. कपील देव हो म्हजो आवडिचो खेळगडो आशिल्लो. आतां सचीन आवडटा. म्हाका दादाय - गांगुली आवडटा.

◆◆◆

मनसंवेदना

# मनीस हुशार?

कोण म्हण्टा मनीस हुशार?
मनीसूच तो आपल्याक तोखेता
मांजर लेगीत पळयात
नितळसाण कशी राखता!
सुण्या सारखो इश्ट ना
मनीस तर आपसुवार्थी
आपूण आपणाक म्हणपी
देव मात समेस्तांक
पालीचें पांसियेंस तर
तोखेत तितलें थोडें
वरांचीं वरां वण्टीर
सोडोवंक पोटाचें कोडे
कोलो तर सामको हुशार
हेरांक सगळ्यांक फटोवन
बरें बरें खावपाचें
सुखान दीस सारपाचे
गावचे कितले गूण
त्या थंडसार गायचे
मोल करूं नजो तिच्या
धव्या फूल्ल दुदाचें
कावळ्याची नदर तर
सदांच भोपश्याचेर
तें मात मेळ्ळ्या बगर
उरतली कुड्डीच नदर



- **भिकाजी घाणेकार**
लिदिया गार्डन
सांत-इनेज, पणजी
फोन : २४३१३६५



## बंदखण

काळ्या चिऱ्यांचें आंग म्हजें
दात काळे सुळ्यारें लोखंड
निराश काळोखी जीवन म्हजें
उलयतां हांव अभागी बंदखण

जायत्या पापयांक गिळून आयज मेरेन
म्हज्या भितर कोंडून दामल्यात
गुन्यावांचें तांच्या रीण फेडपाक
शिक्षा दिवन कैदी दवरल्यात

गुंडा- मवाली, चोर-दरोडेखोर
पोटांत म्हज्या लुटेरे खुनी
सोंसतात फाशी वा कारावास
ना जाल्यार भोगतात कालापानी

पूण ह्या चिखलाच्या कोंडांत
पडलां एक चकचकीत थीक
भोगता शिक्षा दुसऱ्याच्या गुन्यांवाची
पेटयता आपल्या कश्टाचें पीक

निश्पाप हिऱ्याक पापी जगान
काळी किट्ट घस फासल्या
नांवाची ताज्या घाण करून
गुन्यांवाक संवसारान पोसला

तडफडटा ही कूड म्हजी
पळोवन दुकां ताज्या दोळ्यांतलीं
काटे उबे रावतात आंगार
येवजून दोरी ताज्या गळ्यांतली

धोल कसो बडयतात ताका
तोंडांतल्यान फट उलोवन घेवपाक
करूंक नाशिल्ल्या अपराधा खातीर
केस करून ताका फसोवपाक

असत्य मेळयतलो सत्याचेर विजय
बळी चडोवन त्या बाबड्याची
कलंक पूण माथ्याक म्हज्या
आयकात व्यथा ह्या अभागी बंदखणीची

**–संग्राम शंबू हळदणकार**
राय शिवोली बार्देश, गोवा
फोन : ९९२३०३७८२६




## आश्वासन

रातीं,
चांन्नें सावले सांगाती आपालिपा खेळता
सांवरी उशीचेर न्हीद तळमळता
काळजांत वेदने वेग
ना सुशेग
कोणे साद घालो?
भायर विस्तारभर
एक गूठ शांतताय माखल्या
धर्तरी ध्यान धरून बसल्या
रूशी रूखांली स्तोत्रां पानांनी सळसळतात
पुर्विल्ले पर्वत तपश्चर्येक उबे
समिंदराचो वेदघोष
नखेत्रांचो रासरंग
रातीचे रानपक्षी मोन्यानी आयकतात
रूप्या कूंभ रकयता चंद्र
ह्या स्निग्ध तेजांत न्हालेलें
हें विश्वची मंत्रमुग्ध
आनी हांव उबी
शांतताय शाल पांगरून
उबी स्तब्ध
मंतरलेली भारलेली
खोल गाभाऱ्यांत
श्वास गायता
गहन गंभीर गायत्री
सोऽहम सोऽहम
तनमनांत स्रद्धेचो हुंवार
व्हांवोन वेता निरशेणी
उरता एक आश्वासन
एक विश्वास
जीव जंतू वृक्षवल्लीक पोसतली सृश्टी
ह्या जीवाक सोडून घालीत?
हें कृपेचें वरदान
पोशांत भोरून
धादोस जावन
धरतीच्या कुशींत
सुस्त न्हीदतां

**- सौ. इंदू अशोक गेरसप्पे**
बंगळूर

## वाट पळयतां

दु:खां गळोवन आज
हांव ही वळ बरयतां
यो बेगीन म्हजे लागीं
हांव तुजी वाट पळयतां!

कशें कशें मेळनासतना
हांव हे दीस काडटां
दर दिसा तुजेच यादीन
हांव भितरले भितर घुस्मट्टां

सकाळीं उठून कावळ्या रड्यार
आशेल्ले मन भुल्लूसता
तूंच येतलो आस्त बाळगून
हांव रे जियेतां!
यो बेगीन मज्या लागीं
हुमऱ्यार बसून वाट पळयतां!

खिणा खिणा कणकणी
एकेच गजालीक आशेतां
दिव्याची ती वात जशी
उजवाड आपलो दिपकायता
त्याच उजवाडांत तुजे सावळेक
पळोवंक हांव अशेतां
तूं केन्ना ना केन्ना तरी
येतलो हे आशेन रावतां

**-विभय साळकार**
नगरपालिका मैदाना लागीं
मावशी मार्ग, वाळपय



## कांदो

कांद्यान म्हाका रडयलें
तर्शी म्हर्जी दुखां धरतेर पडून
धरती जाली ओली
दनपार जाता म्हणसर
कांद्यान म्हाका हासयलें
घरच्या मनशांनीं म्हळें
रूच्चीक जालां रांदप तुजें
सुंगटा हुमण कांदो घालून,
मेथये भाजी कांदो घालून,
खुब्याचीं मासां काडून
दांगर केलें कांदो घालून.
कितें तर व्हडविकाय त्या कांद्याची
पापणेचो कांदो म्हळा ताका
कोणी बरो ना जाल्यार
नाका कडें व्हेलो कांदो
थंडी जोर आयल्यार
शिनलो बारीक कांदो
मारली ताचेर साखर
काडलें मेल भुरग्याक
मांडयेर घालून घालें
तांच्या ताळ्यांत
दुसरे दिसा पळेशी जाल्यार
थंडी कफ जाली कुरार
असो भाग्याचो कांदो तो
माये मनशांक संकटाक पावपी
दोतोर घरा पावचे पयलीं
कांद्यान जीव काडलो मनशाचो
कितें थाट त्या कांद्याचो
पुरमेताक कांदो पयलीं
मोवळ्यो बांदून
लांबयताल्यो दांड्यार
श्रीमंत जांव गरीब
घरांघरांनीं कांदो तांचो दुबावूच ना
कांदो म्हळा ताका वखदी
राजकारणांत वावुरपी तो कांदो
चवदा ते चाळीस रूपया मेरेन
खाल्लो कांदो त्या तेंपार
पूण कांदो घरांत फाल्त केलो ना
ताका कमीपणान पळेलो ना



**- दिपा दि. खोलकार**
मडगांव

## तीय जात नश्ट करात

नित्य करीत शीण । मनांत विचार हीन ।
सुवार्थ सोदूंक दीन । तीय जात नश्ट करात ॥

काथो कांडीत बसता । पिरंगत दळीत रावता ।
गोड ओंवयो विसरता । तीय जात नश्ट करात ॥

बरें करूंक जायना । कोणेंय केल्लें सोसना ।
मनांतलो दुस्वास वचना। तीय जात नश्ट करात ॥

आपल्या पायां पोंदचें दिसना । तकलेंतल्यो किडी वचनांत ।
हेरांक मात निती प्रवचनां । तीय जात नश्ट करात ॥

करून वायट कर्मां । वेल्यान दुसऱ्यांचीं वर्मां ।
नित्य दुसऱ्यांची निंदा । तीय जात नश्ट करात ॥

मार तत्वां सांगतात । समाज सुदारूंक सोदतात।
वेव्हारांत नित्य नाडटा । तीय जात नश्ट करात ॥

मनांत भरला द्वेश । सोबोवंक म्हण्टा हांवेस ।
पूण दुस्वासा जात विशेश । तीय जात नश्ट करात ॥

**- रामकृष्ण जुवारकार**
व्हडलें गोंय
फोन : २२१८५१४



## सकाळ सकाळीं

सकाळ सकाळीं नवीं किरणां फांकतनां
दिसलें तुजें पुनवरूप चंद्र लिपतना ॥

वाट तुजी वळटा थंय कांयच दिसलें ना
दिसली एकच छबी तालान पावलां मारतना॥

सांगूं कशें घडलें कितें मन फुलतना
नखलामेन लजलें फूल भंवर भोंवतना॥

आंब्या रूखार फुल्लो चंवर कोगूळ गायतना
काळीज लागलें ताल धरूंक शेनाय वाजतना॥

लागली नदर पावलां मेजूंक चलता चलतनां
खेळ्ळी विणी बोटा बोटांत भुजार देंवतना॥

भरले जिणेंत पुर्व रंग किरणां फांकतना
सपनां खेरीत आयलीं नाचत वाजयत पांयजणां॥

- रमेश लाड
मडगांव, गोंय
फोन : २७५१३०८

## एक बिंदू

एक बिंदू बदलून उडयता
जिणेचें भविश्य
तो एकमेकांक सुखीय
करूं शकता

पूण वायट बिंदू मात
सुखी मनशाक लेगीत
जगपाक दिना
ताका तो एकदीस
मारून उडयता



- हिरण्येश आडारकार
वास्को

## ओलसाण

लग्ना उपरांत तुज्या घरांत
आई पांय म्हजे थारनांत
म्हजें घर, म्हजो संवसार
नवी म्हजी आसा रात
वयतना ह्या घरांतल्यान
कितलें हांव रडलें आई
दुखां तीं फटींग मगे
तुकांय हांव विसरलें आई
आबूज कशीं बायलां आमी
सुवार्थ आसा आमच्याय लागीं
हे तुळशीक पयलीं
कितले फावटीं उदक घातलें
आतां ती ह्या हातांनीं
मात लेगीत जायना ओली

- शिल्पा शांताराम केपकार
गांवसवाडो-म्हापशें
फोन : ९८५०९९५८७७

दिका

# जिव्हाळो

मनीस आपल्यो भावना कश्यो व्यक्त करता हें सांगप अवगड. मनशाचो राग, मोग उक्तावपाची तराय वेगळी आसता. राग येतगीर कोण कोणाक जिवेशीं मारता जाल्यार कोण कोणाक घरांतल्यान धांवडावन घालता. मोगाखातीर थोडे जीव दिवन आपली भावना उक्तायतात. जाल्यार खुशालकाये वेळार वेंग मारून उमेद दाखयतात. मनशाची भावना जण एकल्याच्या सभावाकडेन जुळिल्ली आसता. शांत सभावाचो मनीस शांत करण्यो करून आपल्यो भावना उक्तायता जाल्यार उग्र सभावाचो मनीस उग्र करण्यो करून आपल्यो भावना उक्तायता.

जायते फावट मनीस आपल्यो भावना उक्तायतासतना आपल्याच अस्तित्वाकडेन शेणून वता. भावनावश जाता तेन्ना निर्णय घेवप अवगड आसता. तेन्ना तो व्हांवन वता आनी जायते फावट चुकिचो निर्णय लागता. नाय म्हळ्यार मंथन करनासतना घेतिल्लो निर्णय खंय ना खंय चुकीक धरून आसताच. देखून मनशान आपणाली बुद्ध आनी आपणालो विवेक ताब्यांत दवरून वागपाचो यत्न करूंक जाय.

उत्तर भारतांतल्या एका गांवांत सोनम आनी जयराज हांची मोगाकाणी बरीच गाजली. कॉलेजीक शिकतना तांचो मोग जाल्लो. ह्या गुपीत मोगान फुडाराचे दिकेन पावलां मारलीं. शिकप सोपले उपरांत लग्न जावपाचो ताणीं निर्णय घेतलो. मोग कुड्डो आसता. ताका जात-कात, धर्म, वर्ण कांयच लागना, हें तांच्या लक्षांत आसलें. जण एकल्यान आपल्यो भावना सांबाळीत आपल्या घराकडेन कळयलें. दोनय वटेन वातावरण तापलें. लग्नाचो विचार दोनय फामिलीक मानवलो ना.

सोनम हें ब्राह्मण घराण्यांतलें जाल्यार जयराज वर्गीकृत जमातींतलो. सोनमाच्या वडिलांक आपली कात लिपोवपाची आसली जाल्यार जयराजाचे वडील आपली जात वळखून विरोधांत आसले. उत्तर भारतांत आंतरजातीय लग्नाक बरोच बोवाळ आसता आनी चड करून जेन्ना चली उंचल्या वर्गाची आसता तेन्ना.

हांगा मनशांच्या भावनांचो रंग दिश्टी पडटा. सोनम आनी जयराज आपल्यो भावना संयमपणीं व्यक्त करतात आनी एकामेकाक खंयच दुखचें ना हाची जतनाय घेतात. जाल्यार तांचे वडील आपली श्रेश्टताय आनी समाजाक धरून वागतात. सोनमाचो बापूय पयल्याच



उतराक सावन आक्रमक भुमिका घेवन रावता. मोगाक एक शक्ती आसता जी कोणच आडावंक शकना. मोग जर चलो-चलयेमदीं अखंडपणान थीर आसल्यार योग्य दिकेन वचपाक कसोच थांबना. तो आपणाली तेंगशी गाठताच. सोनम आनी जयराज हांच्या घरचो विरोध आसून पसून ताणीं मोगाकडेन निश्ठा दाखयली आनी तितल्याच खरपणान एकामेकाचेर विस्वास दाखयलो.

ह्या आदाराचेर ताणीं निर्णय घेवपाचो वेळ आयलो. तीं दोगांय एकामेकाक मेळ्ळीं. थंडपणान विचार केलो. दोनय फामिलिविशीं विचार केलो आनी तांचे मुखार रावले दोन पर्याय. पयलो पर्याय, एक तर दोगांनीय एकामेकाचेर विसर घालूंक जाय आनी आपलो मोग खंय तरी कमी पडिल्लो मोग म्हण विसर घालपाचो. पर्याय दोन, कोणाचोच विचार करनासतना, कोणाक कितें जातलें हो विचार करनासतना लग्न जावपाचें. मोगाचें जैत आनी मोगाची हार अशेच हे पर्याय आसले. लग्न करपाचो जर विचार जालो जाल्यार दोनय फामिलींचो आशीर्वाद घेवनच घरांतल्यान भायर सरपाचें आनी आशीर्वाद दिवंक नकार दिल्यार देवाच्या नांवान भायर सरून लग्न करपाचें ताणीं थारायलें.

तांच्या मनाप्रमाण कांयच घडलें ना देखून तांकां देवाचेंचे नांव घेवन भायर सरचें पडलें. जयराजाक तितलो विरोध जालोना पूण

भायर सरतां सरतां सोनमाक घाम आयलो. आपल्यो धमक्यो आनी राग पळोवन सोनम वांकडे पावल मारचें ना अशें ताच्या बापायन धरिल्लें. पूण सोनम सरळ वचून जयराजाक एक जालें. एका देवमंदीरांत वचून ताणीं लग्न केलें आनी त्याच विस्वासान आनी मोगाच्या भरवंशान नवो संवसार सुरू करपाचो निर्धार केलो.

हें मोगाचें प्रकरण लागीं-लागीं गांवभर पसरता. लोकांमदीं खबरो जावंक लागतात. जयराजाच्या घरच्यांक सदांच चिंता लागून उरता. आपल्या घराचेर आनी आपल्या पुताचेर केन्ना जोगूल देवून येयत हाची. तरी एक दीस सोनमाचो भाव सोनमाक घरच्यांचो आशीर्वाद घेवंक आपयता. त्या घरांत आवय फाटल्यान तोच सोनमाचो लागींचो इश्ट आसलो. पूण बापायच्या सभावामुखार ताचें कांयच चलनासलें. म्हण ताका वोगी रावचें पडटालें. हांगा जिव्हाळ्याची भावना जागी जाता. आवयक आपले धुवेची चिंता आसता. भाव भयणींखातीर सिंतीर आसता.

जिव्हाळो मनशाक सुशेग दिना. एक मनशाची याद जांव ती मागीर प्रेयसीची वो मारेकऱ्याची. इश्टाची वो दुस्मानाची, तो मेळूंकच जाय. ताका भेटूंकच जाय अशी परिस्थिती उबी करता आनी चड करून अशा वेळार जेन्ना चली घरांतल्यान भायर आसा आनी ताचे तकलेर आवय-बापायची सावळी, आदाराचो हात ना. देखूनच आवय पुताक धाडून सोनमाक परत एक फावट आपल्या घराचीं दारां उक्तीं करपाक सोदता. आपल्या घोवाक ती कशी तरी समजावन दवरता.

भीत-भीत पूण अधिकारान सोनम जयराजाक घेवन आपल्या घरांत भितर सरता. तांच्या येवकाराक बापूय लेगीत आसता. पूण तो कसलीच प्रतिक्रिया दाखयना. तो अस्वस्त जाता आनी भितर वता. सवका-सवका करून घरांत खुशालकाय पातळपाक लागता. मनशांची धांवपळ सुरू जाता. आपले धुवेक मान-सम्मानच्यो गजाली सुरू जातात. जेवणाची तयार सुरू जाता. संगीताची धून वाजपाक लागता. ल्हान ल्हान भुरग्यांचो खेळ सुरू जाता.

दनपार जाले उपरांत सगलीं जेवणाक बसतात. सोनम आनी जयराज बरींच खुशाल आसलीं. संयमपणान जें पावल मारिल्लें तें योग्य



पावल आसलें अशें तांकां दिसपाक लागलें. घडये आपली ती चूक आसली ते वेळार. ताची माफी मागपाक आज एक बरी संदी आसा अशें धरून सोनम जयराजाक घेवन उठटा आनी बापाय म्हऱ्यांत वता. हांसत्या तोंडान ताचेर नदर घालता. तो उबो जाता. घडये तांकां आशिर्वाद दिवंक. पूण ताच्या मुखामळार हांसो आसना. तो तिखट नदरेन जयराजाक पळयत आसता. घडये आपलो राग व्यक्त करता. घडये धुवेचो जिव्हाळो जागो जाता, घडये आपलें व्हडपण ताची परिक्षा घेता. तरी आसतना सोनम आनी जयराज ताचे पांय पडपाक बागवतात. तेन्नाच रागाचे भरींत तो मेजावयली एक बाटली काडटा आनी कोणेच ताका आडोवचे पयलीं जयराजाचे तकलेर घालता. जयराज तसोच सकल पडटा. एक व्हड आवाज आनी सगलेच वटेनीं किळांची. सगलेच वटेन बोवाळ. सोनमाचो बापूय शांतपणीं थंयच्यान कडेन सरता आनी एका कदेलार बसून जें घडटा तें पळयता.

कोणाकय दिसतलें हें एका बापायन करूं येता? आपल्याच जावंयाचेर आक्रमण करूं येता? मनशाचो सभाव केन्ना बदलत तें कोणाच्यान सांगूंक जायना. मनीस आपल्यो भावना कश्यो व्यक्त करत तें सांगूंक जायना. आपले करणेची ताका भिरांत दिसली ना, ताका कसलोच पश्चाताप जालोना. मात आपणें बदलो घेतलो हाचें समाधान जालें जांवये. पूण कोणाच्या खुस्तार आनी कित्याखातीर? जिव्हाळ्याची हीच व्यथा व्हय? जिव्हाळ्याची हीच कथा व्हय?

◆◆◆




-विन्सी क्वाद्रूस
'स्नोज कृपा'
आर्लेम राय
मो : ९८२२५८७४९८

आंकरी

# शिकवण



रातिचीं अकरा वाजिल्लीं. अजून पिंकिचो पत्तो नाशिल्लो. हरशीं ताका सदचीं धा जातालीं खरीं, पूण आज चडूच वेळ जाल्लो. विशाल पासयो मारून मारून थकिल्लो, पूण शांतीक कसलीच पर्वा नासली. ती सुशेगाद टि व्ही पळोवंक गुल्ल जाल्ली. तिका तें सगळेंच सदचें जाल्लें. तिणें केन्नाच ताची चिंता करूं नासली. पिंकीक तिणें जाय तितली मेकळीक दिल्ली. देखून ती कसलोच पेज तकलेर घेनासली. पूण विशालाक शांतिचें वागणें पटनासलें देखून तो तिच्या तोंडाक लाग नासलो. पूण आज विशालान, शांतीक जाप विचारपाचें थारायल्लें. देखून इतलीं वर्सां आवरिल्लो सगळो राग ताणें एका खिणांत भायर काडलो. पूण शांतीचेर ताचो कांयच परिणाम जालो ना, निमाणे विशालूय थकलो आनी आपले कुडींत वचून बसलो.

प्रियाच्यान आपल्या पप्पाची काकूट पळोंव नजो जाली, तेंवूय ताचे फाटल्यान धांवलें, पप्पाचें आतां ह्या घरांत कांयच चलना हाची जाणीव ताका आसली आनी विशालाकूय ही खबर आसली. देखून तो स्वताकूय ह्या सगळे कारणाचो कारणीभूत समजतालो, आपूण जर वेळार सावध जाल्लों जाल्यार आज हो दीस पळोवंक मेळचो नासलो असो ताचो समज आसलो आनी हें ताचें चितप सारकें आसलें. विशालाचे एक चुकीक लागून आज ताची जीण काळखान बुडिल्ली. तरीय प्रिया ताका समजायतालें, ताचीं दुखां पुसतालें. तशें आजूय पप्पाक समजावपाचो प्रयत्न ताणें केलो, 'पप्पा तुमी कित्याक मनाक लावन घेतात. आज मेरेन ताणी तुमचें खंयचेंच उतर कानार घेवंक ना. हें तुमी बरे तरेन जाणांत. मागीर कित्याक स्वताक त्रास करून घेतात.'

विशालाकूय एकाद्रीं ह्या वेळार प्रियाचीं उतरां पटलीं. ताणें आपलीं दुखां पुसलीं आनी तो न्हिदपाक गेलो.प्रियाय आपले कुडींत वचपाक भायर सरलें. पूण सकल गाडयेचो आवाज कानार पडलो देखून ताणें तशेंच गॅलरींत वचून पळेलें. भायर एक चलो पिंकीक पावपाक आयल्लो. गाडी थांबोवन तीं उलयतालीं. मदींच हांसतालीं, एका-मेकांचेर हात मारतालीं. तीं इतलीं गूल्ल जाल्लीं कीं आपल्याक कोण तरी पळयता हाचें भान लेगीत तांकां नासलें. तांकां जशी कोणाचीच पर्वाच नाशिल्ली. प्रियाच्यान तें पळयत रांव नज जालें. तें सोमतें दार उगडून भायर आयलें. प्रियाक पळेतांच तो भुरगो थंयसावन निसटलो. पूण पिंकीं थंयच उबें रावलें. प्रिया आपल्याचेर बेजारलां म्हणपाचें पिंकीन वळखल्लें. तरी कसलीच भिरांत नाशिल्लेवरीं तें थेट भितर वचपाक लागलें. तें घरांत पावसर, प्रिया थंयच दारा म्हऱ्यांत रावलें. पिंकीची चाल ताका आज बदल्लेवरीं दिसली. तें चलतना सगळेंच झेलता अशें ताका दिसलें. ताणें बेगी-बेगीन ताच्या हाताक धरलें आनी ताका सोफार हाडून बसयलें. पूण परत-परत तें ताचो हात सोडपाचो प्रयत्न करतालें. पूण निमाणें नाका तेंच घडलें. प्रियाच्यान राग सोसना जावन ताणें पिंकीचेर थापट मारलें. तितले म्हणसर तांचो आवाज शालुच्या कानार पडलो. विशालूय आवाज आयकून भायर पावलो. पिंकी घरांत पियेवन आयलां तें पळोवन विशाल जमनीर थिरावल्ल्या वरीं जालो. आपणें इतलीं वर्सां काडलीं पूण केन्नाच कसल्याच व्यसनाक तोंड लायलें ना. पूण आज आपले चलयेक कसली कमी भासली म्हूण तिणें हो अवतार केलो. हेंच येवजून विशाल सून्न जालो. पूण शांतीन हें सगळें वयल्या वयरूच घेतलें. ताणें चड मनाक

लावन घेतलें ना. आपले चलयेन जें केलां तें आज सगळ्याच घरांनीं जाता. सोरो पियेवप, सिगार ओडप ही आजकालची फॅशन जाल्या. तातूंत आपले चलयेन केलें म्हूण व्हडलेंशें कितें बिगडलें अशें तिचें मत आसलें. आनी तेंय तिणें विशालाक आनी प्रियाक उलोवन दाखयल्लें. वेल्यान प्रियाचेरूच तापली. आपले चलयेचेर जर ह्यानफुडें हात उबारपाची हिम्मत करशीत जाल्यार आपूण तुका सोलून काडटलीं अशी प्रियाक तिणें धमकी दिली.

प्रियाच्या दोळ्यांनी दुखां दाटलीं. पूण ताणें तीं गळपाक दिलीं ना. आपूण रडल्यार पप्पाक त्रास जातले, हें तें जाणा आसलें. देखून कांयच म्हणी नासतना तें आपले कुडींत गेलें. आपणें पिंकीक बऱ्याक मारिल्लें, ताणें केल्ल्या वायट कर्तुबांक लागून मारिल्लें. तरीय आपल्याकूच तापसावणी खावची पडली हें येवजून ताका रडपाक आयलें. मम्मी जर अशीच पिंकीचे चुकीचेर पालव घालीत रावली जाल्यार पिंकी केन्नाच सुदरचेंना. हें तें जाणा आसलें. पूण मम्मीक ह्या सगळ्यांची जाणकारी दिवप खूब कठीन आसलें. ती आपल्याचें कांयच आयकचीना हेंय तें जाणा आसलें. पूण अशेंच हातार हात धरून कशें बसतलें! पिंकीक सुदारपाक कितें तरी करपाक जाय, अशें ताका दिसतालें. पिंकीक समजायतलें म्हळ्यार, तेंवूय ताका लेखी नाशिल्लें. प्रियाक आज आपूण एकलें पडलें अशें दिसलें. आज ताका आपले आवयची खूब याद जाली. आदले दीस परत परत दारार मारपाक लागले. देव आपल्याक हासयतां हासयतां इतलो रडयतलो हाची ताका जाणीव नासली. आवय जिवीत आस मेरेन ताणें सूख भोगिल्लें. पूण काळान तें सुखूय हिसकावून घेतलें प्रियाची आवय तें ल्हान आसतनाच भायर पडिल्ली, विशालाक आनी प्रियाक एकसुरें सोडून. प्रिया ल्हान आशिल्लें देखून विशालाच्यान ताचो सांबाळ करपाक जालो ना, आनी अखेर नायलाजान विशाल दुसरें लग्न जालो. विशालाचे आनी प्रियाचे एकसुरे जिणेंत नवो असो उजवाड पडलो. पूण तो चड काळ टिकलो ना. शांतीन



रोखडोच आपलो रंग दाखोवपाक सुरवात केली. शांतीक पयसो सोडलो जाल्यार आनीक कित्याचेरूच मोग नासलो. विशालाचो ताणें कामापुरतो उपेग करून घेतिल्लो. प्रियाक तर तिणें आपलें केन्नाच मानलें ना. ताका ती परक्यावरी वागयताली. पूण प्रिया तें चड लक्षान घेनासलें. एक-एकदां वायट दिसतालें, पूण आपल्या पप्पाक लागून तें सगळें विसरतालें. करतां-करतां पिंकीचो जल्म जाल्लो. शांतीक जणू नवीं पाखांच लाबिल्लीं. प्रियाक दिशिल्लें एखाद्रें पिंकीचो जल्म आवयक बदलतलो म्हूण. पूण जालें भलतेंच. तिणें पिंकीक लेगीत तांचे कडल्यान चार हात पयसूच दवरिल्लें.

जशीं दोगांय व्हड जायत गेलीं, तशी शांतीचो आनी पिंकीचो सभाव कडवट जायत गेल्लो. ताणी दोगांयनी प्रियाक विसरून घातिल्लीं. प्रिया आनी पिंकीचे मदीं, तीन वर्सांचो फरक आसलो. पूण आंगान गुटगुटीत आनी लांब आशिल्ल्यान पिंकी-ताजेच वयाचें दिसतालें. प्रियाची कॉलेज पूर्ण जाल्ली. ताणें आपलो असो स्वतंत्र पार्लर घातलेलो. तें आपलो चडसो वेळ थंयच काडटालें. पिंकीचें मात वेगळेंच आशिल्लें. ताचें कॉलेज लायफ चालूच आसलें. पूण शिक्षणांत ताका मात लेगीत रूची नासली. ताका फकत भोंवपाक आनी मजा करपाक आवडटालें. कॉलेज बंक करून हेडपा शिवाय ताका कांयच येवजनासलें. पिंकी केन्नाच वेळार घरा पावलां म्हणपाचें कोणाकूच याद आसची ना. शांतीक मात केन्नाच कसलोच फरक पडलो ना. पिंकी ताचें एकुलतें एक चली आशिल्ल्यान ताणें ताचे खुबूच लाड केल्ले. ताका ती जाय-जाय तें हाडून दिताली. ताकाच लागून पिंकीचो सभाव हट्टी जाल्लो. स्वताच्या बापायक लेगीत तें मान दिनासलें. ताका तें हटकी लेगीत नासलें.

विशाल पिंकी कडेन उलोवपाक आशेतालो. पूण पिंकीच्या सभावाक लागून तोय ताचे वाटेक वचनासलो. प्रियाकडेन तर तें झगडत रावतालें. प्रियाचें समजावप पिंकीक आनी शांतीक आवड नासलें. देखून ती ताचेर बेजारताली. तरी प्रिया ताका सुदारपाचो हट्ट सोडिनासलें आनी ताकाच लागून आज जें घडिल्लें तें परत घडचें न्ही म्हणून प्रियान ताचेर थापट मारिल्लें. पिंकी वाट चुकता म्हणपाचें तें जाणा आसलें. पूण तें इतलें मुखार सरतलें म्हणपाची प्रियाक खबर नासली. कशीय जाल्यार आपली धाकटी भयण ती. ताका

सुदारप हें आपलें कर्तव्य अशें तें समजतालें. प्रियान, थापट मारिल्ल्या दिसा सावन पिंकी ताचे कडेन चडूच तुडस वागपाक लागिल्लें. ताका पळेतनाच तें मान वळयतालें. पूण प्रियान ताचें चड मनार घेंवना. ताका कितेंय करून पिंकीक सुदारपाचें आसलें. प्रियाक, स्वताचेर पुरे-पूर विस्वास आसलो. पिंकीक आपूण एक ना एक दीस सुदारतलें म्हूण. पिंकीक आपली चूक बेगीनूच कळटली. बरे वायटाचो समज येतलो आनी तेन्नाच ताका आपली आनी पप्पाची किम्मत कळटली म्हणून. पूण तो दीस केन्ना आयलो ना आनी जेन्ना आयलो तेन्ना खूब कळाव जाल्लो आसलो. पिंकी आतां सदां परस लेट करपाक लागिल्लें. घरांत उलोवपी, तापोवपी कोणूच नाशिल्ल्यान तें सामकेंच हाता भायर गेल्लें. पिंकीक आता लेट नायट पार्टी, डिस्को, मुवीज ह्या सगळ्यांचें पुरायेन पिशें लागिल्लें. वेल्यान ताचें घरांत ड्रिंक करून येवप सदचेंच जाल्लें. ह्या सगळ्यांचो चड त्रास मात विशालाक जाल्लो. ताचें जेवणा खाणावेलें लक्ष खुबूच कमी जाल्लें. विशालान लोकांचे लजेक लागून भायर भितर सरप लेगीत बंद केल्लें. आपल्याक कोणूय हांसत हे चिंतेन ताणें ऑफिसांत वचपाचें लेगीत सोडलें.

प्रियाच्यान पप्पाची काकुळट पळोंव नज जाली. पूण तें कांयच करूंक शकलें ना. पिंकीक कितेंय समजावंक गेल्यारूच तें आंगार धावत येतालें. तें कोणाचेंच आयकून घेनासलें. पूण त्या दिसा जें घडलें तें इतलें भयानक जातलें हाची सुलूस मात प्रियाकूय नासली. प्रिया सदचे भशेन आपल्या पार्लरांत गेलें. त्या उपरांत मात घरांत कितें जालें ताका कांयच कळ्ळेंना. पूण ताचें कामांत मात लक्ष लागना जालें. परत परत ताच्या मनांत मेळत ते विचार घोळपाक लागले एक सारके. पिंकीचेंच रूप ताचे समोर नाचतालें. ना रावन ताणें घराकडेन फोन केलो. जाल्यार फोन कोणूच घेना. प्रिया आनिकूय भिलें. हुसक्यानूच ताणें शेजाऱ्यांगेर फोन लायलो आनी विचारपूस केली. जाल्यार तांचे कडल्यान ताका जें कळ्ळें तें आयकून ताका शेळो घाम सुटलो. पिंकीक, रक्ताची उल्टी जाता म्हूण हॉस्पिटलांत व्हेल्लें. हें कळटांच प्रियान आनीक वेळ केलो ना, तें बद्द हॉस्पिटलांत धांवलें. भितर सरत जाल्यार पप्पा ताका पासयो मारतना दिसलो. मम्मी बसून रडटा तीय ताणें पळयली. आज पयले



फावट ताणें तिका रडटासतना पळयल्ली. पूण प्रियाक तिची काकूळट दिसली ना. कारण आज जें घडिल्लें ताका कारणीभूत तीच आशिल्ली. तिचे हलगर्जीपणाक लागून आज पिंकी ह्या जाग्यार पाविल्लें. तिचे वायट शिकवणेन आज पिंकीचो घात घेतिल्लो. पिंकीक आय सी यूंत दवरिल्लें. ताचें दुयेंस हाता भायर गेल्लें. पिंकी आतां ड्रग्सूय घेवपाक लागिल्लें. ही खबर तांकां सगळ्यांक हॉस्पिटलांत कळिल्ली. डॉक्टरान जेन्ना ही खबर प्रियाक सांगली तेन्ना ताका उतरांय फुटना जालीं. ताका शेळो घाम सुटलो. पिंकी हाता भायर गेलां हें तें जाणा आसलें. पूण तें इतकें फुडें सरतलें म्हणपाचें मात प्रियान केन्नाच चिंतूंक नासलें. हांसपा, खेळपाच्या वयार पिंकीन नाका त्या व्यसनाक तोंड लायल्लें आनी आपली फुला सारकी जीण काळखांत उडयल्ली.

पिंकीचें रूप आतां पुराय बदल्लें. तोंड सारकें बाविल्ल्या फुलावरीं दिसतालें. दोळे काळेकिट्ट जाल्ले. हाता पायांची ताकत जणू गळून गेल्ली. पिंकी एकदम सुन्नशें पडिल्लें. प्रियाच्यान ताचे ते हाल पळोंव नजो जाले. व्यसनांच्या नादाक लागून पिंकीन आपली जीण सुकिल्ल्या झाडावरीं केल्ली. डॉक्टरान आतां ताची आस सोडली. ताचें दुयेंस हाताभायर गेलां देखून आपूण आनी कांयच करूंक शकना अशेंय ताणें विशालाक सांगलें. शांतीक तर हें आयकून घुंवळच आयली. ताणें सोमतीच जमनीर बसकण मारली. विशालूय हें आयकून घट्ट जालो. प्रियाक कोणाक सांबाळूं, कोणाक नाका जालें. ताकाय धक्कोच बसलो. पूण ताणें धीर सोडलो ना. आपणेंय धीर सोडल्यार तांकां कोण सांबाळटलो हें येवजून ताणें स्वताक सावरलें. केन्नाच कांयच मांगूंक नाशिल्ल्या देवाकडेन आज ताणें खूब मागलें. आपले पासत न्हय तर ते आवय खातीर. तिणें केल्ले चुकिची ताका इतकी व्हडली ख्यास्त नाका आसली. पिंकी सोडून कोणाकूच तिणें आपलीं मानूंक नासलीं. पिंकीक कितेंय जालें जाल्यार ती एकटीच पडटली आसली. हेंच येवजून प्रिया भितालें.

पिंकी पेक्षां दोन पावसाळे चड पळयल्ले प्रियान. देखून बरें वायटाचो समज ताका चड आसलो. आज काळ बदल्ला हें तें जाणा आसलें. आज दर एकलो आपले परीन जगूंक सोदता हेंय तें जाणा आसलें आनी हेंय सगळें एकेपटीन खरें आसलें. आज सगळेच बदल्ले. जण एकलो आपल्याच नादान वावुरतालो. तांकां कोणय आडायतलोय नासलो आनी तापयतलोय नासलो. देखून प्रत्येकान आपलीय एक स्वतंत्र

वाट वेचून काडिल्ली. मागीर ती चुकिचीच कित्याक जायना? पिंकीचेंय तशेंच जाल्लें. केन्नाच ताणें प्रियाचें आयकलें ना. आपल्याक जाय तशेंच वागलें, भोंवलें. इतलें शिकून लेगीत स्वताचें हीत ताका कळ्ळें ना. आपल्या आयुश्याचे खरे परिक्षेंत तें नापास जाल्लें. आपले सरभोवतणी इतलीं मोग करपी मनशां आसून लेगीत पिंकीक आपूण एकलें आशिल्लें वरी जाल्लें, देखून ताणें व्यसनांचो आदार घेतिल्लो. पूण चूक फक्त पिंकीचीच नासली. शांतीय ताचे चुकींत तितलेंच वांटेकार आसलें. तिणेंच पिंकीक वायट शिकवण दिल्ली आनी ताणें तेच शिकवणीचो फायदो घेतलो. आज आपले जाल्ले हाल पळोवन ताका ते चुकिची ख्यास्त मेळिल्ली. आतां त्या दुयेंसाचें वजें तें चड वेळ घेवपाक पावलें ना आनी निमाणें पिंकी सगळ्यांक सोडून गेलें. खंय तरी पयस केन्नाच ना परतपाक.

शांतीचो जाल्यार जसो जिवूच गेल्लो. दोळ्यांनीं दुखां दाटलीं खरीं पूण गळ्ळिनां. प्रियान तिका खूब हालयली. पूण ताचो आवाज तिच्या कानांमेरेन पावलोय ना. ती एकटक पिंकीक नियाळटाली. मर्दीच ताका पोशेताली, जाल्यार मदेंच सुन्न शे नदरेन ताका पळेताली. पूण जेन्ना पिंकीचेर धवें चादर धापलें तेन्ना मात तिच्या तोंडांतल्यान किळच्यो भायर सरल्यो. दुकांनी आपलो बांद मोडलो आनी नकळत शांतीन आपली चूक ओंकली. ह्या सगळ्याक आपुणूच कारणीभूत. आपणेंच आपल्या चलयेचो फुडार इबाडलो. आपणेंच आज ताका मरणाच्या दारार पावयलें. देवान ते चुकीची ख्यास्त म्हाका दिवची आसली. म्हजे चलयेक न्ही. अशें म्हणून रडटां रडटां शांती केन्ना जमनीर कोसळ्ळें कळ्ळेंच ना. विशाल मात ताका पळोवंकूच उरलो. तो सदांच ताका सांगतालो 'तूं जीं वायट शिकवणेचीं बियां ताच्या मनांत रोयता, ताचीं फळां लेगीत एकदीस तुका वायटूच जाल्लीं दिसतलीं म्हूण.' पूण आज ताका आपल्या त्या उतरांचो राग आयलो, एकाद्रें आपल्याच उतरांक गांठ पडली अशें ताका दिसलें.

◆◆◆

-निता नायक शिरोडकार
फोंडकुलें, सावर्डे गोंय ४०३ ७०६
मो : ९८२३८६९९४५



# वेरेंची इगर्ज

वेरेंचें आनी बार्देसांतलें सगळें क्रिस्तांवपण म्हळ्यार फ्रांसिस्कानीं मठ वाशियांचें. मांडवी नद उतरून १५५० वर्सा फ्रे जुवांव नोय, पणजे (?) सान बार्देसांत रिगलो आनी वेऱ्यां एक आल्तार उबारलो आनी ताचेर मीस भेटयलें; ताच्या सांगाताक आनीक दुसरेय मठवाशी आसले जायत! पूण फकत १५५५ वर्सा जेन्ना बार्देसांत शुभवर्तमान परगटचें काम सुरू केलें, तेन्नाच की त्या फ्रांसीस्कानांनीं बार्देसांतली पयली इगर्ज स्थापली वेरेंच्या गांवांत.

१५५५ वर्सा दों पेद्रो मास्कारेन्यंस ह्या उप-राजान (१५५४-५५), बार्देसचो जिल्हो फ्रांसिस्कानांचे सुवादीन केल्लो; ह्या वर्सा उपरांत फ्रांसिस्कानांनीं वेरेंचे दोंगुल्लेर आपलो सुपुल्लो पयलो निवास वो घर बांदूंक हात घातलेलो. फ्रेय पावलू दा त्रिनदाद ह्या फ्रांसिस्कांनी इतिहासकारां प्रमाणें, एक दोंगुल्ली वेंचून काडली ती म्हळ्यार **मारांवगारू**, वेरेंच्या गांवां बगलेक. हो पयलो निवास म्हळ्यार मठ वाश्यांक रावपाचें घर आनी एक इगर्ज-मोस्तेयरीन्यं दे सां फ्रांसिस्को. हो निवास वो मठ जावन आसलो एकदम धाकटुलो. देखून *मोस्तेयरीन्यं दे सां फ्रांसिस्को*, अशें बरयल्लें मेळटा. इस्कोल वो कॉलेज आनी अनाथांचें घर मागीर येतलें.

ह्या निवासांत वो मठांतसान मीशनरी वावर बार्देसांत सुरू जालो. हो मठ बांदूंक बरें-देखणाऱ्यांनीं तेन्नाच्या फ्रांसिस्कानांक फूल ना पाकळी दिली. हें बरें देखणारे देशी लोक जांव नये कित्याक अजून त्या गांवांत क्रिस्तांवपण परगट जावंक नासलें.

हो निवास आनी इगर्ज उदेंतीच्या विद्वानांक वो रायांक(रेईस-मागोस) कित्याक म्हूण भेटयलीं जायत! म्हज्या अदमासा प्रमाणे हे फ्रांसिस्कांनी मठवाशी तिसवाडे सावन जानेराचे सवेर वेऱ्यांत भितर सरले जायत वो ते तारखेर इगर्ज बा बांदूंक बुनयाद घातली जायत आनी हो दीस आदल्या कॅलिंडरा प्रमाणे रायांचे परबेचो जावन आसलो. पूण आतां नव्या कॅलिंडरा प्रमाणे आमचे इंडियेंत आनी गोंयांत ही दबाजीक परब, जानेराचे दुसरे आनी णववे मदें पडटा त्या आयतारा मनयतात. पूण कातोल्क देसांनीं जानेराचे ६वेर दवरल्या कित्याक तो दीस **संत** जायत, जसो आदीं गोंयांतूय आसलो. पूण वेरेंचे इगर्जेंत अजून आदलेच परंपरे प्रमाणे रायाची परब जानेराचे ६वेरूच पाळटात; एकदांच अदल बदल केल्ली म्हळ्यार प्री. सिरिलो मेतोडिओ दे सौझा विगार आसलो तेन्ना, त्या वर्सा ती परब जानेराचे पांचवेर समारंभलेली. कित्याक ते तारखेर आयतार पडलेलो.

१८९६ वर्सा दों आफोंस हेनरीक्स दे ब्रागांसा, उप-राजा (एकूच वर्साक : १८९६) रायांच्या फेस्ताक हाजीर जालो आनी उपरांत कोण उप-राजा वो राजपाल (गवर्नादोर) ह्या फेस्ताक हाजीर जाले ना. बरयललें मेळटा की निकर्तीच लगीन जाल्लीं जोडपीं ह्या फेस्ताक हाजीर जातालीं.

पुर्तुगेजांच्या दिसांनीं, जानेराचे ६वेर रायांच्या फेस्ताक उप-राजा, बिस्प, फिदाल्ग, पुर्तुगेज कुलीन कुटुंबां फेस्ताच्या मिसाक हाजीर जातालीं म्हूण श्री. आंतोनिओ दे मिनेझीस हो आधुनीक इतिहासकार सांगता. रिगींच लगीन जाल्लींय जोडपीं आयज पासून ह्या फेस्ताक हाजीर जावंक येतात म्हूण सांगतात. रायांच्या फेस्ताक तीग भुरग्यांक राजा कशे न्हेंसयतात आनी हे राजा ते दोंगुल्लेर सावन देवन येतच फेस्ताचें मीस सुरू जाता. (असलीच परंपरा कांसावले चालू आसा पूण ती अदीक कौतीक आनी दबाजीक ) तीग सुमार बारा वर्सांचे गांवकार पूत्र वो गांवकार नातू सुपुल्ल्या घोड्यांचेर बसून कुवेलेचो दोंगर चडटात; ते येतात कुवेले, आरोशें आनी कांसांवलेसान बेंड बा लावन तांकां हाडटात आनी त्या वाड्यांतलो लोक तांचे फाटल्यान. हे तीग राय पावतच कोपेला भायर माटवांत मीस सुरू जाता. चांदरा (साश्टी) गीरधोळेंच्याय कपेलांत तीग रायांची परब जाता पूण ती हांवें देखूंक ना.

वेरेंचे इगर्जे कुशीक, 'कॉलेजिओ रियाल' - एक राजवंत कॉलेज आसली. तिजी खबर फुडें मेळटली. ही कॉलेज जावन आसलें एक विशाल मंदीर, दोन माळयांचें आसून जायते कूड; माळयांचेर चडून वचूंक चार शिडयो आसल्यो, काळ्या फातरांच्यो. श्रीलंकेंतले (सिलावांतले) परयन तरनाटे हे कॉलेजींत शिकूंक येताले. हे इगर्जेक मागीर 'इग्रेजा रियाल' म्हणजे 'रॉयल इगर्ज' म्हूण दर्जो मेळ्ळो आनी ही इगर्ज पुर्तुगेज राजाच्या आसऱ्या खाल आसली देखून, ती सांबाळच्याक आनी चलोंवच्याक पुर्तुगेज सरकार सगळो खर्च करतालो एक सरकारी मंदीर जाल्ल्या बाशेन (कार्ता रेजिया २८ नोव्हेंबर १६२७).

१७७१ वर्सा - अजून फांसिस्कांनी मठवाशी वेरेंचे इगर्जेंत




आसले. - हे इगर्जेची दुरूस्ती केली आनी उपरांत १९४५ वर्सा ती सुदारायली. पुर्तुगेजांच्या काळार ही इगर्ज जावन आसली एक राष्ट्रीक यादगिरी (मोन्युमेंतो नेसिओनल) (नेम : नं. १३६०/ ३१-३-१९३२) इगर्जे कुशीक उदेंते वाटेंतल्यान 'रॉयल कॉलेज' आसली तिजें आयज निसंटन पर्यंत दिश्टी पडना.

## फ्रांसिस्कानीं मठवाशी बार्देसांत

फ्रांसिस्कानीं मठवाशी बार्देसांत केन्ना भितर सरले जायत? १५४३ वर्सा बिजापुरच्या राजान बार्देस आनी साश्टी हे दोन जिल्हे वो प्रांत, पुर्तुगेजांच्या ताब्यांत केल्ले. दो. ओफोन्सो दी नोरोन्य (१५५१-५४) ह्या उप-राजान वेऱ्यां एक कोट बांदूक हुकूम घातलेलो. कित्याक तो जागो एके युक्त सुवातेर पडटालो - मांडवी नदीच्या तोंडारूच. दुबाव ना त्या कोटांत किरिस्तांव सोल्दाद आसले आनी तांकां एक कॉपेलांव दवरूंक जाय आसलो आनी हो आत्मीक वावर करूंक एक वो दोग फ्रांसिस्कानीं मटवासियांक वेऱ्या धाडलले जायत. अशें आसता १५५० वर्सा सावन त्या गांवांत फ्रांसिस्कानीं पाद्री पावलेले; अजून आनी क्रिस्तांवपण बार्देसांत पावूंक नासलें, तें फकत वेरेंच्याच गांवांत मात्शें पावलेलें.

## फिरगोज जल्मता

१५७४ वर्सा तरी वेऱ्यां एक फिरगोज उत्पन्न जाता. हांगासल्ल्या मठांत पाय दोस क्रिस्तावंस (किरिस्तावांचो पाय) रावतालो आनी ताणें बार्देसच्या किरिस्तावांची राखण करूंक जाय आसली - देखून ताका पाय (बापूय) म्हणला. तेन्ना इस्कोलाची आनी अनाथांच्या घराची गरज नासली. कित्याक सगळ्या अनाथ भुरग्यांक (हिन्दुंच्या, दुबाव ना) जेजुइतांचे सांत पावलुचे कॉलेजींत, गोवा शारा (आयज पोरणें गोंय) धाडलेले.

वेरेंच्या दोंगरार, इस्कोल सुरू जालें जायत १५७६ वर्सा उपरांत

आनी १५८५ वर्सा आर्दी. तेन्ना चार तरी फ्रांसिस्कानीं मठवाशी त्या मठांत आसले आनी ते मिस्तिर कशे शिकयताले; शिकयताले जाल्यार, इस्कोल आसूंकच जाय. हे विद्यार्थी म्हळ्यार हिन्दू आवय बापायचे अनाथ भुरगे. १५८५ वर्सा उपरांत, फ्रांसिस्कानीं विद्यार्थी फिलोसॉफी शिकताले म्हूण सांगलां; हे विद्यार्थी जावंक जाय युरोपियनाचे वो युरोपियनांक इंडियेंत जल्मल्ले पूत्र.

१५९५ फ्रे. जेरोनिमो दो एस्पीरितो सांतो, राखणदार क्रिस्तावांचो, वेऱ्यां पावलो तेन्ना तो निवास वो इस्कोल वाडोवंक लायलें आनी ताचे दोन भाग केले : १) कॉलेजीओ दोस कॅटेक्युमीनोस ए दोस ओर्फाओस आनी २) कॉलेजीओ दोस फ्रेड्रीस (फकत मठवाश्यां). हे कॉलेजींत पाद्री जावंक सोदतल्यांक फिलॉसॉफी शिकयताले. १५९९ वर्सा गजाल केल्या दोन घरांची : सांत जेरोनाची सेमिनार आनी रेइश मागोसची कॉलेज. इतल्यान किरिस्तांव जावंक सोदतल्यांचें घर (काते कुमेनातो) गिरवोडच्या दोंगरार पावयलो. ह्याय दोंगरार मागीर आमकां मेळटा बार्देसचो 'पाय दोस क्रिस्तांओस' हो दोंगर वो गिरीं बार्देसच्या माझार पडटा. तेन्ना क्रिस्तांवपण बार्देसांत विस्तारून गेल्लें आनी अशें आसता किरिस्तावांचो पाय बार्देशच्या माझार रावतालो.

## विद्यार्थी

वेरेंचे कॉलेजींत जशें बरोवन दवरता फ्रे. पावलो दा त्रिन्दाद (१६३५) - शिकयताले; वाचूंक, बरोवंक, संगीत आनी लॅटीन. कुन्य रिवारा सांगता कोंकणीय भास शिकयताले - कॉलेजींत (इस्कोलांत) वो सेमिनारींत तें तो सांगना. कोंकणी भास युरोपी विद्यार्थ्यांक शिकयताले जायत; कित्याक पाद्री जातच पयले किरिस्तावांक देशी भाशेंत शिक्षण दिवंक जाय आसलें. वेरेंचे कॉलेजींत शिकूंक आयले, दों जुवांव, कांदिचो (सिलांव वो श्रीलंका) कुंवर आनी दों फिलीप, सिलावांच्या पातशायाचो नातू, ते जायतीं वर्सां हे कॉलेजींत रावले आनी मागीर तांकां पोर्तुगालाच्या राजान पुर्तुगालाक हाडूंक लायले. तशेंच दों कोन्स्तांतिनो, जाफनाचो कुंवर (सिलांव) आनी ताचे कांय भाव आनी बापूल भाव हे कॉलेजींत शिकले.

वेरेंचे सेमिनारींत शिकले ते मागीर बरे हुशार डायोसेजानीं पाद्री जावंक पावले. युरोपी आसले ते थोडे दुसऱ्या धार्मीक ओर्दीनीं भितर सरले, प्रवचनकार (प्रेगादोर) आनी मेस्तीर जाले, इंडियेचे आसले ते - चड आसले ते बामणाचे पूत्र पाद्री जातच इंगर्जानीं विगारांक आदार दिवंक गेले (पूण विगार जावंक पावले ना.) आनी मिशनरी वावरांक लागले; कांय इंडियेचे विद्यार्थी आपलें शिकप चालू दवरूंक रोमाक पर्यंत वचून प्रोपागांदा - कॉलेजींत शिकले आनी तांतलो एकलो बिस्प जावंक पावलो - दों. मॅथ्यूस दे कास्त्रो, दिवाडेचो (१६३७); ताका विकार आपोस्तोलीक कसो इंडियेक धाडलो १६५२ वर्सा आनी ताणें आपले पेणे दिवचले केल्लें. तेन्ना दिवचल पुर्तुगेजांच्या ताब्यांत पडूंक नासलें. दों मॅथ्यूस दे कास्त्रो, दिवाडेचो म्हळ्यार पयलो गोंयकार बिस्प. हो पयलो गोंयकार बिस्प रोमाक परतून वयतच, थंयच १६७९ वर्सा अंतरलो. अशे आनीकूय गोंयकार रोमाक वचून बिस्प जावन इंडियेक परतले. ह्या गोंयकारांचें गाराणें जावन आसलें हें; इंडियेकारांक धार्मीक ओर्दींत युरोपी धार्मीक रीग दिनात देखून, ते रोमाक गेले.

## वेरेंचें कोट

इगर्जेक तेंकुनूच, थंयचे दोंगुर्लेर अस्तंपती दिशेंतल्यान एक कोट आसा तें दों ऑफोंसो दे नोरोन्य (१५५१-५४) ह्या उपराजान आदील खानाच्या एका सुपुर्ल्या कोटाच्या घट्टाणाचेर बांदूंक लायलेलें. मागीर दों मानोअॅल दे सौजा कुतीन्य (१५८८-९१) ह्या राज्यपालान, नदीच्या उदका कडेन दुरीग बांदलें आनी नदीचें तोंड राखच्याक नळी घातल्यो; दुसऱ्या अर्दान गास्पार डायस (आयज मिरामार) वाटेंतल्यान आनीक एक कोट आसलें. ह्या कोटाची दुरूस्ती केली १७०७ वो १७०४ वर्सा; तेन्ना कायतानो दिमेलो ए कास्त्रो (१७०२-१७०७) उप-राजा आसलो.

कांय शंबर वर्सां फाटीं सावंतवाडीचो राजा माधवराव ह्या कोटांत रावलेलो. तो आपल्या वांगडा १५०० झुजारी, १००० घोडे आनी चार हत्ती घेवन आयलेलो.

आमच्या दिसांनीं वेरेंच्या कोटांत बंदखण आसलेली आमी पळयल्या. पूण आतां बंदखण आसली ती बंद केली जुलयाचे दुसरेर, १९९३ वर्सा आनी तातूंत एक हॉटेल घालूंक सरकारान एक येवजण उबी केल्ली पूण अजून हे दिशेंतल्यान एकय पावल मारूंक ना. ह्या कोटाची राखण वो सुरक्षा सरकार करतलो म्हूण आगोस्ताचे २६वेर, १९८२ जाहीर केल्लें.

## पुर्तुगेज राज्यपाल वेरेंच्या मठांत

दों जुवांव कुतीन्य, कोंद दे रेदोन्दो, म्हळ्यार ४०सावो राज्यपाल आनी २१सावो उप-राजा; तो नोव्हेंबराचे १८वेर, १६१७ वर्सा गादयेर चडलो आनी एक वरस, बारा म्हयने आनी तीस दीस राजवटकी चलयल्या उपरांत गोवा शारांत नोव्हेंबर १०वेर, १६१९ वर्सा अंतरलो. ताका वेरेंच्या इगर्जेंत पुल्लो. ह्या उप-राजाचो फोंड आमकां मेळूंक ना.

वेरेंचे इगर्जेंत १५९७ - १८१६ वर्सां मदें, २५ राजपालांनीं

आनी उपराजांनीं आपली जुटी हातांत घेतली. तेन्नाचे पध्दती प्रमाणे, पुर्तुगालाक सावन नेमणूक जातच, गवर्नादोर वो राजपाक गोंयां येताले ते वेऱ्यां तारवावेले देंवताले आनी थंयचे कॉलेजींत वचून रावताले; तेन्ना रावूंक एक खेरीत कूड आसलो. जुटी सोडून दितच, पुर्तुगालाक परतून वचचें आसलें तेय राजपाल तारूं मेळसर वेरेंचे कॉलेजींत रावताले. जुटी ताब्यांत करतच ते राजपाल वो उपराजा मांडवी नदींतल्यान गोवा शारांत वताले आनी 'आर्क दोस व्हायस-रेज' हांतल्यान पार जावन शारांत वो राजधानींत भितर सरताले.

दों फ्रांसिस्को दां गामा, कोंदे दां व्हिदिगिरा ३३सावो राजपाल आनी १६वो उपराजा (१५९७-१६००) म्हळ्यार पयलो राजपाल वेरेंचे इगर्जेंत आपली जुटी ताब्यांत घेंवच्याक आनी दों दायगो दे सौजा, कोंदे दों रिओ पार्दो, ८२वो राजपाल आनी ४९वो उपराजा म्हळ्यार निमाणो. हाणें आपली जुटी ताब्यांत घेतली नोव्हें. २९वेर १८१६. उपरांत असले दबाजे बऱ्या जेजुचे इगर्जेंत (आतां बासिलिका) जावंक लागले, म्हणजे जेजुइत ते इगर्जेंतले भायर सरल्या उपरांत. पूण फ्रेय आशिल्लेस मिर्समान, ओ एफ एम, हाच्या प्रमाणे राजपालाची पयली स्थापणी जाली ती १५७१ आनी निमाणी १७९३. हांगा वर्सांचें बरेंच फरक आसा. इगर्ज मातेचेय अधिकारी (आर्सेबिस्प?), आपणें जुटी सोडून दिल्या उपरांत वेऱ्यां वचून रावले.

वेरेंच्या मठांत रावले ते हे : दों फ्रांसिस्को द गामा, कोंदे विदिगेरा (१५९७-१६००); दों डायगो दे सौझा, कोंदे दे रिओ पार्दो (१८१६-१८२२); दों वास्को दे मास्कारेन्यस, कोंदे ओबिदोस (१६५२-५३) हाका १६५४ वर्सा कांय अप्शालांनीं कैदी करून वेऱ्यां व्हेलो आनी उपरांत काबोच्या कोटांत.

(फुर्डे चलता)



-मोरेन द सौजा एस. जे.
पोरणें गोंय

पडवेट

# घोंटेर



घर म्हळ्या उपरांत आमच्या दोळ्यांमुखार येतात तीं तरेकवार पध्दतीन बांदिल्लीं मनशांचीं घरां! बंगले जांव राजवाडे! सगळ्या जीवनसृश्टींत देवान मनशाकूच चड बुध्द दिवन बुदवंत केला. मागीर ताणीं अशीं तरेकवार घरां बांदलीं, जाल्यार तातूंत अजाप तें कसलें? खरें अजाप करपाचें तें सुकण्यांचें, जीं तातयां घालपाक तरेकवार घोंटेर बांदतात आपआपले गरजेपरमाण.

तुमीं केन्नाच पारव्यांचो जांव कावळ्याचो वा चिमणेचो घोंटेर पळयला? दर एकाची घोंटेर करपाची पध्दत वेगळी. चिमणी जेन्ना घोंटेर बांदता, तेन्ना ती आपली ठेवण पळोवन आपल्या जिवाक जाय तेद्याच आवाटाचो घोंटेर बांदता. बारीक बारीक काडयो एकठांय करून त्यो एकामेकांत गुंतून हो घोंटेर तयार करप म्हळ्यार तशी सादी आनी सोपी गजाल न्हय. एकवेळ पाटलो विणप सोपें, कित्याक तो विणटना आमी एकेच सायजीच्यो पट्ट्यो तयार करतात, तरेकवार यंत्रां जांव हतयारां वापरून. पूण सुकण्यांचे बाबतींत तशें नासता. तीं एकाच आवाटाच्यो बडयो सोदून हाडटात त्यो लेगीत एके खेपेक एक अशो. आनी फकत चोंचीचोच आदार घेवन आपलो घोंटेर विणटात.

पारव्यांचो आनी कावळ्यांचो घोंटेर मात्सो वेगळो आसता. पारव्यांच्या घोटेरांत तर, एके कुशीन मात्सो सोपो कसो केल्लो आसता आनी ततयां घालतना तें एकूच त्या सोप्यार घालता. खंयचेंय सवणें एकदां तातयां घालून जातकीच परत त्याच घोटेरांत दुसरे खेपे तातयां घालींना. दर खेपेक नवो नवो घोंटेर बांदता. हां! आतां हाका अपवाद आसा तो कोगूळ! जो सदांच आयतो घोंटेर सोदता.

सगळ्यांत सोबीत सुंदर घोंटेर बांदता तें बाया नांवाचें सुकणें. खरेंच तोखणाय करपा सारखो घोंटेर. झाडाक हुमकळावपाक दोरी. ताच्या सकयल एक मोठी अशीर नळी. मागीर परत एक बारीक कुरपणों कसो! तातूंत भितर एक सोपो कसो आसता आनी सगळ्यांत निमाणें परत एक नळी आनी ते नळयेचें तोंड उक्तें, तीच एक वाट तांकां भितर सरपाक. नाजाल्यार हो घोंटेर सगळेवटेन बंद आसता. वोत, वारें, पावस, थंडी हांच्या पासून पुराय संरक्षण मेळपाखातीर. एकाच तरेच्यो, एकाच आकाराच्यो, बारीक तणांच्यो काडयो घेवन बांदिल्लो हो घोंटेर एक अजापूच.

दरएक सुकणें आपलो घोंटेर बांदतना सगळ्या तरेची पुरेपूर कुयदाद घेतात. सैमाच्या घडणुकांपासून आपल्या ताताचें आनी उपरांत पिलावळींचो सांबाळ करपाची. घोंटेर बांदतना सुकणीं सदांच एक वा दोन आसतात म्हळ्यार एक नर आनी एक मादी. मनशांभशेन तांकां इंजीनेर, आर्कीटेक्ट, कॉन्ट्रेक्टर आनी गवंडे बी कांय लागना. सगळें तीं स्वताच करतात आनी कितलीशींच वर्सां जालीं एकेच, पारंपारीक, चलून आयिल्ले पध्दतीन आपलो घोंटेर बांदतात. कारण तांचो मुखेल हेतू फक्त ताताचां घालप, पिलांक उबोवन व्हड करप होच आसता. एकदां जशीं ह्या पिलांक पाखां फुटलीं आनी उडपाक लागलीं म्हणटकच, त्या घोटेरांत तीं चिकटून रावनांत.

पुणून बुदवंत मनीस मात तांचे हे आयते बांदिल्ले घोंटेर काडून आपल्या घराची सजावट करपाक वापरतात आनी आपलो सुवार्थ सादतात.

◆◆◆


**- सत्यप्रसाद चं. धायमोडकार**



ताळगांव - पणजी

मो. : ९४२२४४८१७५

सुवादीक

# कालवां - तिसऱ्यो

**पावस लागीं पावता तसो दर्या खुबळटा आनी ताचो परिणाम नुस्तेंमारिचेर जाता. ह्या दिसांनीं बाजारांत तशें व्हडलेंशें नुस्तें मेळना. पूण कालवां, तिसऱ्यो बी मोठ्या प्रमाणांत मेळटात. म्हणटकच ह्या म्हयन्यांत जें कितें आलायतें मेळटा ताचेर आमी आमचे जिबेची रूच भागोवया.**



## कालवांचें सुकें

**साहित्य :** दोन वाटयो कालवां, दोन मद्यम कांदे, अर्द वाटी सोय, अर्द ल्हान कुलेर हळदी पिठो, स भिण्णा सोलां, रीची पुरतें मीठ. एक व्हडलें कुलेर मिरसांगे पिठो.

**कृती :** कालवांक करपां आसतात तीं काडून साफ करचीं. कांदो बारीक चिरचो. इल्ल्याश्या उदकांत घालून मोवसार शिजोवचो. तातूंत कालवां आनी सगळो मसालो घालून मंद उज्याचेर उदक आट मेरेन शिजोवचें.

## कालवांचें तोंडाक

**साहित्य :** तीन वाटयो कालवां, देड वाटी सोय, व्हडलें कुलेर कोथंबीर, एक ल्हान कुलेर हळदे पिठो, चार मद्यम कांदे, आठ सुक्यो तांबड्यो मिरसांगो, बारा मिरयां दोन इंच तिखी, आठ लवंगां, आठ लसणी बोयो, दोन व्हडलीं कुलेरां तेल आनी रूची पुरतें मीठ.

**कृती :** कालवांनीं धर्वी करपां वो करपांचे कुडके आसतात ते काडून कालवां बरीं साफ करचीं. तव्याचेर एक कुलेर तेल घालून लवंगां, तिखी, काळीं मिरयां, लसणी बोयो भाजून घेवच्यो. त्या तेलांत कोथंबीर आनी मिरसांगो भाजून काडच्यो. भाजिल्लो गरम मसालो बारीक वाटचो. उपरांत भाजिल्ली सोय आनी आंबटाण बारीक वाटची. तीन कांदे बारीक चिरून अर्दी वाटी उदकांत मोवसार शिजोवचे. गरज पडल्यार तातूंत आनीक उदक घालून कालवां शिजोवंचीं. तीन-एक मिनटां शिजतकच तातूंत मसालो, कांदो, सोय घालची आनी शिजोवचें.

## तळिल्ली कालवां

**साहित्य :**विशेक व्हडलीं कालवां, एक व्हडलें कुलेर भाजिल्ल्या कोथबिरेचो पिठो, एक व्हडलें कुलेर मिरसांगे पिठो, अर्द कुलेर हळदी पिठो, अर्द वाटी तांदळां पीठ, अर्द कुलेर मीठ आनी तळपा खातीर तेल.

**कृती :** कालवां बरीं साफ करून तांकां मीठ लावचें. दरएक कालवाक सुरयेन चीर घालची. ना तर तळटाना कालवां फुट्टात सगळो मसालो तांदळाच्या पिठांत एक करचो. एक एक कालूं मसाल्याच्या पिठांत घळोवन तव्यार घालचें.

## तिसऱ्यांचें सुकें

**साहित्य :** पन्नाशेक तिसऱ्यो, दोन मध्यम कांदे, थोडी आंबटाण, एक वाटी सोय, एक ल्हान कुलेर हळदी पिठो, आठ सुक्यो मिरसांगो , एक ल्हानशें तोर आनी रूची पुरतें मीठ.

**कृती :** तिसऱ्यो बऱ्यो धुवन कल्लावन घेंवच्यो. देड कांदो चिरचो. एक वाटी उदकांत चिरिल्लो कांदो, तिसऱ्यो, अर्द कुलेर आंबटाणीच्या कोळांत घालून शिजोवच्यो. सोय, मिरसांगो, हळदी पिठो आनी आंबटाण घालून अर्द कांद्या सयत मोटसार वाटचें. वाटप, तोराच्यो फोडी आनी मीठ घालून तिसऱ्यो शिजोंवच्यो.

## तिसऱ्यांचें हुमण

**साहित्य :** अर्द वाटी तिसऱ्यांचीं मासां, एक वाटी सोय, आठ सुक्यो तांबड्यो मिरसांगो, आंबटाण, एक कुलेर हळदी पिठो, एक मद्यम तोर वो चार पांच आंबाडे.

**कृती :** सोय, मिरसांगे पिठो, हळदी पिठो, मिरयां, आंबटाण आनी अर्दो कांदो घालून बारीक वाटचें. देड कांदो बारीक चिरचो. तोराच्यो फोडी करच्यो. तिसऱ्या मासां आनी कांदो एक वाटी उदकांत एक कुलेर भर वांटप घालून पांच मिनटां शिजोवंचें. उपरांत वाटप आनी तोरा फोडी घालून हुमण शिजोवंचें.

◆◆◆

स्केच

# घुरी शेनायकार



आमच्या ल्हानपणांत आमचे गांवांत पांच तरी अशे कलाकार वाजंत्री आशिल्ले कीं तांच्या निसर्गदत्त कलेक आनीक दुसरी तोड नाशिल्ली.

हे सगळे कलाकार-वाजंत्री त्या वेळच्या देवदासी घराण्यांतले आशिल्ले आनी आपल्या घराण्यावेल्या परंपरागत आवय-बापूय वा चुलत्या कडसून ना जाल्यार आवयच्या भावा-मामा कडसून ही कला ताणीं आत्मसात केल्ली आसताली आनी स्वताच भरपूर मेहनत आनी रियाज करून वाडयल्ली आसताली.

खंयच्याय जाणकार अश्या भायल्या शिक्षकाकडल्यान ताणीं हे कलेची किंवा वाद्याचें शास्त्रशुध्द अशें शिक्षण ताणीं घेवंक नाशिल्लें. आतां जे पध्दतीन संगीत विद्यालया कडसून वा वाद्याचें शास्त्र शुध्द अशें शिक्षण दितात तशीं विद्यालयां त्या काळार नाशिल्लीं. तांची कला ही परंपरागत तांच्या वाड-वडीलां कडसून तांचेकडसून पिढिजात पद्दतीन येताली.

असोच आमच्या गांवांत, आमच्या ल्हानपणांत 'घुरी शेनायकार' म्हणूंक शेनाय वाजोवपी एक कलाकार जावन गेलो. ताच्या घराण्यांत ताचो आजो-बापूय घडयें हें शेनाय वाजोवपाचें काम आमच्या देवूळ वाड्यार आशिल्ल्या श्री कृष्णाच्या देवळांत करताले. देवाची पालखी दर म्हयन्याक देवळासून भायर सरून, देवळाचो भोंवताडो काडून परत देवळांत वताली. त्या वेळार देवा बरोबर आयिल्ल्या देवाच्या 'सेवेकरी' देवदासी घराण्यांतल्या मनशाक वाजंत्री म्हणून काम करचें पडटालें. देवाचीं स्तुती गावपी अश्टकां म्हणत थारावीक सुवातांचेर थांबप. शेनाय, तासो, सूर आनीक नाचपी देवदासी हांच्या वांगडा पेणी करीत पालखी मागीर देवळांत भितर वताली.

ह्यो देवदासी जांकां कलावंत म्हण संबोदताले त्यो आपल्या गोड आवाजांत गावन विशिश्ठ प्रकारच्या नाचाचे हावभाव करून, पायांत बांदिल्ल्या घुंगरांचो आवाज काडीत शेनाय, तासो, पखवाज ह्या वाद्यांच्या तालार देवाचे पालखे समोर नाचून देवाक आपली सेवा अर्पण करताल्यो. तांचे हे सेवे खातीर तांकां देवस्थानच्या परिसरांत देवस्थानाक ल्हान ल्हान घरां बांदूंक दिल्लीं. तशेंच तांचो चरितार्थ बरे भशेन चलचो म्हणून तांकां प्रत्येकाक उत्पन्नी शेताची जमीन तशेंच नाल्ल दिवपी माड आशिल्लो, ल्हानसो जमनीचो तुकडोय देवस्थानच्या मालकिचे जमनिंतल्यान तांकां देवस्थानान दिल्लो आसतालो. त्या वेळार दुडवांची बिदागी मोठीशी नाशिल्ली. पुणून ह्या सेवेकऱ्यांच्या पोटाची जबाबदारी ते वेळार देवस्थानांनीं घेतिल्ली.

थोड्या देवळांत त्या वेळार सकाळसान चौगुडो वाजोवपाची पद्दत आशिल्ली. आमच्या गांवांतल्या श्रीकृष्ण देवस्थानांतूय सकाळ-सांज चौगुडो वाजतालो. देवस्थानाच्या कोणेतरी एका सधन कुळावी-महाजनान एकदम पयशे भरून हो चौगुडो देवाची सेवा म्हणून कायमचो दवरिल्लो. देवस्थानांत भरिल्ल्या एकरकमी पयशांच्या व्याजांतसून चौगुडो वाजोवपी वाजंत्र्याक-शेनाय, तासो, सूर, कांसाळें, पकवाज आदी वाजवणाऱ्यांक दर म्हयन्याक त्या प्रमाणे वेगळे पयशे मेळटाले.

सकाळीं स वरांचेर आनी सांजच्या स वरांचेर हो चौगुडो नित्य नेमान वाजतालो. घुरी शेनायकाराची शेनाय ह्या वेळार आयकुपा सारखी आसताली. हांव भुरगो आसतना आमच्या घराचे माळयेर न्हिदतालों. देवूळ वाडो आमकां तीस- चाळीस फुटांच्या अंतरार.

फांतोडेच्या प्रसन्न हवेशीर थंड वातावरणांत न्हिदिल्ले कडेन घुरी शेनायकारान चौगुडो वाजयतना आपल्या शेनायेंतल्यान तल्लीन जावन आत्मीयतेन काडिल्ले सूर 'उठी गोपाळजी जाई धेनूकडें, पाहावी सौंगडे वाट तुझी. उठी पुरुषोत्तमा वाट पाहे रमा दावी मुखचंद्रमा सकळा काशी.' ही भुपाळी म्हज्या कानार पडटाली. ती तशीच आयकत हांव हातरूणार पडून रावतालों. घुरी शेनायकाराचे



शेनायेंतल्यान काडिल्ले सूर आनी ताका बाकिच्या वाजंत्र्यांनीं दिल्ली साथ हाचो एक अप्रतीम असो जाल्लो मिलाफ त्या वेळार देवूळ वाड्यावेल्या लोकांच्या कानार पडटालो. घुरी दादाच्या शेनायेंतल्यान भायर पडिल्ले सूर लोकांच्या कानांक तृप्त करताले.

घुरी शेनायकार वा घुरीदादा तसो निगर्वी आशिल्लो. गोरो पिट्ठ, लाल बूंद चेहऱ्याचो, आंगान-पेरान गुटगुटीत.धवें फुल्ल धोतर न्हेसणारो आनी तसलोच धवोफुल्ल इस्त्री केल्लो सदरो घालणारो घुरीदादा देवूळ वाड्या वेल्या त्या वेळच्या आमकां सगळ्या भुरग्यांक परिचयाचो आशिल्लो. सकाळचो चौगुडो वाजयलो, मागीर बाजारांत वचून बाजारांतलें जेवणाक जाय तें सामान हाडलें, न्हालो, दनपारचें जेवण करून थोडी वामकुक्षी केली, सांजची चा घेतली, शेनायचो थोडो रियाज केलो, परत सांजचो स वरांचेर चौगुडो वाजोवपाचो आशिल्लोच! तें काम करतकच तो मागीर गांवांत-बाजारांत फिरपाक वतालो. गांवांतल्या लोकांची खबर घेतालो. ताचे कडेन उलयतालो. असो ताचो सर्वसादारण दिनक्रम आशिल्लो. सकाळ-सांज आनी केन्ना केन्नाय लहर लागतकूच रातचो सुद्दां तो आपले शेनायेंतल्यान येवजल्ले सूर काडटालो. समरस आनी तल्लीन जावन शेनाय वाजोवप हो ताचो गूण आशिल्लो. तो तेन्ना बाकिचे सगळें जगूच जणू विसरतालो म्हळ्यार जाता! घुरी शेनायकाराची किर्त सगळ्या गांवांनीं पसरलेली. ताचे तोडीचो शेनायकार आख्ख्या गोंयांत आनी नाशिल्लो! गोयांतल्या त्या वेळच्या मोठ मोठ्या श्रीमंतांच्या घरच्या चले-चलयांच्या लग्नांक घुरीदादाक आवर्जुन ते लोक शेनाय वाजोवंक आमंत्रण दिताले. ताका बिदागीय बी बरी दिताले. ताचो सन्मान करताले.

पयलींच्या जमान्यांत धनीक लोकांच्या धनीक लोकांच्या लग्नांत वरात-मिरवणुकींत वाजंत्र्यांचो आनी कलावंतीर्णीचो ताफो फुडें आसतालो. शेनाय सकट बाकिच्या वाद्यांच्या तालार पेणी करीत कलावंतीणी नाचताल्यो आनी तांच्या फाटल्यान लग्नाची वरात-मिरवणूक चलताली. धवो फुल्ल सदरो-धोतर न्हेशिल्लो गोरो-गोमटो घुरीदादा आपल्या वाजंत्र्यां सयत मिरवणुकींत शेनायचे मंजूळ आनी मधूर सूर काडीत फुर्डे चलतना सगळ्यांत उठून दिसतालो.

आमच्या आनी गांवांतल्या हेर प्रतिशठीत घराण्यांतल्या मनशांकडेन, जाण्टेल्यांकडेन तो योग्य तो आदर दवरून वागतालो. त्या घराण्यांतले जाण्टेले लोक ताका 'घुरी' म्हणून एकेरी नांवान उलो मारताले.

ताची शेनाय आयकल्ले कांय लोक जाणीं आतांच्या शहनाई नवाज बिस्मिल्ला खान हांचेंय शेनाय वादन आयकलां वो तांच्यो कॅसेटी आयकल्या ते सांगतात कीं घुरी शेनायकाराक जर त्या वेळार शेनाय वाजोवपाचें शास्त्र शुध्द शिक्षण मेळिल्लें जाल्यार तो तांच्या तोडीक तोड जावंक शकतालो. पुणून ताका लाबिल्ल्या निसर्गदत्त परंपरागत देणगींतल्यान तो कित्येक रागांचे सूर आपले शेनायेंतल्यान काडटालो आनी आयकणाऱ्यांचे कान तृप्त करतालो.

काळाच्या ओघांत वाजंत्र्यांची बिदागी दिवपाक खूब वर्सां पयलीं भरिल्ल्या एक रक्कमेच्या व्याजाचे पयशे पुरे पडना जाले म्हणून देवळांतलो चौगुडो बंद जालो. कलावंतीणीं पालखे फुड्यांत नाचपाच्यो बंद जाल्यो.

आमी ते वेळार भुरगे आशिल्ले ते उच्च शिक्षणा खातीर गांवा भायर गेले. घुरीदादाचें मरण कशें जालें हें हांव सांगूंक नकळों. भौतेक जाण्टेपण जावन जालें आसुंये! गोंयचें स्वातंत्र्य ताणें पळयिल्लें नासतलें! त्या वेळार ग्रामोफोना शिवाय रेकॉर्डींग करपाची दुसरी पध्दत येवंक नाशिल्ली. ताच्या शेनाय-वादनाचें जर रेकॉर्डींग जाल्लें जाल्यार ताची स्मृती थोडी तरी उरतली आशिल्ली. म्हज्या कानांत मात अजुनय हांवें आमच्या घराचे माळयेर न्हिदिल्ले कडेन फांतोडेर आयकल्ले त्या वेळचे, ताच्या चौगुड्यांतल्या शेनायीचे, 'उठी गोपाळजी जाई धेनुकर्डे, पाहाती सौंगडी वाट तुझी' हे भुपाळीचे सूर जश्याचे तशे गुंजतात. म्हाका आनद दितात!

◆◆◆

- सुरेश कामत सातोस्कार
देवूळ वाडो, माशेल



# बिम्ब प्रकाशनाचीं दर्जेदार पुस्तकां

| क्र. | पुस्तकाचें नांव | | लेखक | मोल |
|---|---|---|---|---|
| १. | रूक्षप्रश्न | (निबंद) | दिलीप बोरकार | रु. १६०.०० |
| २. | एक शून्य प्रवास | (एकांकीसंग्रह) | दिलीप बोरकार | रु. ६०.०० |
| ३. | शापित सूर्य | (कविता - मराठी) | दादू मांद्रेकार | रू. ६०.०० |
| ४. | आण्टीची गादी | (नाटक) | दिलीप बोरकार | रु. ३०.०० |
| ५. | जाय काय जूय | (ललीत) | दता दामोदर नायक | रु. ५०.०० |
| ६. | खगोल शास्त्रीय नाट्यांगण | (एकांकीसंग्रह) | श्रीकांत नागवेकार | रु. १००.०० |
| ७. | काणी एके जिणेची | (कादंबरी) | सुजाता सिंगबाळ | रु. ५०.०० |
| ८. | तांबशी | (कविता) | मनोज नरेंद्र कामत | रु. ७०.०० |
| ९. | सात काणयो | (कथा) | गणपत कवळेकार | रु. ६०.०० |
| १०. | म्हापुरूश | (बालसाहित्य) | नरेंद्र का. कामत | रु. ४०.०० |
| ११. | पोको | (कादंबरी) | नं. ध. बोरकार | रु. २५०.०० |
| १२. | वादळ आनी वारें | (कादंबरी) | फा. आ. पेरेरा | रु. १५०.०० |
| १३. | काळखी जीण | (कविता) | साईदास आपटे | रु. ६०.०० |
| १४. | माणकां मोतयां | (बालसाहित्य) | नरेंद्र का. कामत | रु. ४०.०० |
| १५. | तनरजोती | (कविता) | रमेश वेळुस्कार | रु. ८०.०० |
| १७. | रूपरंग | (कविता) | विजया नायक कोमरपंत | रु. ६०.०० |
| १९. | बायनेट फायटींग | (कथा) | महाबळेश्वर सैल | रू. २००.०० |
| २१. | भारतवर्षाची संस्कृतायेची साधना | (ललीत) | रवीन्द्र केळेकार | रू. १५०.०० |

भलायकी

# नाखटां चाबडावप



नाखटां चाबडावपाची सवंय खुपश्या लोकांक आसता. हाका 'क्रोनिक ऑनायकोफेजीया' अशें म्हणटात. हें कसल्या तरी मानसिक वा भावनाशील (emotional) दुर्येसाचें चिन्न जांव येता. जर तर मनशाक कसलोय मानसीक ताण, उबगण, भूक लागत जाल्यार नेर्वोझ आसत जाल्यार तो नाखटां चाबडावपाक लागता.

ही संवंय :

- २८% - ३३% भुरग्यांक (७-१० पिराय)
- ४४% युवावस्थेंतले (adolescent)
- १९% - २९% तरणाटे (young adults)
- ५% जाणट्यांक आसता

नाखटां चाबडावपाचे सवंयेचे वायट परिणाम आसतात.

१. नाखटांच्या मर्दी जी घाण / जीवाणू आसतात ते तोंडांतल्यान आमचे कुडींत भीतर सरतात आनी दुर्येसां जातात.

२. नाखटां चाबडावपी मनशां, तांच्या भोवतणची कात चाबतात जेणे करून थंय घाय जांव येता. ह्या घायांतल्यान जिवाणू कुडींत भीतर सरतात आनी दुर्येसां जातात.

३. हांचीं नाखटां सामकीं ल्हान जाल्ल्यान तांकां थोडीं कामां करपाक त्रास जाता (टायपींग, ड्राईंग, सरयो आशिल्लें वाद्य वाजोवपाक)

४. खूप वर्सां नाखटां चाबडावपी मनशांच्या दातांचेर वायट परिणाम जांव येता.

५. खूब वर्सां नाखटां चाबडावपी मनशांच्या बोटांचीं तोकां दुखपाक लागतात, चुरचुरपाक लागतात, जेणे करून तांकां त्रास जाता. पूण तांकां ती इतली सवंय जाल्ली आसता की ताचेर लक्ष दिवप जायना.

६. ह्या लोकांचीं नाखटां / बोटां पळोवपाक बरीं दिसनात.

### हाचेर उपाय कितें?

जर तर नाखटां चाबडावप कसल्याय मानसीक किंवा भावनाशील कारणांक लागून जालां जाल्यार ताचेर पयलीं वखदां करचीं.

नाखटांक कडू वा घाण वास येवपी कितेंय लावप.

हांच्या मनगटा भोंवतणी कितेंय बांदचें, जेणे करून प्रत्येक वेळा बोट तोंडांत वता. तेन्ना तांकां याद जाता की हें अशें करप बरें न्हय.

नाखटां खावचे सुवातीर तोंडांत दुसरें कितेंय दवरचें (chewing gum, chocolate).

घरच्या लोकांनीं, मित्रांनीं प्रत्येक वेळा याद करून दिवप गरजेचें.

पूण सगळ्यांत गरजेचें म्हळ्यार प्रत्येक मनशाक आपूण जावन दिसपाक जाय की ही संवंय वायट आनी हाचेर आपणें कशे तरेन आळाबंद हाडपाक उपाय घेवंक जाय.

ज्या लोकांक नाखटां चाबडावपाची संवंय ना ताणीं सदांच आपलीं नाखटां निव्वळ आनी कातरून वेवस्थीत दवरचीं.



- डॉ. वंदना धुमे
फोन : ९८२२५८५२८५

# मे २००७ चें राशी भविश्य

- ज्योतिषाचार्य राजाबापू बर्वे




राशीचेर रवी-बुध आसात, गाफील रावन चलपाचें ना. ८ मे सावन बुध तुमच्या फावरार आसतलो. तेच वांगडा मंगळाचेंय फाटबळ लाबतलें. आर्थिक परिस्थिती सुदारतली. पूण खर्चाचेंय प्रमाण वाडटलें. आर्थिक गुंतवणूक करतना शादूर रावप गरजेचें. म्हत्वाच्या कामांत आडखळी संभवतात.




खंयचेय बाबतींत सामकी आग्रहाची भुमिका घेवपाचें टाळचें. भागिदारिचो वेवसाय आसल्यार भागिदाराचें कांय निर्णय तुमकां पटपाचे नांत. आपल्या मित्रां पासत बरींच कामां करचीं पडटलीं. अर्थप्राप्ती हिसबाभायर वाडटली तरी खर्चाचेर नियंत्रण दवरप शाणेपणाचें थारतलें.




एकदां घडिल्ली चूक परतून घडचिना अशें थारावन जर ह्या म्हयन्यांत शादूरतायेन वावुरले जाल्यार पच्छताप करपाची पाळी तुमचेर येवपाची ना. प्रवासाक वतना निर्णय विचार करून घेवंचो. एखाद्र्या नव्या मळार पावल दवरूंक हरकत ना. राजकारणांत बऱ्यो संदी मेळटल्यो. भलायकेची काळजी घेवंची.




शुभ-अशुभ अशें ग्रहमान. वेपार वेवसायांत बऱ्या पयकी अर्थ प्राप्ती जातली. राजकारणांत सत्ता हातांत येतली. कलेच्या मळार नावलोकीक लाबतलो. उष्णतायेचो त्रास संभवता. काळजी घेवप गरजेची. रवि-गुरूच्या फाटबळाक लागून बऱ्योचश्यो समस्या सुटाव्यो जातल्यो. आर्थिक विवंचना पयस जातल्यो.




ह्या म्हयन्यांत खंयचेय परिस्थितींत चित्त विचलीत जावंक दिवंचें न्हय. हेरांचेर भरवंसून आनी विसंबून रावचें न्हय. खर्चाचेर नियंत्रण दवरप गरजेचें. खंयचोय प्रस्न प्रतिश्ठेचो करून बसल्यार लुकसाण संभवता. आर्थिक चणचण भासतली.




वेपार- वेवसायांत ह्या म्हयन्यांत थिरताय लाबतली. अणभव आनी पात्रताये प्रमाण हातांत प्रकल्प येतले. सोयऱ्या धायऱ्यांची पिडापीड भोगतली. राजकारणांत विचार करूनच पावल घालचें. दोळ्यांचे विकार संभवतात. मोठ्या प्रमाणांत आर्थिक लाव जातलो. पूण खर्चाचेर नियंत्रण दवरचें.



राजकीय फुडाऱ्यांचो आशिर्वाद लाभिल्ल्यान मनांतली राजकीय खेळी यशस्वी जातली. अधिकार, सत्ता हातांत येतली. सगळे वटेन यशस्वी जातले. मतभेद जावपाचे प्रसंग शक्य तो टाळचे. खावपा-पिवपाचेर नियंत्रण दवरचें. वाहन चलयतना सांबाळचें.



नाट्य, चित्रपट, दूरदर्शन ह्या माध्यमांत वावुरप्यांक हो म्हयनो यशाचे तेंगशेर व्हरतलो. आर्थिक येणावळींत भरमसाठ वाढ संभवता. तेच वांगडा मान-सन्मान वाट्याक येतले. रविचें फाटबळ चिंतामुक्त दवरतलें. खाणा-जेवणांचेर नियंत्रण दवरप फायद्याचें थारतलें.




आपल्या वावराकडेन केल्ली आडनदर फुडाराक म्हारग पडूं येता. गरजेभायर खर्च करपाचें ह्या म्हयन्यांत टाळचें. फोल्गांचेर नियंत्रण दवरप खूब गरजेचें. नव्यो नव्यो वळखी जातल्यो ज्यो फायद्याच्यो थारतल्यो. भलायकेची चड काळजी घेवची पडटली.




ह्या म्हयन्यांत मनाआड सोयऱ्यां खातीर खर्च करचो पडटलो. पूण ते खातीर कपलाक आटयो घालप टाळचें. नोकरी वेवसाय अधिकार हातूंत मनासारकी वाढ जातली. घरच्यांकडल्यान मनासारको सांगात आनी सूख मेळचेंना.



ह्या म्हयन्यांत ल्हानशा कामाखातीर लेगीत भरमसाठ खर्च करचो पडलो. सभाव हट्टी जातलो. रासवळ मळार प्रतिश्ठा वाडटली. राजकारणांत परजळटले. पयले पंद्रशींत भलायकी घटमूठ दिसली जाल्यारूय दुसरे पंद्रशींत तिचेर चड लक्ष दिवचें पडटलें.




तुमच्या उतराक मान मेळटा आसत जाल्यारूच ताचो वापर करचो. नातर मौनातूंच व्हडपण आसा.. तुमच्या बुध्दीचो राजकारणांत आनी रासवळ मळार प्रभाव पडटलो. घरच्यांकडल्यान मनासारकें सहकार्य मेळचें ना. आर्थिक वेव्हार सांबाळून करचो. अकस्मांत धनलाभ संभवता.

लग्नाचे म्हूर्त
१(११.०४,१२.३०), २(११.००), ४(१२.३०), ६(८.४५,१७.१०,१८.४६), ८(८.३७,१२.३०,१८.४७), ९(१२.२९, १८.४७), १०(८.३०,१२.२९,१८.५५), १४(८.१४)

## पुस्तक जात्रा

रवीन्द्र केळेकार हांचें 'वेळे वयल्यो घुलो' हें १९७१ वर्सा उजवाडाक आयिल्लें दिसपटयेचें पुस्तक. हे दिसपटयेंतले सुरवातीचे कांय वांटे 'वासरिका' ह्या माथाळ्याखाला राष्ट्रमतांतल्यान २९-११-१९७० थावन २१-२-१९७१ मेरेनच्या काळांत आयतारा उजवाडाक आयिल्ले. तें वाचून त्या काळार खुबश्या गोंयकारांक विचारांची एक दिका मेळिल्ली. उपरांत ते लेख पुस्तक रूपांत वेळे वयल्यो घुलो जावन आयल्यो. त्या पुस्तकाक आनी तांतल्या विचारांक भरपूर येवकार मेळ्ळो.

आतां ३८ वर्सां उपरांत ह्याच पुस्तकाची दुसरी उजवाडावणी मोठ्या दबाज्यांत फांटल्या म्हयन्यांत जाली. हे दिसपटयेविशीं मनोहरराय सरदेसाय बरयतात, 'रवीन्द्राचे हे दिसपटयेक ताच्या जिविताची लांबाय-रूंदाय आनी खोलाय आसा. समुद्र मंथन करून जिविताचो दर्या घुसळून काडिल्ल्यो ह्यो घुलो. जिविताचे दर्या वेळेर घुलो खूब पातळ्ळ्या. पुणून त्यो पुंजावन घरा हाडपाची बुद्द थोड्यांकूच जाता. ह्यो घुलो तरेकतरा आकारांच्यो. तरेकतरा रूपां- रंगांच्यो. घुलो कानाक लायल्यार खंय तातूंत दर्याचो आवाज आयकूंक येता. ह्योय घुलो कानाक लायल्यार तातुंतल्यान जिविताच्या दर्याचो उलो कानांत गाजतलो.'

रवीन्द्रबाब म्हणटा, 'म्हजो सभाव मातसो चिंतकाचो. कसलीय सादी गजाल म्हाका केन्ना केन्ना गंभीर करता आनी चिंतनांच्या मळार खंय तरी खोल खोल ओडून व्हरता.'

जो ही दिसपटी वाचता ताचीय अशीच गत जाता. हीं चिंतनां ताकाय 'खोल खोल ओडून व्हरता.'

मनशाची सामाजीक नीत, Sexual Morality, धर्माचें खरें स्वरूप, विद्यार्थ्यांचीं बंडां, हिप्पी आनी तांचें जिवीत-तत्व, बायलांची आवतिकाय, साहित्याचो आदर्श, ह्या आनी असल्या विशयांचेर तो चिंतता आनी कांय मोठे प्रस्न मुखार दवरता.

आयच्या दरएक तरनाटे पिळगेन आपली वैचारीक घडण थारावंक हें पुस्तक वाचप गरजेचें.

वेळे वयल्यो घुलो, दुसरी उजवाडावणी, जाग प्रकाशन. पानां-१६६, मोल-८०रू.

---



जीवनरंग हें सुधा सुरेश आमोणकार हांचो लघुनिबंध संग्रह जो मराठींत आसा. ह्या संग्रहांत सुधा ताईचे ५५ ललीत लेख आसात. त्या सगळ्याच लेखांक थोडेभोव प्रमाणांत तांच्या व्यक्तित्वाचो स्पर्श आसा. ते तांच्या अणभवाचे बोल आसात. हातूंत जे कितें विचार आयल्यात ते तांच्या अणभवाचें आंग जावन आयल्यात. तरी तातूंत लालित्य आयलां पूण तातूंत पुरायेन सर्जनात्मक स्वरूप दिसून येना. लेखिकेच्या व्यक्तिमत्वा कडेन आशिल्ली तांची नाळ तुटूंक ना. हातुंतूच ताची गोडी आसा. लेखिकेच्या दिसपट्ट्या जिविता कडेन संबंदीत आशिल्ल्या प्रसंगाचें वर्णनात्मक, कथनात्मक अशे हे निबंध तांचे तीन रंगांत ह्या लेखांची विभागणी करूं येता. आत्मरंग, व्यक्तिरंग, जिवनरंग.

जीवनरंग हें म्हापशेंच्या गीता प्रसार हे प्रकाशन संस्थेन उजवाडाक हाडलां. ह्या पुस्तकाक श्रीधर कामत बांबोळकार हांचें सुंदर मुखपृश्ठ लाभलां. प्रस्तावनां रवीन्द्र घवी हाणीं बरयल्या. १०४ पानांच्या ह्या पुस्तकाचें मोल १११ रू. जावन आसा.

---



मळबगंगा हें ग्वादालूप डायस हिचें कवितेचें दुसरें पुस्तक. हे आदीं तिचो भुंयफोड म्हूण कविता संग्रह उजवाडाक आयला.

ह्या पुस्तकाची प्रस्तावनां बरयतना ज्येश्ठ कवी नागेश करमली बरयतात, मळब गंगा झेल्यांत ज्यो कविता आसात त्यो वेगवेगळे माथाळे घेवन आयल्यात. हें जरी वयले वयर पळोवंक दिसलें तरी तीं एके विंगविंगड मनोभावरूपी कवितेंचीं एका सुत्रान गुंथून आयिल्लीं, वेगवेगळीं रूपां. मळबगंगेंत ह्या सुत्राचो वापर जाला. पूण तो वेगळे तरेन-व्यक्तीसापेक्ष पावंड्यार. हे सुत्ररूपी कवितेंत 'हांव' चे भुमिकेंत कवयित्री कोण तरी आसा आनी दुसरो 'तो' आसा. जाका कवयित्री कोण तरी अनवळखी म्हणटा. कवयित्री फक्त **आत्म** चे भुमिकेंतल्यान आपलें मन उक्तायता. भाव भावनांचो अविश्कार घडयता. हे अभिव्यक्तिंत तिरायतपणां ना. ही कविता अदिक उंचल्या कलात्मक पावंड्यार पावता.

मळबगंगा-गोवा कोंकणी अकादेमीच्या साहित्य प्रभा येवजणेंतलें पुस्तक. प्रकाशक - बिम्ब प्रकाशन, मोल-१००रू.

घडामोडी

# माशेलांत जालें बालभवनचें गिमाळी शिबीर!



माशेल बालभवन केंद्रान गिमाळी शिबीराचें आयोजन केल्लें. ताचें उक्तावण करतना प्रा. प्रजल साखरदांडे, डॉ. लुकास मिरांडा, चारूशिला कामत देसाय आनी ज्योती कुंकळकार

बालभवनाचीं केंद्रां गोंयभर आसात. ह्या केंद्रांनीं ल्हान भुरग्यांच्या आंगांतल्या गुणांक चालना मेळची देखून वेगवेगळ्यो कार्यावळी घडोवन हाडटात.

फाटल्या म्हयन्यांत माशेलच्या बालभवन केंद्रान ह्याच खातीर एक गिमाळी शिबीर माशेलान घडोवन हाडलें. ताचें उक्तावण प्रा. प्रजल साखरदांडे हांचे हस्तुकीं जालें. ह्या वेळार डॉ. लुकास मिरांडा, आकाशवाणी पणजी केंद्राच्यो निवेदिका चारूशिला कामत देसाय आनी लेखिका ज्योती कुंकळकार हाजीर आशिल्ली.

ह्या वेळार उलयतना प्रा. साखरदांडे हाणीं म्हळें कीं भुरग्यां वांगडाच तांच्या पालकांनींय अश्या शिबिरांनीं वांटो घेवंक जाय. ताका लागून तांच्याय आंगांतल्यो सुप्त कला जाग्यो जावंक पावतल्यो. ह्या वेळार ताणीं भुरग्यांक इतिहासाच्या अभ्यासाचें म्हत्वूय सांगलें.

---

## उतरकुवाडें

- मुकेश थळी

### आडवीं उतरां

१) ताचो स्वभाव असो
३) दोतोराच्या ×××× आयज बंद
५) वेतन
६) अंतर अशेंय मेजतालें
८) इस्पिकांचो एक खेळ
१०) एक जनावर
१२) बारदेस तालुक्यांतलो गांव
१४) एक कोंकणी म्हयनाळें
१६) खर, तीव्र
१७) एक धान्य
१९) व्हडलें व्हडें, पातमार
२०) चुलती
२१) ज्यादा, चड, आलायतो (मूळ पुर्तुगेज)
२२) व्हडलो तुतयो

### उबीं उतरां

१) वाटो, भाग
२) तिडक, असंतोश, नाखुशी
३) किमतींनी आयिल्ली सूज!
४) सुक्या फळांतलें एक
७) हो तो धरून सगळे
९) जेवणांत हें जाय
१०) गवय
११) गणितांतली एक क्रिया
१३) बाजू, वट, देग
१७) वारांव
१८) जांबावले लागीं हो गांव आसा
१९) कोंकणी ही ×× भास अशें म्हणून अजुनय कांय जाण हिणसायतात.
२०) शर्टाचो बुतांव हातूंत घालतात

| | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|
| १ | | २ | | ३ | | ४ | |
| | | ५ | | | | | |
| ६ | ७ | | | | | ८ | ९ |
| | | | १० | | ११ | | |
| १२ | | १३ | | | १४ | १५ | |
| | १६ | | | | १७ | | १८ |
| १९ | | | | २० | | | |
| | | २१ | | | | २२ | |

फेब्रुवारी उतरकुवाड्याची जाप

| | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|
| पा | ठां | त | र | | प | र्व | त |
| ल | | ब | | चो | र | | |
| क | स | क | स | | त | ल | ग |
| | वा | | म | | | | र |
| सा | य | ल | | | ह | रा | मी |
| ठ | | सू | र | सु | री | त | |
| | घो | ण | | र | | रा | म |
| बे | डो | | घ | ण | घ | णी | त |

हरयाळी

– महेश दिवेकार












## गांधीगीरी

गांधी एकदां दसलो काय तो कित्याक सुटना? हाचें म्हाका पयलीं अजाप दिसतालें.

कोणय सुर्वेक गांधीवाद आपणायताले. गांधीचे विचार, आचार, चलणूक सगळे बाबतींत प्रभावीत जाल्ले देशांत खुबशे गांधीवादी आसात.

गांधीजी खादिचे पुरस्कर्ते. म्हाकाय खादी आवडटा. पूण बरी खादी. स्टार्च केल्ली, कडक! कांय गांधीवादी सुटके झुजारी दाग पडिल्ले, रंग वचून हळदुवसार जाल्ले सदरे बी वापरतना पळोवन म्हाकाय खादी नाका दिसता ही गजाल वेगळी. हांव विचारांनीं फकत गांधीवाद पाळटां. पूण व्यसनां करप ना, फट उलोवप ना ह्यो गजाली म्हाका आवडनांत. तश्यो त्यो हेरांकूय आवडनांत आसतल्यो. तरी ते लोक गांधीवादाक दसून कशे रावतात, कित्याक रावतात हो म्हाका प्रस्न पडप! पूण ताची जाप म्हाका हालींच गावली.

लोक म्हळ्यार जे कोण गांधीवादी आसात ते आपल्याक जाय म्हण आपले इत्से प्रमाण गांधीवाद पाळिनांत. गांधीच तो तांचे मानगुटेर बसून पाळून घेता. तांकां एकदा तो दसलो काय सोडूंक सोदिना.

हांवें फाटले गांधीगीरी उपरांत निर्णय घेतिल्लो ही गांधीगीरी म्हाका जमपाची ना. ते परस म्हजी ती हायफिलॉसॉफीच बरी. तकलेक ताप नासता. जाय तेन्ना जाय तशी बदलूं येता. गांधीगीरी आर्पीच बदलना आनी मर्यादा पडटा. म्हजे खातीर न्हय तरी गांधी खातीर तरी! म्हणटकच गरजे भायर मनस्ताप नाका म्हण हांवें गांधीजीकूच म्हजे पासून पयस दवरपाचो थारायल्लो.

आतां हांवें पयस दवरलो म्हूण तो पयस वचूं नाका? तो परतून म्हाका खट कसो दसून रावलो. जाण्टेलो म्हूण हांवें पाशीयेंस काडले.

'बापू, आतां कितें जालां तुजें?' नेहरूंच्या उबगल्ल्या आवाजांत हांवें प्रस्न केलो.

'तुकां खबर आसा. हांव एकदां कितें तकलेंत घेतां तें प्राण गेलो तरी सोडिना.'




वक्लांतल्यान दोळे वयर करीत हट्टीपणान बापून म्हळें.

आतां हाणें तकलेंत कितें घेतलां कोणाक खबर! हे जाण्टेले आपल्याक जाय तें तकलेंत घेतले. घेयात! आमकां भुरग्यांक रे ताची ख्यास्त कित्याक?

'तें हांवें वेंचणुकेचें मनार घेतिल्लें पळय!' बापून आपले भितर धुसफुसत उबगून शें म्हळें. जाता अशें जाण्टेपणार, अपेक्षाभंग जातकच! ह्या जाण्ट्यांनीं जाण्टेपणांर तरी हट्ट सोडूंक जाय. दोतोर विलीक बिलीक तें एक सोबता. पूण गांधीक न्हय! तरी आमचो तो राष्ट्रपिता.मात्सो सांबाळून घेवंक जाय! ना तर दिसपट्टी ताचेर नदर ही घालूंकच जाय न्ही! सक्काळीं पेपर-दूद हाडी पासून रातचें सोन्याचें बील फारीक करी मेरेन!

'बापू तुकां हांवें फाटले खेप त्या चर्चीला कडें व्हरून सोडिल्लो न्हय. सेव गोवा पक्षाची उमेदवारी घेवपा खातीर!'

दोगांयचोय प्रस्न सोडोवपा खातीर केल्लें हांवें तें! चर्चीलाकूय एक उमेदवार मेळपाचो आनी वेंचणूक लडोवपाची बापुचीय उमेद पुराय जावपाची! पूण हो थंयच्यान परतल्लो आनी म्हजो जीव खातालो!

'तो चर्चील काय कोण तो मनीस रे?' बापुजीन पिरंगून म्हळें.

'मनीस काय म्हण कितें विचारता बापू? तुजे सारकोच मास लिडर तो! तुज्या मना सारखें जालें ना जाल्यार तूं उपासाक बसतालो. हो हेरांक उपाशीं मारता. तुकां कितें केलें ताणें?'

'म्हाका कांय केलें ना. हांवें तुजें नांव सांगलें. तुवें धाडला म्हूण. तर म्हाका सकयल वयर पळयत विचारूंक लागलो, तूं रोमिचो सपोर्टर काय म्हूण! हो रोमी कोण?'

तकली खरपीत बापुजीन म्हाका प्रस्न केलो. आतां रोमी कोण? हें हाका कपलाक सांग. खबर ना तेंच बरें आशिल्लें. हांवें म्हळें, सोडून घाल ती बापू गजाल.

'हांवें ताका सांगलें हांव म्हात्मा गांधी म्हूण! तो विचारता, तूं म्हात्मो? पणजेचो काय वास्कोचो? मागीर ताणें एका दाट्ट मिश्यांच्या भुरग्याक उलो मारलो. विजोय हिंगा यो चोवया. हेका चोय मात्सो. हो आपूण म्हात्मो म्हुण्टा! तुगें सोयरो आसतोलो बायले वाटेन! तेका दी चोवया कितें जायें तें. अशें म्हणटकच तो दाट मिश्यांचो म्हजे कडेन आयलो. चर्चील दिसता आकांत. पूण म्हात्मो म्हूण सांगतकच नमळायेन उलयलो. पूण हो कोण विजय सरदेसाय काय कोण तो सामकोच पियोर! ताणें आड्डूनच म्हळें, ओ तो हांगा यो रे! तुकां कितें जायें? आमचें आमकां नाकां जालां हिंगा. फातोड्डे मुरे तूं? चोल बोस तिंगा ओ गो. ही घे बाटली आनी मार सुशेगाद! अशें म्हणून ताणें म्हज्या हातांत विलायती हिस्की बाटली दिली. नवोच बॅरिस्टर जाल्लों तेन्ना इंग्लंडाक पळयल्ली ती आतां पळयतालों. बरें दिसलें. पूण अशें करप म्हाका ताणें?'

बापून दोळ्यांत दुखां हाडून म्हळें.

'बापू, आसू विसर तें! भुरगो आसा तो विजय. फातोड्डेचीं काँग्रेसची उमेदवारी मेळटकच थंड जातलो.'

'पूण कोण हो विजय?' बापू दातांत धरिल्लें सोडिनाशिल्लो.

'बापू, तो रवीन्द्र केळेकाराचो भाचो. सारखें सांगपाचें म्हळ्यार.'

त्या बराबर हो केळेकार कोण हें बापुजी

चितूंक पडलो. म्हळें हांव सुटलों. पूण म्हाका सोडल्यार तो गांधी कसलो?

'ते वेंचणुकेचें कितें करूया?'

आतां मात म्हजें चवताळ्ळें. म्हळें 'बापू पळय, हांगा उमेदवारी खातीर कितें कितें घडटा तें तुवें पळयलां. हांगा बापूय पुताक वळखना आनी बायल घोवाक. तातूंत तूं भायलो. घांटी. गोंयांत सुटके झुजा खातीर देशांतलो इतले लोक वांटेकार जालो, बॉर्डर हुपून परत परत गोंयांत आयले तरी तुवें हकदांय हे भुंयेर पावल दवरूंक ना. तुकां उमेदवारी दिली जाल्यार पयलीं हरकत घेतले ते हांगचे सुटके झुजारी. तांची अजून हांगा पत आसा. दुसरी गजाल तुकां विनेबिलिटी ना. नोटींचेर तुजो फोटो आसप वेगळें आनी बोल्सांत नोटी आसप वेगळें. कळटा न्हय तुकां?'

म्हज्या स्पश्टवक्तेपणान बापुजी दुखावलो.

'तूं म्हाका घांटी म्हणटा? तूं धर्मानंदाक वळखता?'

बापुच्या प्रस्नान आतां हांव गोंधळ्ळों. हो खंयच्या धर्मानंदाविशीं उलयता काय? धर्मानंद कामत दिल्ली आसता. कितलीं वर्सां जालीं ताका हांवें पळोवंक ना. दुसरो धर्मानंद वेर्णेकार. तो हांगाच आसता. पूण ताका पळोवचें दिसना.

'खंयचो धर्मानंद म्हणटा तूं बापू?'

'तोरपाशोरा, धर्मानंद कोसंबी म्हणटां हांव.' बापू तिडकलो. 'आरे, हो धर्मानंद गोंयचो. ताची समाधी वर्ध्याक आसा. सामकी बेवारशी कशी! जागतीक किर्तीचो मनीस तो. म्हजे उपरांत कोणेंय नांव घेवचें तर तें ताचें! सगळो संवसार जेन्ना म्हजी फाट खरपितालो तेन्ना हो बापू, तुमच्या त्या धर्मानंद कोसंबीची साक घेवन फाट घासतालो. आनी हे लोक म्हाका विचारतले. तूं गोंयकार काय म्हणून? तुमी खरे गोंयकार जाल्यार कोसंबीच्या समाधी कडेन लक्ष दियात.'

बापू सात्वीक संतापान सामको तांबडो जालो. ताका हांवें घांटी म्हणिल्लें. पूण सत्य उलयलों आनी फसलों. तरी ह्या मनशा खातीर कितें तरी करचें पडलें आतां. हांवें ताका सांगलें. 'बापू, हें पळय तुकां विधानसभेंत काय चान्स ना. लोकसभेंत वचपाची संद आसा. कित्याक चर्चील लोकसभेचो राजीनामो दिता. पूण हांगाय तीच भानगड. विधानसभा वेंचणुकेंत खावपी तोंडां तरी थोडीं. लोकसभा मतदार संघ तातूंत दक्षीण गोंय म्हणटकच खावपी पिवपी तोंडां चड. तातूंत तुजो फोटो दरएक नोटीचेर आसा. तुकां उमेदवारी दिल्यार वेंचणूक आयोग सगळ्यो नोटी रद्द करतलो वा तुकां आचार संहितेच्या नांवांन पिडटलो. तेन्ना वेंचणूक लढोवपाची भानगड तू सोड! तुकां तें जमपाचें ना.

पूण एक गजाल करूं येता! शांताराम नायक राज्यसभेर गेला. ताची टर्म सोंपतकच तुकां राज्यसभेर धाडपाची वेवस्था करूं येता.'

म्हजें हें समजावप ताका खंयतरी पटलें. राज्यसभा म्हणटकच मात्सो भुल्लुसलो. तरी हांवें ताका म्हळें, 'राज्यसभा म्हणटकच असो फुकट सुट्टलो अशी कल्पना करूं नाका. विधानसभा , लोकसभा ह्या वेंचणुकांत पयशे उमेदवारी मेळोवपाक श्रेश्ठींक आनी उमेदवारी मेळ्ळी म्हणटकच निवडून येवपाक मतदारांक घालचे पडटात. हांगा उमेदवारी मेळोवपाक तुका पयशे दिवपाची गरज ना. पूण तुकां मतदान करात म्हण आमदारांक पयशे दिवचे पडटले. तुजेकडे तर ते नाच. पूण भिवपाची गरज ना. हें पयशे दिवपाचें काम गोंयचे मिनेर करीत आयल्यात. फकत राज्यसभेर पावतकच दिल्लीचीं तांचीं कामां तुवें करपाचीं! तूं तांचो एक दलाल म्हूण ते तुकां राज्यसभेर धाडूंक पयशे घालतले.'

म्हजें उलोवप गांधीच्या माथ्यावेल्यान गेलें. ताचे तकलेंत फकत राज्यसभा आशिल्ली. दुडवांची वेवस्था करूंक पयलीं ताका घेवन हांव धेंपो हावजांत गेलों. बाबाक मेळ्ळों. बाबाक दिसलें हांव जायरात मागूंक आयलां. आतां हांव असलींय कामां घेतां हें पळोवन ताच्याय जिवाक बरें दिसलें. पूण ताणें सरळ सांगलें आमी ह्या गांधीक वळखनांत. आमी वळखताले ते इंदिरा गांधीक. आणिबाणीच्या काळार जी कितें मदत करपाक जाय आशिल्ली ती आमच्या घराण्यान जिपी बी दिवन केल्ली आसा. शहा कमीशनान चौकशी बी करून आमकां जें कितें भोगोवपाचें आसा तें भोगयलां आनी हिशेब मेकळो जाला. तुजें आनी आमचें देणेंघेणें ना.

बापूक घेवन हांव अनिल साळगांवकाराकडेन गेलों. ताणें गांधीजीक पळोवन न वळखल्लेवरीं केलें. हांवें निर्लज्जा सारखो ताचे कडेन ताची वळख केली. अनिल साळगांवकारान सांगलें हांव वळखतालों तो फकत राजीव गांधीक. ताणें दिल्ली एॅरो क्लब ऑफ इंडिया स्थापन केलो तेन्ना ताका पयली देणगी दिवपी आपूण. फट दिसता जाल्यार वचून पळयात. देणगीदारांत दुसरें नांव म्हजें आसा आनी दुसऱ्या खंयच्याच गांधीक हांव देणें ना.

आतां थंय रावपांत अर्थ नाशिल्लो. शेवटाक एकूच उरिल्लो तो चौगुलो. बापूक घेवन चौगुल्या कडेन गेलों. चौगुलो गांधीक वळखलो. तरी दुडवांचो प्रस्न येतकच शादूर जालो. म्हणूंक लागलो, मोरारजी देसाय तुजो भक्त, तातूंत तुजो गांवभाव. तेच पासत तो जेन्ना प्रधानमंत्री जालो तेन्ना ताचे कडचो एक चरखो हांवें फकत तुजे मोगा खातीर गोंयां हाडलो आनी म्हजे शिरगांवचे खणीर दवरलो. तितलेंच हांव करूंक शकलों. आतां आनीक कितें तुजे खातीर करपाचें उल्लां अशें म्हाका दिसना. अशें म्हणत ताणें बापूक नमस्कार केल्ल्या भशेन केलें आनी उठून गेलो.

दुडू मेळपाचें निमणें साधन अशें उठून गेल्ल्यान गांधीजी पुरायेन निर्शेलो. म्हणूंक लागलो, दिलीप, तूं हेदोळ तो कोण म्हणटालो?

हांवें म्हळें, विजय सरदेसाय.

'तो न्ही, ताचो तो कोण मामा! फाटले खेप तुवें व्हेल्लो पळय! म्हाका एकलोच वळखुपी आसा तो .'

बापूक आतां रवीन्द्रबाब येवजलो तें म्हाका कळ्ळें. ताका घेवन परतून पिरवळा गेलों. रवीन्द्र बाब ध्यानमुद्रा लावन सत्याचे प्रयोगाचें मनन करताले. गांधी आयला म्हणटकच ताकतीकेन भायर आयलो.

दारांतूच उबो रावून बापून रवीन्द्रबाबाक म्हळें, 'रवीन्द्र म्हाका गोंयांत फकत चार लोक वळखताले. एक पुरषोत्तम काकोडकार, निकुबाब कारापुरकार दुसरो, तिसरो र. वि. पंडित आनी चवथो तूं. ते तिगूय वयर गेले. आतां तूं जमता जाल्यार एक काम कर.ह्या गोंयचें कांय खरें न्हय. म्हाका मात्सो व्हरून वर्ध्याक धर्मानंद कोसंबीच्या समाधी कडेन उडय. तिचेर तकली दवरून हांव ताका शरण वतां.'

इतलें म्हणून बापुजी अंतर्धान पावलो.

◆◆◆



– दिलीप बोरकार
फोनः ९८२२१३६८८५